मुखपृष्ठ आनी मलपृष्ठाचे फाटले वटेन शिल्पचित्रां दिल्यांत. तातूंत तीन ज्योतिशी बुध्द भगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुध्दोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोपवी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखन कलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

(राष्ट्रीय संग्रहालय, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान)

# गोसाय बागांतलें भूत

बरोवपी
शीर्षेन्दु मुखोपाध्याय

अणकारपी
चंद्रिका पाडगांवकर




साहित्य अकादेमी

**Gosai Bagatlem Bhoot (गोसाय बागांतलें भूत):**
Konkani translation by Chandrika Padgaonkar of Shirsendu Mukhopadhyay's Children novel *Gosain Baganer Bhoot* in Bengali
Sahitya Akademi, New Delhi (2014), ₹ Eighty


First Edition : 2014

**Published by**
SAHITYA AKADEMI

**Head Office**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices**
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
4, D.L. Khan Road, Kolkata 700 025
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bengaluru 560 001

**Chennai Office**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai 600 018

**ISBN 978-81-260-4412-2**

**Price: ₹ 80/-**

E-mail : sahityakademimumbai@gmail.com
Website : http://www.sahitya-akademi.gov.in

Typeset by Riya Graphics, Goa and
Printed by New Age Printing Press, Mumbai-400025

# 1

वर्सुकी परीक्षेंत गणिताच्या पेपरांतच फकत तेरा मार्क मेळिल्ल्यान बुरून सामको मूर्ख थारिल्लो. जंय इतिहासांत ऐशी, बांङला भाशेंत पासष्ठ आनी इंग्लीशींत साठ मार्क मेळिल्ले थंय गणितांत फकत तेरा.

हेडमास्तर सचिन सरकार बरीसालाक रावताले. ते जितले रूबाबी आशिल्ले तितलेच ते रागीश्ट आशिल्ले. पूण ते आपल्या विद्यार्थ्यांक केन्नाच मारीनाशिल्ले. आपल्या कुडींतल्यान भायर सरून व्हरांड्यात उबे रावनाफुडें, शाळेंत सूय पडल्यार लेगीत आवाज जातलो इतली शांतता पातळटाली. आपल्या शाळेच्या दर विद्यार्थ्याक ते बरे तरेन वळखताले. तांचे सगळ्यांचे नांव, घर, चाल-चलणूक भलायकी आनी हेर सगळ्यो गजाली तांका तोंडपाठ उरताल्यो.

परीक्षेचो निकाल जाहीर जायनाफुडें ताणें बुरूनाक आपोवन म्हणलें, ''ज्या भुरग्याक गणित कळना तो व्हड जातकूच कोण जाता खबर आसा? बेहिशेबी, फोल्गी आनी अव्यवहारीक. गणिताचे शिक्षण मनशाचे बुन्यादीक घटमूट करता. मनाक निर्मळ करता आनी विचारशक्त वाडटा. नाका आशिल्ली भावुकता उणी जाता. देखूनूच जो भुरगो गणित शिकपांत कश्ट घेना, ताका हांव बरो भुरगो समजना.

घरा येतकूच बापायन बुरूनाक आपले कुडींत आपयलो. ते सामके

गंभीर व्यक्ती आशिल्ले. बरे दोतोर आशिल्ल्यान लोकप्रिय आशिल्ले, ते खातीर सदांच कामात खूब गुल्ल उरताले. आपल्या भुरग्यांची वासपूस करपाक लेगीत तांका वेळ मेळनाशिल्लो. सांगपाचें म्हणल्यार ते आपल्या भुरग्यांकडेन सामके उणेंच उलयताले. गरजेभायर सात-आठ दीस लेगीत कोणाकडेन उलय नाशिल्ले. हाका लागून बुरून आनी ताची भाव-भयणां आपल्या बापायक एक मख्ख मनीस समजतालीं. तांचे मुखार येवंक लेगीत तीं फाटीफुडें जातालीं.

बुरून आपल्या बापायचे कुडींत जेन्ना भितर सरलो तेन्ना ते जनेलाकडेन दवरिल्ल्या व्होल्तेरार बशिल्ले. ते कपडे घालून गळ्यात स्टेथेस्कोप हुमकाळावन तयार आशिल्ले, म्हणल्यार आतां ते दुयेतींक पळोवंक भायर सरपाचेच आशिल्ले. बुरून कुडींत भितर सरनाफुडे बापायन आपलो हात मुखार करून विचाल्लें, "तुजो प्रोग्रेस रिपोर्ट दाखय."

बुरूनान भियेत भियेत एक घडी केल्लो कागद हातांत दियनाफुडें ताच्या बापायन माथें खरपीत ताचे मार्क पळयले. त्या उपरांत तो कागद परतो दियत म्हणलें, "हांवूय शिकता आसतना गणितांत खूब हुशार नाशिल्लों. पूण ऐशीं मार्क मेळ्ळे ना तरी चाळीस - पन्नास मेळपाक कसलेच त्रास जाय नाशिल्ले."

बुरूनाची नदर सकल गेली.

बापायन उटठा - उटठा म्हणलें, "फाल्यांच्यान कराली मास्तर सायबाकडेन वचून गणित शिकपाक सुरू कर. थंय सद्दां चलत वतलो आनी चलत येतलो."

कराली मास्तर सायब थंयच्यान अडेच मैल पयस कामराडांगा हांगासर रावताले. ते सद्‌दां थंयच्यान सायकलीन शाळेंत येताले. गणिताचे अध्यापक म्हूण तांचें बरेंच नांव आशिल्लें. अशें म्हण्टात, जेवन जातकूय बशिल्लेकडेन त्याच उशट्या ताटांत ते आपल्या बोटांनी गणितां मांडटाले. गणितांतल्या व्हडल्या व्हडल्या प्रस्नांची सपनां पळयताले. लोक जशे काणयां-कादंबऱ्यांची पुस्तकां वाचतात, कराली सर सामके तेच तरेन गणितांची पुस्तकां वाचताले.

लोक जशे दुखी काणयो वाचून रडटात, विनोदी काणी वाचून हांसतात, भुताची काणी वाचून भयाभीत जातात, कराली सरूयबी तेच तरेन गणिताची मोटीं मोटीं पुस्तकां वाचतां वाचतां केन्नाय मोटघान हांसताले, केन्ना रडटां-रडटां आपली दुकां पुसताले आनी केन्ना गणिताचो चुकीचो प्रस्न पळोवन भियेवून आंग शिरशिरायत 'राम - राम - राम' म्हणटाले! पूण सभावान ते सामके विसरभोळे आशिल्ले. आपल्या विद्यार्थ्यां मदल्या खंयच्याच विद्यार्थ्यांच्या नांवाची तांका याद उरनाशिल्ली. कोणायगेर पार्टेक वचून आयले उपरांत जर तांका कोणेंय विचाल्लें, "करालीबाबू, 'रोहू' नुस्ते कशें जाल्लें?"

जाप दियत कराली सर अजापीत जावन विचारताले, "रोहू नुस्तें! जेवणांत रोहू नुस्तेंय आशिल्लें?"

एकदा खीर खावन जातकच धेकर दियत ताणी म्हणिल्लें, "वा! धंय सामके बरें आशिल्लें! इतलें गोड धंय हांवे केन्नाच खावंक ना." गणिताचे इतले फामाद अध्यापक जावन लेगीत कराली बाबू हिसपाक सामके कच्चे आशिल्ले. सवा रुपया किलो कारांती जाल्यार अडेचशें ग्रामांचे कितले? ताचो हिशोब ते बाजारांत भाजी घेता आसताना कसोच लावंक शकनाशिल्ले. निमाणें बेजार जावन ते त्या पसरकाराक म्हण्टाले, "आरे बाबा, तूंच हिशोब करून पैशे सांग. हांव हातूंत मात्सो दुबळो आसां."

सद्दां अडेच मैल चलत वचून, कराली सराकडल्यान गणित शिकप! बुरूनाक सामको राग येतालो.

ही गजाल समजुनूच जायत बापायन म्हणिल्लें, "त्रास काडीनास्तना मनीस फुडें वचूंक पावना. तुमी सुख-सुविधांचेर वाडटात देखूनच तुमकां सगळें सोपें दिसता. रवींद्रनाथ पसून येद्या व्हडल्या गिरेस्ताचो पूत जावन लेगीत नोकर-चाकरांच्या मदीं ल्हानाचो व्हड जालो. तुज्यो सगळ्यो सुख-सुविधा, मनरिजवण आनी हेर गजाली आयच्यान सोपल्यो अशें समज. आत्ताच्यान तुजे कश्टांचे दीस सुरू जातले. गणित शिकपाक तुकां सद्दां पाच मैल पायांनी यो वच करचें पडटलें. हो तुजो पयलो त्रास. हाचे उपरांत दुसरो, तिसरो, अशे

कितलेशेच त्रास तुकां 'भोग'चे पडटले. 'तयार' राव.''

इतलें सांगून बापूय भायर सरलो.

बुरूनाक गणितांत तेरा मार्क पडिल्ल्यान घरांतलीं सगळीं तोंडां फुगोवन रावतालीं. कोणूच ताचेकडेन चड उलय नाशिल्लो. आवय तर उलयच नाशिल्ली. धाकलो भाव आनी भयण-गुरून आनी बेलीय बी पयस रावतालीं. बुरूनान एकदा बेलीक आपली फाट खोरजुवपाक सांगिल्लें, बेलीन जाप दिल्ली, ''तुजेकडेन चड उलोंव नाका अशें बाबान सांगलां. तूं तुजी फाट वंटीक घश्टी. खाज थांबतली.''

बुरूनाक कळून आयलें,घरची मनशां ताचो तिरस्कार करतात.

परीक्षे उपरांत स्कुलाक सुटी पडिल्ली. बुरूनाक दीसभर एकलेंपण सामके सतावपाक लागलें. ताच्या इश्टांकडेनूय चड मेळपा - उलोवपाचेर बंदी घाल्ली. फकत सांजेच्या वेळार देड वर खेळपाखातीर ताका मेकळीक दिल्ली. हाका लागून बुरून सामको बेजार जाल्लो. घरात आजोच ताचेकडेन पयले भशेन वागतालो. अपुरबायूय करतालो. पूण तांचेकडेन चड वेळ घालोवपाचो कसलोच उपाय नाशिल्लो. ते दीस रात वैजकी वखदां तयार करपांत गुल्ल आसताले. ते 'धातूसाधीत' आनी 'भेषज' अशे दोनूय तरेचे वैजकी उपचार करताले. ते दीस रात हीरा, भस्म, मुक्त भस्म, स्वर्ण सिन्दूर तयार करपांत मग्न आसताले. राना वनांतल्यान वालींची मुळां, निवलकांडयो कितल्याशाच तरांची पानां ते एकठांय करताले. उपरांत तांची वखदां तयार करताले. एलोपैथी चिकित्सेविशीं तांका तिडक आशिल्ली आनी हे बाबतीत ते आपल्या दोतोर पुताकूय उणें लेखताले. सांजेच्या वेळार जेन्ना तांच्या बाजारांतल्या दुकानाचेर जाण्ट्यांची मैफल बसताली, तेन्ना संद सादून तांचेकडेन तशी गजाल करपाकूय ते विसर नाशिल्ले, ''हो भेलू दोतोर तरी रे? आतामेरेन ताका नाडी पसून पळोवंक येयना.''

घरांत बुरूनाक हालीसाराक सामकें एकलेंपण जाणवतालें. गणितांत तेरा मार्क मेळोवप म्हणल्यार कितें ते ताका नसांनसांतल्यान जाणवपाक लागलें.

दनपरां घरांत शांतता पातळिल्ली. बापूय खंयच्या तरी पेशन्टाक पळोवपाक गांवाभायर गेल्लो. आवय, बेली आनी बुरून न्हिदिल्ले. आजो आनी घरचो वावराडो शिबू आंगणांत, वानान भांगाची सुकिल्ली पानां कुट्टाले. घरांत पोशिल्लें मुंगस हांगा थंय भोवतालें. आपणे पाळिल्ले मैनेच्या पांजऱ्यामुखार बुरून वचून उबो रावता, थंय आसा, मैना किलबिलूंक लागली. ''बुरूनाक मेळ्ळ्यांत गणितांत तेरा! .... बुरूनाक मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा!... बुरूनाक मेळ्ळ्यांत गणितांत तेरा...''

बुरूनाक अजाप जालें. मैनेक अशें म्हणपाक कोणें शिकयले? मैना खऱ्यांनीच हुशार आशिल्ली. खंयचीय गजाल दोन-चार खेपो आयकताना फुडें ताका ताची. बरी याद उरताली. शेर्त बुरूनाक चळोवपा खातीर कोणेतरी ही गजाल मैनेक शिकयल्ली आसूं येता.

पुरायतरेन अपमानित जावपांत आता उरिल्लें तरी कितें? आयज काल बुरुनाक आपले कपडेयबी आपणाकूच धुंवचे पडटाले. आपली उश्टीं आयदनांय ताकाच धुंवची पडटाली. त्याशिवाय आपलें जोतें पॉलिश करप, आपले हाथरूण घालप आनी मच्छरदाणी लावप, आपल्या अभ्यासाचे कुडींत सान्न मारप अशीं कामां ताचीं ताकाच करचीं पडटालीं. घरांत आपल्या भावभयणांक जांव वावराड्याक कसलेच काम करपाचो हुकूम तो सोडूंक शकनाशिल्लो. हो सगळो अपमान कशेय तरेन सोसूंक जातालो पूण घरच्या पोशिल्या सवण्याच्या तोंडातल्यान लेगीत तेरा मार्कांची खबर आयकून तो रागान पेटून उठलो. बरोच वेळ तो मैनेक तसोच रागान पळयत रावलो. आनी उपरांत कोणाक कांयच सांगिनास्तना वोग्गी घरातल्यान भायर सरलो.

शिंयाळ्यांतली दनपार आशिल्ली. मातशें वोत पडिल्ले कॉलनीतल्या मळावेल्यान बुरून आपले भितरूच शेणिल्ले अवस्थेत चलतां चलतां त्या ल्हानशा गावांसारख्या शारांतल्यान भायर सरून बद्द गोसाय डाकवाच्या बागांत भितर सरलो.

# 2

गोसाय डाकवाचो बाग वा गोसाय बाग म्हणल्यार एक विशाल जंगली वाठार आशिल्लो. त्या जंगलांत एक घट्टण म्हणल्यार म्होडकें घर आशिल्लें. एक व्हडलें तळें आशिल्लें. रानटी बोरां आनी काण्णांची कितलींशींच झाडां आशिल्लीं. इतलीं बरीं बोरां आनीक खंयच जाय नाशिल्लीं. पळोवपाक सामकीं चण्याच्या दाण्यावरी दिसतालीं. पूण रुचिक, सामकीं गोड आसतालीं. पूण त्या रानांत इतले सोरोप-विंचू, खातकुतली, काट्यांची झाडां-झोपां आशिल्ली, ती जंगली बोरां खावपाक थंय कोण वच नाशिल्लो. तीं सगळीं बोरां सवण्यांच्याच पोटांत वतालीं. जीं झाडां रानाचे भायलेवटेन आशिल्लीं, त्या झाडांचेर फळां धरलीं रे धरलीं भुरग्यांचे चोम्यांचे चोमें येवन तीं नाच्च करताले. झाडांनी गच्च भरिल्ल्या त्या दाट जंगलांत चड लोक वचनाशिल्ले देखून तळ्याच्या दक्षिण दिकेवटेंतल्या झाडांची बोरां तशींच उरतालीं. बोरांचो मोसम उलगून वतकच जमनीर झडिल्ली बोरां रुजतालीं आनी नवीं झाडां तयार जातालीं. अशे तरेन रान वाडत वतालें.

बुरुनाचे मन त्या दिसा सामके उडिल्लें. आनी मन थाऱ्यार नासता तेन्ना कितेंय वांकडें-तिकडें नाका आशिल्लें करपाची इत्सा जाता. जशें ह्या वेळार बुरूनाक दिसतालें, कशेय तरेन आपणे त्या दुर्गम जाग्यार वचचें आनी थंयच्या सामसूम जाग्यार कांय वेळ वोग्गी बसून रावचें आनी रानटी बोरां खावचीं. जरी सोरोप-विंचू चावलो जाल्यारचडान चड इतलेंच जातलें, म्हणल्यार तो मरतलो. ह्या वेळार तें मरणूच योग्य. खातकुतली लागल्यारुय जाता. ज्या अपमानाच्या उज्यांत तो जळटालो त्या जळपापरस खातकुतलेची खाज काय व्हड व्हय.

त्याच निर्शेल्ल्या मनान बुरून रानांत रिगलो. थंय भितर सरताच ताका कळून आयलें, ह्या अटंग्या रानाक बलांडून रानटी बोरांच्या झोंपामेरेन पावप सामकें कठीण काम. कांटे आनी खातकुतलेच्या पानांची

पर्वा नासली, तरी मुखार वचपाक वाट तरी जाय आशिल्ली. तो जे वाटेतल्यान भितर सरपाचो यत्न करतालो थंय झोपाच्यो आनी रुखांच्यो ल्हान ल्हान खांदयो आपले हात फुडें काडून ताका मुखार वचपापसून आडायताल्यो.

मुखार पचपाचो एकूच उपाय आशिल्लो तो म्हणल्यार टार्जनाभशेन एका व्हडल्या रुखार चडून एके खांदयेक घरपाचें आनी हुमकळून झेल घेवन दुसऱ्या रुखार वचपाचें, मागीर थंयच्यान तिसऱ्या रुखार. अशे तरेन तो फुडें वचूंक शकतालो. अशें करतना तो पडल्यारुय कांय पर्वा नाशिल्ली. ताचे घाय ताका चड दुखचेय नाशिल्ले. तेन्ना तरी घडये ताच्या घरच्यांक कळपाचें, ताणी बुरूनाचें काळीज कितलें दुखायलां पळय तें..

रुखार चडपांत बुरून सामको वस्ताद आशिल्लो एका शिरिशाच्या रुखार तो वानराभशेन चडलो. जमनीक समांतर आशिल्ल्या एका मोटच्या खांद्यार मातसो चलत, मातसो दिमखुऱ्यांनी वचून एका कदम्ब रुखाची खांदी धरली. बुरून जमनीपसून तीशेक हात उंच पाविल्लो. अशे तरेन मुखार वचपाक बुरूनाक चड त्रास जाय नाशिल्लो. आशिकुशीक कोणूच नाशिल्ले. फकत शिंयाळांतलें शीतळ वारें व्हावतालें. चारुय वाटेन शेंदूरी वोत फांकिल्लें. झाडां-झोंपातल्यान असंख्य शेवण्यांचो आनी पारव्यांच्या उडपाचो आवाज आयकूंक येतालो.

रुखांच्या खांदयांचेर हाता पायांची कात सोलपल्ल्यान आंग चरचरतालें. एका कोडुलिंबाच्या झाडार बसून बुरूनान मातसो विसव घेतलो. उपरांत मागीर सांबाळून फुडें वचपाक लागलो. खूब कश्ट घेतिल्ल्यान शिंयाच्या दिसांनी लेगीत ताका घाम फुटिल्लो. तो जितलो मुखार वतालो तितली झाडां पेडांची दाटाय आनीकूय वाडत वताली. सगळे रुख एकमेकांक तेकून तेकून आशिल्ले. त्या सगळ्या रुखांच्यो खांदयो एकमेकांत घुस्पल्ल्यो ताका लागून ताका एका रुखावेल्यान दुसऱ्या रुखार वचपाक व्हडलेशे त्रास पडनाशिल्ले. एकाद्रया रुखार अदिंमदीं ताका वागोळीं हुमकळटाना मेळटालीं. एका रुखार बसून चानी रूमडणिं फळां खाताली. सकल झोपांतल्यान एक साळ खड्खड् आवाज करीत गेली. बुरून रुखार आशिल्ल्या घोटेरांवेल्यान

दांग घालीत मुखार वचूंक लागलो. अदींमदीं एकाद्रया घोटेरांत शेवण्यांची तांतयांय आशिल्लीं. एका घोटेरांतली पिलां ताका पळोवन कांचवेंवन बोवाळ करूंक लागलीं.

बोरांच्या रानांत पावता म्हणसर बुरुनाक त्रास जाले खरे पूण हें काम ताच्या शिवाय आतांमेरेन कोणूच करूंक पावलो ना, हे चिंतून तो आपले आपणाक सामको पराक्रमी समजूंक लागलो. एका शिश्याच्या झाडावेल्यान तो ल्हवू ल्हवू सकल निर्जन शांत आनी काळख्या जाग्यार देंवपाक लागलो. देवता आसताना धरपाक सकल एकूय खांदी नाशिल्ल्या कारणान ताका सुमार धा हात उंचायेवेल्यान उडी मारची पडली. कुशिल्ल्या पानांची रास जमनीचेर गादयेवरी पातळील्ल्यान बुरूनाक खंयच लागलें ना. फकत ताचे दोनूय पांय पानांतल्यान मात्शे मुखार निसरत गेले. सकल कांटो काय कवची कितेंतरी आशिल्ली ती मात ताच्या पांयाक तोंपली.

एका उक्त्या जाग्यार वचून बुरूनान जमनीर बसून आपलो तळवो पळयलो. हुस्को करपासारकें कांय नाशिल्लें. कोंग्याच्या कट्टयाचो कुडको ताच्या पायांक भरिल्लो. असल्या गजालींची ताका संवय आशिल्ली. ताणे तो कुडको भायर काडलो आनी मुठभर हरयाळी हुमटावन घासून ताचो रोस काडलो. हें वखद ताच्या आज्यान ताका शिकयल्लें. हरयाळेच्या रोसान कितलेशेच रोग बरे जातात. कितल्याशाच तरांची वीखां देवतात...

आजो ताका कितें ना कितें शिकयत आसतालो. मनशाच्या आंगांत सद्दां एके तरेचें वीख तयार जाता, ताका टॉक्सिन म्हण्टात. हें वीख एखठांय जावन मनशाचे कुडींत तरेतरेची दुयेसां तयार करता. मांस, नुस्तें खाल्यार टॉक्सीनाचे प्रमाण आनीकूय वाडटा. ताका लागून ताचो आजो ताका सद्दा सकाळी 'खानकुनी' पानांचो रोस, थोडें दूद आनी गोडाचो खडो दिवन खूब उदक पिवयतालो. हातूंत आगांत टॉक्सीन साठूंक पावना. ताचो आजो जेवणांत नुस्ते-मांस खावपाक खर विरोध करतालो. ह्या विशयाक धरून ताचो बापूय आनी आजो हांचेभितर सदांच वाद जातालो. बापूय म्हण्टालो, प्रोटीनाखातीर मांस - नुस्तें खावप गरजेचे जाल्यार आजो म्हण्टालो, जनावरां-सवण्यांच्या आंगांतल्यो पेशी आनी मनशाच्या आंगातल्यो पेशी हांचे मदीं खूब फरक

आसता. तांका खावन त्रासूच जातात.

बुरून हरयाळेचो रोस लावन उठलो. चारुय वाटेंतल्यान असंख्य झाडांचेर बोरां आनी काण्णांचे घोंस काळ्या कुपांवरी हुमकळटाले. थंय आशिल्ल्या करमलाच्या झाडांचेर लागिल्ल्या पिक्या करमलांचो घमघम सुटिल्लो. चारुय वटेतल्यान सवणीं आपलीं पाखां फडफडावन उडटालीं. पाखेय आपली रंगीत पाखां फुलोवन उडटाले. थंयचें सगळें वातावरण, ओली जमीन, दाट शीतळ सांवळी आनी शांततायेक लागून सामकें भिरांकूळ दिसतालें.

बुरुनान मुठभर रानटी बोरां काडून आपल्या तोंडान घाल्यांत मात, ताची नदर तळ्याचे दुसरे वटेन लुंगी न्हेसून उबो आशिल्ल्या एका उगड्या मनशाचेर पडली. तो ताका एकसारखो पळयत आशिल्लो. सामकी अजापाचीच गजाल!

त्या तळ्याचे उदक कोणूच वापरीनाशिल्ल्यान तें उदक कुसून सामकें पांचव्या कोराचें जाल्लें. त्या तळ्यांत उदकांसाठो नाशिल्ले तरी उदकाचेर शेळ्याचो पातळ थर मांडिल्लो. त्या तळ्याची धडा कोसळिल्ली. ताच्या धडेर दाट रान वाडिल्लें आनी चारूय वाटेंतल्यान विखाळीं काट्यांची झोपां वाडिल्लीं. ह्या रानांत कोण जळवाक लेगीत येनाशिल्लो. जाल्यार हो मनीस आयलो खंयच्च्यान?

बुरूनूय ताका पळयत रावलो. त्या दीस ताची मनःस्थिती बिगडील्ली, नाजाल्ल्यार त्या मनशाक पळोवन तांका थर्त अजाप जावपाचें! घडये भिवपाचो लेगीत. पूण त्या वेळार तो इतलो वाजेल्लो, खंयचेच वस्तूचो ताका भंय दिस नाशिल्लो. नाय म्हणल्यार ताका खंयच्याच गजालीची कसलीच खंतूय नाशिल्ली.

बुरून ताका पळयता थंय आसा, त्या मनशान धडेवेल्यान तळ्यांत उदकांत पाय घालो. आनी त्या उपरांत सहजतायेन तो त्या उदकांतल्यान सडसडीत पावलां मारीत ताचेवटेन येवंक लागलो. उदकाचेर अशे तरेन कोण चलूंक शकता, हें बुरूनाक खबर नाशिल्लें. तो सामको अजापीत जालो. विज्ञान तर असल्यो गजाली मानीना. गुरूत्वाकर्षण नांवाची म्हूण एक वस्त आसता. स्पेसिफिक ग्रेविटी आसता, मागीर हें कितें?

कितेंय आसू! तो मनीस तसोच चलत आयले तडीर आयलो. ताच्या पांयांचे तळवे मातूय भिजूंक नाशिल्ले.

त्या मनशान आपले मोट-मोटे दांत दाखोवन म्हणलें, ''कितें रे बाब, भियलो?''

बुरूनान ताका बेजारून विचारलें, ''कसलो भंय? भियतलो कित्याक?''

''भिवूंक ना?'' तो मनीस अजापलो.

''ना. हांतूत भिवपा सारके कितें आसा? हांव फकत विज्ञानाचो विचार करतालों. म्हाका दिसलें, विज्ञानाक अजूनूय बरेच कितें जाणा जावपाक जाय.''

''तें तर जालेंच.'' इतले सांगून त्या मनशान मुमुर्खे हांसत, जे तरेन कोणूय आपली टोपी काडटा, तेच तरेन आपली तकली मानेवेल्यान कुशीक काडली आनी आपल्या हातांत धरून, तकलेवेले टक्कल पडिल्लो जागो झाडून परतून तकली आशिल्ली तशी जाग्यार लायली आनी म्हणलें, ''माथ्यांत उयो पडल्यात देखून खाजयतालों.''

''ओह!'' बुरुनान म्हणलें.

त्या मनशान चाळवत विचारले, ''कितें जालां, सांग तरी? हेवूय खेपे तूं मातूय भियेवंक ना?''

बुरुनान भुजा उबारून म्हणलें, ''तुज्या माथ्यान बऱ्योच उयो पडल्यात, ताका लागून तुकां खाज येता, हातूंत भिवपासारके कितें आसा?''

त्या मनशान रागान म्हणलें, 'तुकां कितें दिसतां, हांव तुजेकडेन फकाणां करता?''

''तशें कित्याक दिसतलें?''

सामको तिडकीन कांय वेळ बुरूनाक वयर सकयल पळोवन जातकच ताणें म्हणलें, ''तुकां दिसता आसतलें. हांव तुकां जादू दाखयतां.''

''आसूं येता.''

त्या मनशान अचकीत आपलो उजवो हात वयर उखल्लो. बुरुनान पळयलें, तो हात सामको लांब जावन करमलाच्या झाडाच्या तेंगशेर पाविल्लो. दुसऱ्याच खीणाक ताणें एक करमल काडून बुरूनामुखार उडयत म्हणलें,

“पळयलें?”

बुरूनान बेजारून विचाल्लें, “हातूंत न पळोवपासारखे कितें आसा? म्हज्या मुखारुच तर तुवें हें तोडलां?’

ताणे तिडकून विचाल्लें, “जाल्यार भियेना कित्याक तर?”

“भंय दिसना जाल्यार हांव कितें करूं?” अशें म्हणून बुरूनान एका रुखाच्या घोंसाची कांय बोरां काडून आपल्या तोंडान उडयलीं.

त्या मनशान तोंड वांकडें करून म्हणलें, “हे तरेन बोरां खातना लज दिसना? दोळ्यां मुखार हांव उबो आसून लेगीत तूं सुसेगाद बोरां खायत आसा! आनीकूय पळोवपाक जाय? घे।”

अशें म्हणून ताणे अचकीत आपल्या उजव्या हातान दावो हात निखळायलो आनी तरसादीभशेन चारुय वटेन आनी मागीर दोनूय हातांनी आपले दोनूय पाय काडून दाखयले. उपरांत अचकीत गायब जालो आनी परतून हाजीर जालो. अचकीत तेरा – चौदा फूट उंच जालो. म्हणटा म्हणसर होमियोपैथीचे इल्लेशे बाटलेवरी सामको ल्हान जालो. इतलें सगळें करून जातकूच ताणें आपले पयलीचे रुप धारण केलें आनी खरशेत म्हणलें, ‘पळयलें?’

“हूं.”

“हूं” म्हणल्यार? इतलें सगळें पळोवन सुद्धां तुकां घुंवळ आयली ना? ना म्हणल्यार हांगच्यान पळ्ळोय ना? फकत उब्या उब्यांनी बोरां खायत आसा. हांव कोण जाणां तू?”

“कोण...?”

“हांव गोसाय डाकवाचो उजवो हात निधिराम. हांगा दोनशें वर्सांसावन रावतां. कळ्ळें? दोनशे वर्सांसावन!”

“कळ्ळें”

“कितें कळ्ळें?”

बुरुनान चाळवत म्हणलें “सामकी सोपी गजाल. हातूंत न कळपा सारके कितें आसा? तुमीं हांगा दोनशें वर्सांसावन रावतात.”

त्या मनशान गंभीर जावन म्हणलें, “बाब, हेंच सत् तुकां कळूंक ना. दोनशें वर्सां म्हूण कोण मनीस जिवो रावूंक शकता?

“ना. शकना.”

“जाल्यार हांव कसो रावतां?”

“आतां हांव कशें सांगूक शकतां?”

त्या मनशान बेजारुन म्हणलें. “अजूनय तुकां खरें कितें ते समजूंक ना? खरें म्हणल्यार हांव जिवो ना.”

बुरुनान परतून तोंडान बोरां उडयत म्हणलें, “तें म्हाका कित्याक पडलां?”

“उफ्! बरोच शापोतां उलयता मरे तूं. भुताक भियेना? कसलो भुरगो रे?” बुरुनान म्हणलें, “म्हाका मातूय भंय दिसना.”

हे आयकून त्या मनशाचो चेहरो सामको पडलो.

सामको भयाभीत जावन दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी बुरुनाक पळोवपाक लागलो. आनी एक लांब स्वास घेवन म्हणलें, “खऱ्यानीच, तुका कसलोच भंय दिसना?”

“ना.”

निधिरामान आपल्या हातांनी आपले दोळे पुसले. दुखी जावन ताच्यो नाकपुडयो थरथरुंक लागल्यो. दोळे पुसून भरिल्ल्या गळ्यान ताणें म्हणलें, “तुवें म्हाका सामको त्रासांत घालो. आता म्हज्या लोकांमदीं म्हाका तोंड दाखोवप लेगीत कठीण जातलें. गोसाय सरदाराक कळ्ळ्यार तो म्हजी गोमटी पिळटलो.”

बुरुनान “ताची फकणां मारीत म्हणलें” तुकां आनी तुजे गोमटेचो कसलो भय? तुजी तकली तर तूं कांय खीणा पयलीं फुटबॉलावरी हातांत घेवन नाचयतालो.”

त्या मनशान दुखी जावन म्हणलें, “आमचे दुनयेंतले नेम सामके वेगळे आसात. कोणायकडल्यान जर कसली चूक जाली जाल्यार गोसाय सरदार ताची तकली काडून घेता. तुमी लोक म्हण्टात, लजेन तकली कापली. ती तर फकत वाक्प्रचारापुरती खबर जाली. तकली खऱ्यांनीच कापीनात. पूण आमची गोमटी खऱ्यांनीच कापतात. आमच्या समाजांत ही सामकी लजेची गजाल. बाब, तूं तूं मातसो एकदां तरी यत्न करून पळय. म्हजो इल्लो तरी भंय दिसता जाल्यार.

बुरुनान म्हणलें, “अशें जावंक शकना. आयज म्हजें मन सामकें उडलां.

अशा वेळार म्हाका मातूय भंय दिसना.''

तो मनीस मोटे आशेन उलयलो, ''कित्याक, तूं कित्याक बेजार जाला? तुज्या मनाक थाऱ्यार हाडपाक तूं जें कितें सांगता, तें हांव करतां. पूण ते पयलीं तुकां उतर दिवचें पडटले, तें म्हणल्यार तूं म्हाका भियेतलोच.''

बुरुनान एक दीर्घ श्वास घेवन म्हणलें, 'तुजेकडेन जावचें ना तें. म्हाका गणितांत फकत तेरा मार्क मेळ्ळ्यात.''

त्या मनशान हांसून म्हणलें, ''अशें आसा! हांव तुकां सगळ्यो जापो शिकयतां. जाय जाल्यार परीक्षेवेळार कोणाक दिसनासो जावन तुज्यो सगळ्यो जापो बरयतां. आतां तरी मातसो भिये मरे म्हज्या राजा पुता!''

बुरुनान हे खेपेक चार बोरां एका बरोबर तोंडान उडोवन म्हणलें, ''भुताकडल्यान कोण गणित शिकता? हांव कराली सराकडेन वचून गणितां शिकतलों?''

त्या मनशान चिंतेस्त जावन म्हणलें, ''सारकें सांगता तूं. हांव मोटऱ्या संकटांत सापडलां. जो मेरेन तुजे मन निराश आसतले, तो मेरेन तूं म्हाका भियेवचो ना. मुन्ना राजा, हांव तुकां आनीकूय काय तरांची कर्तुबां दाखोवंक शकतां. जाय जाल्यार असो मंत्र म्हण्टां, जाका लागून व्हडलें मोड येतलें. पटापट करे पडपाक लागतले. तू सांगता जाल्यार दिसा उजवाडांत उमाशेचो गुपाट काळोख करतां. त्या काळखांत हाडांचे सांपळे आनी पांदरे नाचतना पळय.''

बुरुनान कसलीच पर्वा करीनास्तना म्हणलें, ''तुकां जाय तें कर. कोण आडायता तुकां?''

''तरी तूं भियवचो ना?''

''ना.''

तो मनीस आपली तकली धरून, ढम्म करून जमनीर बसलो आनी आपली दुकां पुशीत बडबडूंक लागलो, ''गोसायबाबा म्हाका सामको सकयल्या पदार बसयतलो. म्हजी पगडी काडून घेतलो. म्हजी अब्रू मातयेक मेळटली.''

चारूय वटेतल्यान रुखांचेर हुमकळत आशिल्लीं भुतां आतां मेरेन वोग्गी

बशिल्लीं. ती सगळीं एका सुरान आइडूंक लागली ''लज तुकां निधिराम, लज तुका निधिराम! लज तुकां निधिराम!''

बुरुन सामको चाळवलो. हो वांठार सामको शांत. हांगा कोणूच आसचो ना अशें समजून तो हांगा आयिल्लो.पूण हांगाचे वातावरण तर सामकें वेगळेंच आशिल्लें. ताणे हताश जावन चारुय वाटेंतल्यान पळयलें. तो परतून शीशाच्या झाडाचेर चडलो आनी पयलेवरी झाडांच्यो खांदयो धरीत धरीत थंयच्यान परतुपाक लागलो.

बुरुनाची मनस्थिती आयज खऱ्यांनीच सामकी बिगडिल्ली.

# ३

सांजवेळ सरून लेगीत बुरुनाचो आजो राम वैज आपल्या दुकानाचेर बशिल्लो.

हे खेपे कुडकुड्याची थंडी पडिल्ली. दीस अस्तमतकूच चडसो रस्त्यार कोणूच दिसनाशिल्लो. बाजारातले चडशे पसरे बंद जाल्ले. गिरायकांचीय गर्दी बरीच उणी जाल्ली. फकत वैद्याच्या दुकानाचेर सदच्या अड्डेकारांची बसका भरिल्ली.

ह्या बसकेंत जाण्टेच सामील जाताले. आजूय ते सगळेजाण कांबळ ओडून तकलेर कानटोपी घालून, गळ्यांत मफलर बांदून आनी पायांक मेय घालून एकमेकांक तेकून बशिल्ले. मुखार एक पेत्रोलमास पेट्टालो.

वैजान म्हणलें, ''तुमकां खबर आसा, हें खेपे म्हज्या नातवाक बुरुनाक गणितांत फकत तेरा मार्क पडल्यात.''

सगळ्या जाणांनी म्हणलें, ''हय हय, आमका खबर आसा.''

रामबाबान तोंड वांकडे करून म्हणलें, 'हें आनी कशें कळचे ना! चल्याच्या

बापायनूच सबंद शारान बोवाळ घाला! पूण हांव विचारतां तुमकां, गणितांत तेरा मार्क पडले म्हूण अशें बिगडलें तरी कितें? अशें खंयचे मळब कोसळ्ळें? जे मनीस आपणाक व्हडले विद्वान आनी बुदवंत समजतात तांची दशा हांव पळयत आसां. आतां म्हज्या पुताक भेलूकूच पळयात! दोतोरकीच्या शिक्षणांत गोल्ड मेडल मेळ्ळां ताका. आपल्या व्यवसायांत ताका मान सन्मानूय फावो जाला. पूण अजूनय पिडेस्ताची नाडी पळोवन तो सांगूक शकना, ताच्या पोटांत गॅस जाला काय ताच्या काळजांत दुखता! पिडेस्ताचो स्वभाव बिगडला काय तो पिसो! हें सगळे कळप म्हणल्यार खेळ न्हय! पूण गळ्यान स्टेथेस्कोप लांबोवन बावळ्यांक सुयो तोंपून पिडेस्तांचो जीव काडीत आसा. हांव सांगता, म्हज्या नातवाक ही वैजकीच शिकयतलों. ताका गणितांत तेरा पडल्यार कांय पर्वा ना. चुकीचें शिकचे परस मूर्ख राविल्लो बरो."

सगल्यांनी तकल्यो हालयत म्हणलें, "सारकें तुमचें."

हयकारांत हयकार मेळोवपा बगर दुसरो उपायूय नाशिल्लो. राम वैजाक सगलेजाण भियेताले. ते सामके खरे, प्रभावी आनी आदर्शवादी मनीस आशिल्ले.

आपल्या नातवाची बाजू घेवन राम वैज आनीकूय कितें सांगूक सोदतालो पूण तेन्नाच रिटायर्ड सबजज धीरेन चटर्जी हातान सत्री घेवन दुकानांत भितर सरले.

सत्री पळोवन सगल्यांक अजाप जालें.

महीमबाबान विचाल्लें, "धीरेनबाब, कितें खबर? आयज सामको छत्रपती जावन आयला. भायर कितें पावसाचें वातावरण आसा काय कितें?"

धीरेनबाबान दीर्घ स्वास घेवन म्हणलें, "आरे नारे बाबा, ही सत्री म्हणल्यार एक आवत कशें."

"आवत? आवताचीशी गजाल खंयच्यान आयली?"

"सांगता." अशें म्हणून धीरेनबाबान एका कदेलाचेर बसून आपल्या बंद कोटाचे वयले बुतांव सोडीत म्हणलें, "'संवसार बरो न्हींबाबा!' ह्या वस्तेंत एक वाग भितर सरला. खबर आसा तुमकां?"

वाग!

वाग!!

वाग!!!

थंय बशिल्ल्या सगल्या लोकांच्या तोंडातल्यान फकत एकूच उतर भायर सरलें.

धीरेनबाबान म्हणलें, ‘‘केन्ना तरी एक काणी आयकल्ली, एक इंग्रज सायब आयलो. आपली तकली लडोवन ताणें त्या वागांच्या तोंडामुखार फटाक करून आपली सत्री फुलयली. एकदम अशें आक्रमण जाल्लें पळोवन वाग, भियेलो आनी भिवून पळ काडली. देखूनच आयज हांवे भायर सरतना सांगाताक सत्री घेतली.’’

रामा वैजान बेजारून म्हणलें, ‘‘वाऱ्यावयल्यो गजाली सोडात आनी सत किते ते सांगात. हांव विचारतां, वागाक खंय पळयला?’’

‘‘कांय विचारुं नाका. आयज सांजचो हाथपख्याच्या चायेच्या बागांतल्या उक्त्या मळार पासयेक गेल्लों. सांगाताक म्हजो नातूय आशिल्लो. म्हाका त्या मळार चार पांच सुण्या पेटे खेळटना दिश्टी पडले. नातवाच्या हट्टाक लागून निमाणो एका पेट्याक धरूंक म्हूण मुखार सरलों. म्हऱ्यांत वचून पळय जाल्यार, आरे बाबा! ते सुण्यापेटे-बिटे नाशिल्ले. चार पाच वागाचे पेटे एकमेकांचेर पडून वाकुळटाले.’’

‘‘सारके पळयल्लें तरी? ते वागाचेच पेटे आशिल्ले?‘‘

धीरेनबाबान मोट्या विस्वासान म्हणलें, ‘‘सामको रॉयल टायगर! बिबटो वा तरस न्हय. पट्टे आशिल्लो खरो सुंदर रानाचो राजा. तांका पळयनाफुडे हांवे धांवत म्हज्या नातवाक वेंगेंत घेतलो आनी थंयच्या धांवत सुटलों एकदांचों. वागाचे पेटे थंय आशिल्ले म्हणल्यार, तांचे आवय बापूय थंयच आसूंक जाय. तुमी सामके सादूर रावात.’’

हेमबाबान उठून जोतें घालीत म्हणलें, ‘‘हांव आतांच गेल्यार बरो. दिगिन, म्हाका मातसो मुखार सोडून यो रे.’’

बाकीचेय सामके उतावीळ जाले. उपेनबाब ‘राम राम’चो जप करतना पळोवन, शशधरबाबान म्हणलें, ‘‘हो तर भुताचो मंत्र. वाग किते रामाचें नांव आयकून पळटलो?’’

"जाल्यार?"

रामबाब सामके धाडशी आशिल्ले. मोटच्या धीरान ताणें "म्हणलें, पूण वागाक भिवून कशें जातलें? उत्तर-बंगालातल्या ह्या सगळ्या वांठारांनी वाग येवत रावतात. फाटल्या वर्साय आयिल्लो. पूण वस्ते भितर मात येवंक नाशिल्लो."

सगळ्यांनी म्हणलें, "गजाल खरी. पूण...!"

बेसकेंतले लोक आनीक चड वेळ बसले नात. थोडो वेळ बसले आनी सगळे वांगडाच वचूंक उबे रावले. फकत मन्मथबाबूच उरले.

रामबाबांक कसलोच भंय दिसलोना. सगळे जाण गेले तरीय ते सामके सुसेगाद बसून रावले. तांचेकडेन पिडेस्तांचीं चड गर्दी जाय नाशिल्ली. सगळे खोकत – खोकत वचून ताच्या चल्ल्याक भेलूच्या चेंबरांत वचून गर्दी करताले. इतलें आसूनय रामबाब सामके निश्चींत बसून रावताले. सत्तरा वयर तांची पिराय आशिल्ली तरीय फुडाराविशीं ते खूब आशावादी आशिल्ले.

मन्मथबाबान लांब स्वास भरीत म्हणलें, "म्हाका ताकतिक ना रे बाबा, हांव वागाबिगाक भिये ना. पूण ताचेय परस भिरांकूळ अरिश्ट म्हाका जाणवता."

"कसलें अरिश्ट?"

"तुकां हाबू गुंडाची याद आसा?"

राम वैजान म्हणलें, "बरी याद आसा. हाबूच्या केशी वेळार तू अधिकारी आशिल्लो आनी हांवें साक्ष दिल्ली. ह्याच बारा तेरा वर्सां फाटली तर गजाल, याद कशी उरची ना?"

मन्मथबाबान परतून आनीक एकदां लांब स्वास घेत म्हणलें, "हांवें ताका जल्मठेपीची ख्यास्त फर्मायल्ली."

"तेंय याद आसा. सामके बरें केल्लें तुवें. हाबू सारको बदमाश. हाताक मेळप भोव कठीण. ह्या पुराय वाठारांत ताणे कितले जीव घेतले, कितले खून केले तांचो हिशेब मेळचो ना."

मन्मथबाब चिंतेस्त जावन उलयले, "आं, हे खरें. पूण बंदखणींत वचनाफुडें कळ्ळें, तें म्हणल्यार ताणे नेमान गीता वाचपाक सुरू केल्या, सांजवंदना करपाक लागला. एकादस-पुनवेचो उपासूय बी. बंदखणींत

वचनाफुडें तर ताचो कायापालटूच जालो. बंदखणींत ताका साधूबाबा म्हणपाक लागले. पुलिस, जेलर पसून सगळे ताच्या भक्तांमदीं सामील जाले.''

''हय, ह्यो सगळ्यो गजाली आयकल्यात हांवें.''

मन्मथबाबान परतून दीर्घ स्वास घेवन म्हणलें, ''पूण म्हण्टात न्हय जाचो शेवट बरो ताचें सगळें बरें.''

''म्हणल्यार?''

''तूंच पळय.''

अशें म्हणून मन्मथाबाबान आपले चादरी भितर हात घालून खोमसाच्या फुडल्या बोल्सांतल्यान एक चीट भायर काडली आनी वैजाकडेन दिली.

रामबाब आपले तकलेक त्रास दियत ती चीट वाचूंक लागले –

श्री श्री काली माता प्रसन्न! मानेस्त, चिटयेंतलो आमचो नमस्कार मानून घेंवचो. आमी तुमचेकडेन विधीवत अशें निवेदन करतां, आमचे भौमानेस्त हाबू वस्ताद येत्या होळयेच्या आदले दिसा बंदखणीतल्यान मेकळे जातात. हाबू वस्तादाक तुमी जी खर ख्यास्त फर्मायल्ली ती आमीं विसरूंक नात. श्री श्री कालीमातेचो आमी सोपूत घेतात, तो म्हणल्यार हाबू वस्ताद बंदखणीतल्यान सुटले उपरांत सात दिसांभितर आमीं ह्या गजालीचो भयानक बदलो घेतले. तुमी तयार रावात. हाबू वस्तादाचें भक्त मंडळ. ही चीट वाचतकूच वैजान विचाल्लें, ''तुमकां ही चीट केन्ना मेळ्ळी?''

''आयजूच पोस्टांतल्यान आयल्या.''

रामवैजान मोट्या भरवंशान हांसत म्हणलें, ''भियेले कांय कितें?''

मन्मथबाब दुखी जावन उलयले, ''भियेवपाचे कितें कारण? जाणटो जालां. आतां खास मरणांचोसो भंय दिसना. पूण एक गजाल सांगता, हे लोक बरे न्हय. हांच्या हातांतल्यान मरण आयल्यार मुक्ति मेळची ना.''

रामवैज खळखळून हांसले आनी आपल्या रुबाबदार आवाजान म्हणपाक लागले, ''मुक्ति मेळ्ळी ना जाल्यार नाका मेळूं. आमीं दोगूय अपघाती मरणां उपरांत भुतां जावन मजेंत रांवया आनी एकठांय येवन बसका घेंवया. 'गोसाय बाग' जागो वायट-सो ना. सामको एकांत आसा. लोक पसून यो-वच

करीनात. थंय झाडां-पेडांय खूब आसात. भुतांच्या रोगांचो उपाय करपाक हांव थंयच्या झाडां-पेडांची मोटे उमेदीन वखदां तयार करता. प्रॅक्टीस बरी जमतली. तुंयबी थंय वकिली कर.

राम वैज आपली गजाल सांगून सोपयता थंय आसा, दुकानांत जशें कितें तुफानूच आयिल्लेवरी जालें. सगळ्यो शीसल्यो, बाटल्यो एकमेकाक आपटून खट् खट् आवाज जावंक लागलो. राम वैजान अजापीत जावन चारूय वटांनी पळयलें. मन्मथबाबूय अजापीत जाले, ''तुफान आयलें काय कितें?''

रामबाबान तकली हालोवन म्हणलें, ''आरे ना. ह्या शिंयाच्या दिसांनी तुफान खंयच्यान येतलें? उत्तरेकडल्यान वाऱ्याचें एकाद्रें ल्हार आयलां आसतलें.''

मन्मयबाब थोडो वेळ वोगीच बसून रावले आनी ताणी म्हणलें, ''खरीच रात जाल्या येतां हांव.''

''बस रे. हुक्को तयार करतां.''

मन्मयबाब बसले. राम वैज उठून दुकानाचे फाटले कुडींत हुक्को तयार करूंक लागले. चिलीम पेटोवन तातूंत फूंक मारीत मारीत भायर आयले आनी चिलम हुक्क्याचेर दवरून ती ओडपाखातीर म्हण फुडें काडीत ताणी म्हणलें, ''घे ओड!'' म्हणटा आसतनाच रामबाबून अजापान पळयले, जाचे मुखार ताणे हुक्क्याचे पोंत मुखार केल्लें. तोच गायब जाल्लो.

खंय गेलो मन्मथ? मनांतल्या मनांत हेंच येवजीत राम वैज कदेलाचेर बसून हुक्को ओडूंक लागलो! सगळीकडेन सामसूम जाल्लें. बाजारांतलीं चडशीं सगळीं दुकानां बंद जाल्लीं. त्या ल्हानशा वस्तेचेर तशी पळोवंक गेल्यार लोकसंख्या उणींच आशिल्ली. तातूंत ही हाडां कडकडावपी शिंयाळी रात! अशे स्थितींत कारणाविणें लोक घरा भायर तरी कित्याक रावतले?

पुणून राम वैजाचेर थंडी, वाग, भूत कोणाचोच कसलोच परिणाम जाय नाशिल्लो. बशिल्लेकडेन ते हाबू गुंडाचो विचार करूंक लागले.

# 4

राम वैजाक हाबुचीं सगळीं पाळां-मुळां खबर आशिल्लीं. ह्या शारांत तो ताका ल्हानपणासावन पळयत आयिल्लो. दासू रायालो एकलो एकसुरो अपुरबायेचो पूत आशिल्लो हाबू. आवय बापायच्या अति लाडान आनी तांचेचकडल्यान प्रोत्साहन मेळिल्ल्यान भुरगेपणांतूच बिगडिल्लो. इश्कोलातल्यान पळून वचून गोसाय बागांत बसून वाळेस भुरग्यांसांगाताक बसून विडयो फुसकायतालो. हे पळोवन एक दीस रामबाबान वचून दासू रायाक कागाळ केल्ली, "तुज्या चल्याचेर मात्शी नदर दवर दासूबाब! तो आतांच्यानूच, विडयो ओडूंक शिकला." पूण दासू आपल्या पूताच्या मोगान कुड्डो जाल्लो. तोंड वांकडे करून ताणे जाप दिल्ली, "चल वच तुजे काम कर. म्हजो पूत तसलो न्हय. लोक जळटात ताचेर म्हणूनच ताच्या विरोधांत नाका आशिल्ल्यो गजाली करीत रावतात."

एकलोच अपूरबायेचो पूत आशिल्ल्यान दासू हाबूक कांयच उणें पडूंक दिनाशिल्लो. इतल्याशा ल्हान भुरग्याक तो दर म्हयन्याक ताच्या हात खर्चाक धा-पंदरा रुपया पसून दितालो. पयशांक लागून हाबू आनिकूय बिगडूंक लागिल्लो. पतंग 'कंचे' भोंवरे, इतलेंच न्हय कितलेशेच लेमन जूस घेवनूय बी ताचेकडले पयशे काबार जायनाशिल्ले तो चडसो वालेस भुरग्यांबरोबर फोल्गां मारतालो. आनी नाटकां-सिनेमा पळोवपांतूच वेळ होगडायतालो. इतले ल्हान पिरायेचेरुच ताका मस्ती करपा बदला दुसरें कांयच येवज नाशिल्लें. दर खेपो आपल्या वर्गाचे परीक्षेंत भोपळें मेळ्ळें उपरांत घरा येवन दुकां गाळपाक लागतालो. ती दुकां फकत दाखोवपाची आसतालीं आपल्या अपुरबायेच्या पुताच्या दोळ्यांत दुकां पळोवन, ताचे आवय बापूय ताका व्होंटयेंत घेवन लेगीत ताचीं दुकां पुसपाक तयार आसताले. दासू सगळ्याक ह्या गजालीचे पेरगांव घालतालो, "म्हज्या पूताभशेन शाणो कोणूच आसचो ना. पूण जेन्ना तो शिकूंक बसता तेन्नाच ताचे दोळे दुखूंक लागतात. ताका

बऱ्याशा दोळ्यांच्या दोतोराक दाखोवपाचें चित्तां. फुडल्या वर्सा पळयात तो शेर्त वर्गांत पयलो येतलो.''

दासू ही गजाल वोगीच चडोवन-वाडोवन सांगतालो अशें न्हय. हाबू खऱ्यांनीच बुद्धिमान भुरगो आशिल्लो. वायट संगतीत येवचे पयलीं तो वर्गांत पयलो येतालोयबी.

सोड, जेन्ना हाबू फकत चौदा वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना तो आपल्या बापायच्या पेटलांतल्यान सुमार पांच हजार रुपया आनी आवयच्यो भांगराच्यो वस्ती फारावन घरांतल्यान पळून गेलो. त्या खंतीन दासू चड दीस जगूंक पावलोना. दोन वर्सांनी आवयनूय दोळे धांपले. त्या उपरांत काय वर्सांनी आपले कांय गुंड-बदमास इश्टां सयत परतून येवन गोसाय बागांत ताणे राबीतो केलो. ताचो चेहरो सामको बलबलीत जाल्लो. ताचे दोनूय दोळे सदां तांबडेच आसताले. तो मात लेगीत कोणाचीच पर्वा करी नाशिल्लो. केन्ना कोणाक पेट्टालो, कोणाकूय धरून ताचे सगळे पयशे लुट्टालो. तो आयले उपरांत शारांत आनी भोंवतणच्या वाठारांत चोरयो लुटालूट आनी खून मारामारी सारकिल्यो घडणुको वाडूंक लागिल्ल्यो, भयनाक सपनांवरी! कोणूच मनीस निश्चिंत जावन घरांतल्यान भायर सरनाशिल्लो. दीस पडटाच रस्ते सामसूम जाताले. घरांत बशिल्ले लोक पसून दुबावान भयाभीत जावन रावताले.

हाबू हे खेपेक घडये मंत्र-तंत्र शिकून आयिल्लो. अशीय वावडी पातळिल्ली, ती म्हणल्यार गोसाय बागांतल्या कोठयेंत तो तरेतरेची साधना करतालो. कांय जाणांनी राम वैजाक सांगिल्लें, हाबू केन्ना केन्नाय एका विशाल वागाचे फाटीर बसून पासयेक वता. एका मनशान तर ताका अशें पसून सांगलें, ताणे हाबूक आपल्या दोळ्यांनी उडटना पसून पळयला.

त्या दिसांनी थंय ठाणेदार निशिकान्त आशिल्लो. एका तेंपार त्या ठाणेदाराचो आपलोसो एक काळ आशिल्लो. पूण आतां ताची पिराय जाल्ली.तो रोखडोच रिटायर जावपाचो आशिल्लो. हाका लागून तो मोटे वाद, तंट्यापसून पयस रावतालो. हाबुच्या अत्याचारांक बेजारून लेगीत लोक भंयान ठाण्यार कागाळ करीनाशिल्ले. तेन्ना त्या वेळार राम वैजान आपले वतीन फुडाकार घेवन निशि ठाणेदाराक सांगून समजावन हाबुच्या

आड पावलां उखलपाक राजी केल्लो.

दोन-तीन दिसांनी एक दीस निशि ठाणेदार रामबाबाल्या दुकानार आयलो आनी आपले हॅट काडीत लांब स्वास घेवन म्हणपाक लागलो, ''आरे सायबा! तुवें तरी म्हाका खंयच्या मनशाक धरपाक धाडलो? म्हाका नाका पुरो करून सोडले ताणें!''

''कशें?'' राम वैजाचे कान फुल्ले.

''कांय विचारूं नाका. गोसाय बागांत वचून हांवे छापो मारूंक सबंद घराक घेराव घालो. त्या वेळार हाबू आपल्या वांगड्या सयत भितर आशिल्लो. पूण जेन्ना आमी भितर सरले तेन्ना घर सामके रितें मेळ्ळें. एकूय मनीस थंय नाशिल्लो.''

''खरेंच?''

''आनीक कितें सांगता हांव तुमकां? पळयता पळयतां इतले लोक कोण जाणा खंय नाच्च जाले! हांवें म्हज्या दोळ्यांनी भायल्या जनेलातल्यान हाबूक आपल्या धा-बारा लोकां सांगाताक बसून गांजा ओडटना पळयल्लो. हांवें सबंद घराक रेवाडो घालून शीटी मारीत रिवाल्वर-आर्मां सयत भितर रिगून हाबूक उलो मारिल्लो, ''हाबू, सडसडीत हत्यारां उडय!''

पूण हें सगळें खंय कोणाक सांगतलो? कुडींत वचून पळय जाल्यार हाबू आनी ताच्या दळाची नांव निशाणी लेगीत नाशिल्ली. खंयूय गुप्त कोठी वा भुंयार आसत म्हूण सामको सोद घेतलो. पूण कांयच हाताक मेळ्ळें ना. सामकी अजापाची गजाल.

हे आयकून राम वैज बरो वेळ ओग्गी रावून हुक्को ओडीत रावले. तांची तकली जड जाल्ली.

तेन्नासावन हाबू गुंडाच्या नावान कितल्योशोच शक्य-अशक्य गजालींच्यो वावड्यो जावन पसरूंक लागल्यो. कोण म्हण्टालो, हाबू भुतांकडल्यान आपलें काम करता. तो मंत्र बळाचेर गायब जावंक शकता. खंयच्याय मनशाक नदर वयर करून पळयल्यार तो नाच्च जाता. हाबुच्या भंयान लोक थरथरूंक लागिल्ले.

राम वैज तंत्र-मंत्र आनी भूत-प्रेताचेर विस्वास दवरताले. पूण असल्या

वावड्यो ते सत मानीनाशिल्ले. ते जाणा आशिल्ले, दुर्जन मनीस कितलोय तंत्र-मंत्रान आपली तांक वाडयत पूण एक ना एक दीस तो सज्जन आनी दुसऱ्याचे बरें करपी मनशाच्या हातांतल्यान मरताच.

तेन्नासावन राम वैज तरेतरेचे उपाय करपाक लागिल्ले. हाबूक राम वैजाल्या ह्या सगळ्या उपायांची खबर नाशिल्ली. ताका कळिल्लें जाल्यार तो ताचेर धुरी घातल्याबगर रावचो नाशिल्लो.

निशि ठाणेदार निवृत्त जाले उपरांत ताच्या जाग्यार एक रुबाबदार तरणाटो आयलो. ताचें नांव अयस्कान्त. आपल्या कामांत तो सामको तरबेज आशिल्लो.

त्या शारांत पांय दवरनाफुडेंच ताका हाबू गुंडाची खबर मेळिल्ली. हाबून हालींच हरिहरपूरच्या भाटकाराची कोठी लुटिल्ली. त्या शिवाय एक बँक फोडिल्ली आनी दोन व्हडल्यो चोरयोय केल्ल्यो. त्याचबरोबर हेर हत्या आनी मारामारीच्यो खबरो तर आशिल्ल्योच. पूण ताच्या ह्या आकांताच्या आडकेन्ना कोणूच कागाळ करी नाशिल्लो.

मजेची गजाल म्हणल्यार हाबू बदनाम जांवचे परस नामना मेळयतालो. ताची अलौकीक तांक, ताचो पराक्रम, आनी ताच्या नांवावयल्यान प्रचलित तरेतरेच्यो खबरो आयकून बरेच लोक भितरल्या भितर ताका पुजूंक लागिल्ले. इल्ली इल्ली पोरां पसून हाबू-हाबू खेळटालीं. मातशे व्हड पिरायेचें भुरगे हाबूच्या टोळयेंत सामील जावपाखातीर व्हडा संख्येन गोसाय बागाच्या भोंवतणी पासयो मारताले.

राम वैज आनी तांचे सारके आनीकूय जे बरे प्रामाणिक लोक आशिल्ले तांका ह्या भयानक अरिश्टाची सुलूस लागिल्ली. जर ह्या वेळार हाबूक आडायलोना जाल्यार फुडाराक पुलिसूय ताका धरपाचे धाडस करचें नात, अशें तांका दिसतालें. मागीर तर अधर्माचेच जैत जातलें आशिल्ले. हाबुची घमेंड आनी ताची मिजास बरीच वाडपाक लागिल्ली. ताचे चलपांत खंयच्याय राजा - महाराजावरी आब आशिल्ले. वाटसुरे लेगीत ताका येता तो पळोवन कुशीक सरताले. बाजारा- मार्केटांत लोक ताका नमस्कार करताले. कोणाकूय ताचेकडेन उलोवपाची संद मेळ्ळयार तो धन्य जातालो.

अंयस्कान्तूय बी बरोच घमेंडी आशिल्लो. तो जाणा आशिल्लो, शारांतल्या ठाणेदारापरस व्हड अधिकारी कोण आसना. सगळे जाण ठाणेदाराचे आदरातिथ्य करीत आयिल्ले. ताका लागून हाबुचो जाल्लो हो मान भोवमान अयस्कान्ताक तरी कसो मानवतलो! त्या गजालीनी ताचो अहंकार दुखावल्लो.

अयस्कान्त जेन्ना हाबूक बुद शिकोवंक तरेतरेचे उपाय येवजितालो, तेन्नाच अकस्मात एक अजापाची घडणूक घडली.

त्या दीस अयस्कान्त आपल्या क्वाटर्साच्या बल्कावांत बसून पुनवेच्या चान्न्याचो आनंद घेतालो. इतले म्हणसर रस्त्यावयल्यान एक पट्ट्यांचो विशाल वाग रुबाबांत चलत दरवांट्याकडल्यान सामको भितर आयलो. ह्या वागाचे फाटीर हाबू बशिल्लो.

अयस्कान्त तसो खूब धाडशी आशिल्लो पूण हो देखाव पळोवन ताचो भायलो स्वास भायर आनी भितरलो स्वास भितर उरलो.

घाण वास सोडीत हाबूच्या वागान पयली आपल्या बुरशा तोंडान अयस्कान्ताक हुंगलो, ताचो पोलो चाटलो आनी गुरगुरत ताचे लाड करूंक लागलो.

हाबून अयस्कान्ताक म्हणलें, ''हें पळय ठाणेदारबाब, म्हजेकडेन जर टक्कर घेवपाची आसत जाल्यार जीव तळटार घेवन येवचो पडटलो. आतां तर तुवें फकत वागूच पळयला, म्हज्या हतयाक पळोवंक ना. त्याशिवाय आनीकूय भिरांकूळ जीव म्हजेकडेन आसात. सगळें भूत-पिशाच एका परस एक आसात. हांगा नोकरी करपाक आयला जाल्यार वोग्गी रावून दोळे धांपून काम करीत राव. दर म्हयन्याक पगार घे. खा-पी, मजा मार. कोण कांयच म्हणचो ना, पूण जर तर तुवें तुजी हुशारी दाखयली जाल्यार ताचो परिणाम भोगपाकूय तयार राव.''

त्या पिटोळ्या चान्न्यांत वागाचे पट्टे सामके स्पश्ट दिसताले. ताची दुर्गंधूय थंय पातळिल्ली. ताचो गरम गरम स्वास अयस्कान्ताच्या कुडीर पडटालो. ही पुराय घडणूक अयस्कान्तान आपल्या दोळ्यांनी पळयल्ली आनी स्वता भोगिल्ली हातूंन मातूय दुबाव नाशिल्लो.

अयस्कान्त कितें तरी उलोवंक सोदतालो पूण गळ्यांतल्यान आवाज सुटलो ना. आपले हातपाय हालोवंक-धोलोवंक सोदतालो पूण तेंय जमलें ना.

हाबून आपल्या वागाक थंयच्यान कुशीक काडीक म्हणलें, "जाय जाल्यार म्हाका ह्या पुराय वांठाराचो राजा म्हण नाजाल्यार सरदार, जांव देव. सगळे हांगा म्हजेमुखार तकली बागोवन चलतात. तूंय तशेंच कर."

तेच राती अयस्कान्त पिशांवरी धांवत राम वैजां म्हऱ्यांत हजर जालो ताणें म्हणलें, "वैजबाब, हाबू हाडा-मांसाचो मनीस न्हय."

सगळ्यो गजाली आयकून राम वैज आपली तकली शांत दवरून चित्तूंक लागलो. त्या उपरांत सामको शक्तीवर्धक कसाय अयस्कान्ताक पियोंवक दिवन ताणें म्हणलें, तूं घटकाभर थार तरी धर, उरिल्ल्यो गजाली मागीर करुंया."

राम वैज असो चमत्कारीक काडो तयार करतालो, तो पिवन लोकांचो कायाकल्प जावकूंच जाय! राम वैजाचो असोच एक काडो पिवन अयस्कान्ताचे पिशेपण वराभरयान बरें जाल्लें. अशें आसूनय तो एकूच गजाल झरयत बशिल्लो, "ना वैजबाब. खंयच्याय चमत्कारान घुस्पून रावप योग्य न्हय. खंयचोय मनीस कितलोय दुश्ट आनी बदमाश जालो तरी, ताका सारको करपाक हांव मातूय भियेना पूण हाबू आमचे सारको मनीस न्हय."

निमाणें तेंच जालें. अयस्कान्तान आपली बदली करून घेतली आनी गेलो. ताच्या जाग्यार एक रुबाबदार ठाणेदार गदाधर आयलो.

गदाधर सामको धट्टो-कट्टो मनीस आशिल्लो. केन्नातरी नामनेचो पेलवानूय आशिल्लो. ताची पिरारूय चड नाशिल्ली ताचेकडेन एक बरो मोटो जर्मन जातीचो शेफर्ड सुणोय आशिल्लो.

गदाधर येयनाफुडे शारांतले सगळे लोक आपलेमदीं उलोवंक लागिल्ले, हाबूच्या वागाक आतां नवो बकरो आयला.' शारांतले भुरगे गाताले-

'ठाणेदारा गदाधरा, देवतली सगळी तुजी मिजास गा!'

गदाधाराच्या कानार सगळ्यो गजाली पडिल्ल्यो हांगां येवच्या पयलीच हाबूच्या चमत्कारांविशी ताणें बरेच कितें आयकल्लें. शारांत येतकूच ताणे

रोकडीच आपली ठाणेदारी दाखोवपाचो यत्न केलोना.

एक दीस बरे रातीर गदाई ठाणेदार ल्हवू राम वैजाकडेन आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ''हांव तुमचेकडल्यान ताचेविशींची सगळी खबर जाणा जावपाक सोदता.''

राम वैजान लांब स्वास घेवन म्हणलें, ''जाणां जावन करतलो तरी कितें? कोणूच कांय करुंक शकलोना. आपआपली साटली-पोटली कवळून कितलेशेच जाण हांगासल्ल्यान पळून गेले.''

त्या दिसांनी हाबून शारांत एक नवो नियम लागू केल्लो. ताच्या वागाचे खावडीक दर दिसा खंयच्या ना खंयच्या घराब्याक बोकडो बोकडी नाजाल्यार सुणो दिवचो पडटालो. वागाक घडये सुण्याचे मांस रुचिक लागतालें जायत, म्हूण त्या शारांतले चडशे सुणे ना जाल्ले. त्याचबरोबर अशेंय आयकूंक येतालें, गोसाय बागांत राज मिस्त्रीक लावन हाबू खातीर एक व्हडली कोठी तयार करतात. म्हणल्यार हाबूचे तारे त्या वेळार सामके उंचायेचेर आशिल्ले.

गदाई ठाणेदारान म्हणलें, ''हांव अशें म्हणीना, हांव लायक आसां. पूण हांव सादूर रावपी मनीस. सगळें समजून-उमजून म्हजेकडल्यान जें जाता तें शेर्त करतलों. म्हाका हांगा खासा ह्याच खातीर धाडला.''

राम वैजाक ताचेर तितलोसो भरंवसो नाशिल्लो. तरी पूण ताणें ताची सगळी गजाल ताका सांगली आनी सादूरुय केलो, ''हें पळय, हांगासल्ले सगळे लोक हाबूवटेन आसात, ताका लागून त्रासांत पडलो जाल्यार कोणूच तुज्या आदाराक मुखार सरचो ना.''

राम वैजाक कळून आयलें, तें म्हणल्यार पेलवानगिरी करता आसतनाय बी गदाईची बुद्द कोणूच भ्रश्ट करुंक शकलोना.

एक दोन दीस जाताच हाबू गदाईचे फाटीक लागलो. एक दीस सकाळी ठाणेदाराचो सुणो ना जाल्ल्याचें कळ्ळें. ताचो सोद सुरू जालो. निमाणी विलुदावरी ताची कात गोसाय बागांक तेंकून आशिल्ल्या जांबळी पोंदा पडिल्ली मेळ्ळी.

गदाई तीन दीस सारको जेवलो लेगीत ना. सारकी न्हीद पसून लागली

ना ताका. वैद्यराज रामान ताकायबी एक परिणामकारक काडो तयार करुन धाडलो.

गदाई ठाणेदाराच्या सुण्याक मारून हाबून पाडी चाल चलयली. तो सुणो गदाईक सामको जीवापरसूय प्रिय आशिल्लो. ह्या सुण्याच्या मरणा उपरांत गदाई ठाणेदार गदाई महाकाळ जालो.

पूण ही गजाल बऱ्याच जाणांक खबर आशिल्ली, ती म्हणल्यार त्या आक्रमक सभावाफाटल्यान वैजाल्या चमत्कारीक कसायाचो चमत्कार आसा. राम वैजान दुर्मिळ अशा पाळां-मुळां पसून एक असो कसाय तयार करून गदाधराक पिवंक दिल्लो, जो पीतकूच मनशाच्या शरीरांतली ताकदूच दोट्टी जायनासली तर ताचो सभावूय तितलोच आक्रमक जातालो. पूण फकत ताकदवान आनी आक्रमक जावन उपेग नाशिल्लें. तेचबरोबर थंड तकलेन कूट नितिन फिशाल आसप गरजेचें आशिल्लें. नाजाल्यार हाबू सारक्या धुरंधराक मुठींत घेवप तितले सोंपे नाशिल्लें. त्या खातीर वैजान त्या कसायांत अशो वस्तू घातिल्ल्यो ज्यो तकली शांत दवरून विचार करपाची तांकूय वाडयताल्यो.

अचकीत एक दीस अशी घडणूक घडली, जाचेविशीं कोणाकूच सारकें कांय खबर नाशिल्लें. हाबूचो वाग खंय तरी बेपत्ता जालो. चारुंय वटांनी ताची सोदासोद सुरू जाली. शेवटाक एक दीस लोकांनी थाण्या लागसार आशिल्ल्या गदाई ठाणेदाराच्या क्वाटर्याच्या पोरसाच्या वंयेचेर त्या वागाचे कातडें वताक सुकतना पळयलें.

हे घडणुके उपरांत पुराय शार उत्तेजीत जालें. सगल्यांक दिसलें, हाबूच्या वागाक मारून वडयला म्हणटकच गदाईचे मरण हें थारिल्लेंच. आतां रोखडोच हाबू ताची तकली कापून ताचो बॉल करून खेळटलो.

वाग बेपत्तो जाल्लो तेन्ना हाबू शारांत नाशिल्लो. तो खंयतरी भायर लूटमार करूंक वा धाड घालूंक गेल्लो. परतलो तेन्ना सगळें आयकून दोन दीस सामको वोग्गी पडून रावलो.

त्या उपरांत एक दीस सरळ गदाईच्या क्वाटर्साचेर वचून ताणे गदाईक विचाल्लें ''हूंऽऽ तुज्या मरणाउपरांत तुकां कोण कोण रडटले, मातशें सांग पळोवया?''

गदाईन नमळायेन म्हणलें, ''कोणूच रडचो ना, कित्याक तर हांव मरचो

ना.''

''अशें!'' अशें म्हणून हाबून अजापीत जावन ताचेकडेन पळयत म्हणलें,

''कित्याक मरचो ना तर! तुजेकडेन कर्णावरी कसलें कवच-कुंडलबी आसा काय कितें?''

''म्हजेकडेन ना. पूण हांवे आयकला, तुजेकडेन आसा. लोक म्हण्टात, तूं तरतरेचे जादू जाणा.''

हाबून एक लांब स्वास घेवन म्हणलें, ''हांव तुज्या बऱ्या खातीरुच म्हणटालों. जर तर कोणूय नात्या-गोत्यांतलो आसा जाल्यार सुटी घेवन एक फावट तांकां मेळून यो. निमाणोसो!''

''ताची गरज ना.''

हाबून हांसत म्हणले, ''ठाणेदारा, तूं बरोच उडपाक लागला. बरें आसा, तें सोड. एक सांग, त्या वागाक तुवें कसो मारलो?

गदाईन जांबय काडीत म्हणलें, ''वाग हांवें खूब माल्ल्यात. पूण तुज्या वागाक हांवेंच माल्ला हें तुकां कोणे सांगलें?''

''तुवें मारुंक ना?''

''हांव तशें म्हणीना. फकत विचारतां.'' हांवेच माल्ला हाचो पुरावो खंय आसा?''

''मागीर तू अशें म्हणूंक सोदता, म्हजो वाग रानांत पळून गेलो आनी वयतना तुकां ताणे मोगान आपली कात काडून दिली?''

गदाईन निराशेन म्हणलें, ''अशेंय जावंक शकता.''

हाबून गंभीरतायेन म्हणलें, ''तशें जाल्यार बरें आसा. हांव त्या बिन कातीच्या वागाक परतून रानांतल्यान धरून हाडटा आनी तुजे कुडीची सोबीत कात काडून ताका पांगुरता. तयार राव.''

शारांतले सगळे लोक जाणा आशिल्ले, हाबू जें सांगता तें करुनय दाखयता. देखूनच सगळे लोक गदाई ठाणेदाराची कात पांगरिल्लो वाग पळोवंपाची उत्सुकतायेन वाट पळयताले.

एके राती अचकीत लोकांनी भिरांकूळ घन गर्जना आयकली-घैऽ डाऽ म! त्या आवाजान भूंय कापली. घराची दारां-जनेलां हाल्लीं आनी

लोकांची काळजां धडधडूंक लागलीं. वागाची अशी भयांकृत गरड हाजे पयलीं कोणेच आयकूंक नाशिल्ली. जाल्यार कितें हाबूचो बिन कातीचो वाग परतून आयलो?

दुसरे वटेन गोसाय बांगांतल्या खंडहारांत आशिल्ले हाबू आनी ताचे सांगाती खडबडून उठून बसले. सगळे कान फुलोवन आयकूंक लागले. तांका दिसलें, लागीच्यानूच खंयच्यान तरी आवाज आयला आसतलो.

रातीच्या पयल्या पारार वागाची तीच एक गरड आयकूंक आयल्ली.

त्या उपरांत आनीक एके राती ताचे गरडीचो आवाज आयलो. हाबू त्या दीस मयनागुडीचो तंबाखू व्यापारी घनश्याम बाजोरियाच्या गादयें पोंदा चीट दवरून आयिल्लो,

गोसाय बागांतल्या चींचेच्या झाडा पोदां, बरोबर रातच्या बारा वरांचेर शंबर सुवर्ण मुद्रा आनी रोख वीस हजार रुपया पावोवचे. असल्या कामांक कोण ना म्हण नाशिल्लो. बरेचशे लोक आपखोशयेन हाबूची इत्सा पुराय करताले. कांय जाण तर अशेंय चित्ताले, हाबूक कितेंय दिवप म्हणल्यार पुण्यच लाबता. पूण अशें चिंतपी घनश्याम नाशिल्लो. शंबर सुवर्णमुद्रा आनी वीस हजार रुपया ल्हान रक्कम जायना. पूण कांयच उपाय नाशिल्लो. रातच्या बारा वरांच्या सुमाराक तो एके पोन्नें गाडयेंत बसून आपल्या ड्रायवराक आनी चाकराक घेवन चीचेच्या झाडापोंदा काळखांत वाट पळोवंक लागलो. जळारांचो उपद्रव आनी कुडकुड्याच्या शियांत ते भंयान कापत थंय उबे आशिल्ले.

रातचीं बारा जावन पांच मिनटांनी त्या दाट रानांतल्यान एक काळी मूर्त भायर आयली. घनशामान कडकडट्या हातांनी ताच्या हातांत सुवर्ण मुद्रा आनी पयशांची पोटली दवरली. नेमको त्याच वेळार लागच्यानूय खंयच्यान तरी एका वागाचे गरडीचो आवाज आयलो – घै ऽ डा ऽ म.

घनशाम बेशुद्ध जालो. ड्रायवर आनी नोकर दोगूय पळून गेले. त्या काळखांत हाबू अजापीत जावन पळयत रावलो. तो कोणाक भियेंवपी मनीस नाशिल्लो. त्याचबरोबर ताचे भितर कितल्याशाच तरांचे खाशेलेपण आशिल्लें. पूण सामकी लागींच्यान आयिल्लो हो भिरांकूळ आवाज आयकून तो काय खीण अजापान पळयतूच उल्लो.

त्या उपरांत ताणें टॉर्च पेटोवन पळयलें जाल्यार एका झाडाच्या आडसाक

खंयच्यातरी लांब-रुंद वागाचे पट्टे दिश्टी पडटाले. अजापाची गजाल म्हणल्यार त्या वागाचे फाटीर एक मनीस बशिल्लो. तो दुसरो तिसरो कोण नासून गदाधर ठाणेदार आशिल्लो.

त्याच वेळार तो वाग आनीक एक फावट गुरगुरलो. पिशावरी तोंड उक्तें घालून उबो आशिल्ल्या हाबूच्या हातांतल्यान टॉर्च सुटून जमनीर पडलो. त्या काळखांत वागाच्या फाटीर बशिल्लो गदाधर खंय ना जालो, हाबूक कळ्ळेंच ना.

हे घडणुके उपरांत हाबुचो आकांत मातसो उणो जालो. काय दीस तो आदलेवरी हड्डे फुलोवन भायर सरलो ना. त्या रातीच्या घडणुके उपरांत दोन दिसांनी तो सकाळींच गदाईच्या घरा गेलो आनी ताणे म्हणलें, ''पळयता हांव, सगळी नेम-कायदे तुवेंय शिकून घेतल्यात.''

गदाईन गम्भीरतायेन म्हणलें, ''हें सगळें तुवेंच शिकयलां.''

हाबून कांयच म्हणलें ना. फकत 'बरें पळोवया' अशें कितें तरी अस्पश्टशें उलोवन थंयच्यान सटकलो. आता ताणें गदाईची कात सोलपाविशींची गजाल उलोवप बंद केल्लें.

राम वैजाक मेळूंक गदाई चडसो सदांच ताच्या दवाखान्यांत वचूंक लागलो. वैजबाब ताका नेमाप्रमाण कितल्याशाच तरांची पाळा मुळां घालून तयार केल्ले तरेतरेचे कसाय पिवयतालो. तातूंत गदाईची ताकद वाडटाली, बुद्द वाडटाली, तकली शांत उरताली, मनांत धाडस वाडटालें.

एक दीस राम वैजान सांगून सोडलें, ''जाणा गदाईबाब, हाबू हे खेपेक हो जागो सोडून खंयतरी पळपाचो यत्न करतासो दिसता. जर तो हातांतल्यान सुटलो जाल्यार तूं ताका ख्यास्त दिवंक पावचो ना. आतां तूं तुजो नेटाचो डाव चलयूच.''

ही गजाल फटूय नाशिल्ली. बरेच दीस हाबुकय दिसतालें, ''हांगाच्यान ताणें आतां मेरेन बरीच जोड जोडल्या. त्याशिवाय गदाई ठाणेदारुय कांय ल्हान मनीस नाशिल्लो. ह्या पयलींचे सगळे ठाणेदार जशे ताका भियेताले तसो तो नाशिल्लो. हांगासल्यान दुसरे कडेन वतकच धंदोय वाडटलो आनी चितनाय कमी जातलीं, अशें येवजून ताणें आपल्या वांगड्यांक तयार रावपाचो हुकूम दिलो. ताणें म्हणलें, ''हो जागो सामको तापला आनी पडंक जाला. तुमी

सगळे तयार रावात. केन्नाय अकस्मात पोटली बांदची पडटली.''

थंयच्यान कडसरचे पयलीं हाबून एक सगळ्यांत व्हड हात मारपाचे आशेन, सत्रा चायेचे मळे आशिल्लो धनी टॉमसन सायबाच्या धाकल्या पुताचें अपहरण करून ताका लिपयलो. सायबाक ताणे एक चीट धाडली ''येता ते उमाशेचे राती, आपल्या बंगल्या फाटले बागेंत रुमडाच्या झाडापोंदा एक लाख रुपया दवरुन ताचेर एक फातर दवरचो. ना जाल्यार उजवाडचे पयलींच काली माते मुखार तुमच्या चल्याचो बळी दितलो.''

सायब इतले बेगीन हार मानी नाशिल्ले. पूण टॉमसन सायबाची गजाल वेगळी आशिल्ली. हालींच एका वर्सा फाटीं तांची बायल भायर पडिल्ली. आवयक पयसावल्ल्या आपल्या तीगूय भुरग्यांचो ते खूब मोग करताले. देखून पुताचें अपहरण जातकच रागान पेटून उठिल्ले, तरीय कांयच करूंक शकले नात.

खरें कितें जाल्लें ते कोणाकूच काय कळूंक नाशिल्ले. टॉमसन सायबाच्या बागेंत रुमडाच्या झाडापोडां एक लाख रुपया दवरिल्ले. वेळार हाबूचो वांगडी ते पयशे घेवन गेलो.

पूण लोक एक दुसरी काणी सांगतात. तांचे सांगणे प्रमाण, हाबूचो मनीस आयिल्लो खरो, पूण परत वचूंक पावलो ना. गदाईन ताचे हात पाय बांदून ताका बंदखणींत धाडले उपरांत ताचे वेशभुशेंत खुद्द आपूण हाबुच्या अड्ड्यार पाविल्लो.

त्या उपरांत बरोच बोवाळ जाल्लो. परतून परतून वागाची गरड, गुळयांचो फार आनी किळांच्यो हुयेली आयकून सगळे जागे जाल्ले.

दुसऱ्या दीसा खबर पातळ्ळी ती म्हणजे हाबू म्हालासयत सांपडला. ताका धरचे पयलीं गदाईकडेन ताची बरीच मोटीं झगडीं जालीं. घडये आनीक खंयचीय वेळ आशिल्ली जाल्यार तो गदाईक गदा कशी घुंवडावन वडयतलो आशिल्लो. पूण राम वैजाचो कसाय नेमान घेवपी गदाईमुखार उबो रावपाची हिम्मत आशिल्ली तरी कोणाकडेन?

# 5

कराली सराचो गणिताचो वर्ग आशिल्लो. तांचे विद्यार्थी आतां अंक गणिताक अंक गणित म्हण नाशिल्ले, म्हणटाले 'भयांक' गणित भंय आनी अंक गणिताची संधी करून भुरग्यांनी हें नवें उतर घडयिल्लें.

तसो तो भयंकर आशिल्लोयबी. वर्गांत गणिताचे प्रस्न तर सोडोवचे पडटालेच त्याशिवाय करालीबाब आपल्या विद्यार्थ्यांक गणितांत पक्के करपाखतीर दुसऱ्या पुस्तकांतलीय गणितां तांचेकडल्यान सोडोवन घेताले.

त्या दीस करालीबाब वर्गांत येवन सामके खोशयेन म्हणपाक लागले, ''माई लिटिल फ्रेंडस्! आज फांतोडेर सपनांत हांवे एक गणित सोडयल्लें. बरो मजेशीर प्रश्न आसा.''

सगळे भुरगे जागरूक जाले. करालीबाबाक सपनांतूय गणितांचे नवे नवे प्रस्न मेळटाले. हातूंत व्हडली नवीदाद नाशिल्ली. ह्याय पयलीं तांका कितलेच खेपो सपनांत प्रस्न मेळिल्ले, पूण करालीबाबा खातीर जी सपनां सुखदेणीं आसतालीं तीं विद्यार्थ्यांक सामकी दुःखदायक आसतालीं.

कराली सरान म्हणले, ''जाणात, सपनांत हांवे पळयलें, हांव एका बुटांच्या दुकानांत नोकरी करता.'

बुरून वर्गांत सगळ्या फाटल्यान बशिल्लो. ह्या दिसांनी तो थंयच बसतालो. गणितांत फेल जातकच हुशार भुरग्यांबरोबर मुखार बसपाक ताका लज दिसताली. त्या फाटल्या बांकार ताचे बरोबर फकत फटिकूच बसून आशिल्लो. कराली बाबाली गजाल आयकून फटिक बडबडलो, खऱ्यांनीच अशें जाल्लें जाल्यार जीव वांचतलो आशिल्लो.

बुरुनान कांयच जाप दिली ना. ह्या दिसांनी तो वोगीच रावतालो. कराली सरान हांसत म्हणलें, ''समजले तुमी? हांव एका बुटांच्या दुकानात नोकरी करतालों. म्हाकाय बरें दिसतालें. दुकानाचे धनी सामके सादेसुदे आशिल्ले. हिशेब तांका जमनाशिल्लो. फायदो-लुकसाणांत जांव, देण्या-घेण्यांत

गडबड जातकच ते म्हाका म्हण्टाले करालीबाब मातसो हो हिशोब सारको कर पळोवया. आसूं, म्हाकायबी म्हजें काम आवडटालें. गिरायक येतकूच तांच्या जोकाचे बूट काडून तांका चडयतालों. तांचे पसंतीचे बूट तांका फिट जाता काय ना हें पळयतालों. मदी मदीं तोंडी हिशोब करून धनयाक सांगतालोय बी. बरी मजा येताली.''

''एक दीस एक गिरायक आयलें. ताणे बुटांचो एक जोड पसंत केलो. वांटपण करून दर थारली वीस रुपया. गिरायकान दुकान धनयाक शंबर रुपयांची नोट दिली. तांच्या कॅश बॉक्सांत त्या वेळार तितली मोड नाशिल्ली म्हूण दुकान धनयान म्हाका म्हणलें, ''करालीबाब, मात्शे कुशींच्या दुकानांत वचून मोड करून हाडात... लिटल फ्रेंडस्, तुमी ह्या देण्या-घेण्याकडेन बारकायेन लक्ष दियात. बरें आसा, मागीर हांवें ती शंबर रुपयाची नोट कडेच्या दुकानांतल्यान मोडून हाडली आनी धनयाक दिली. धनयान तांतूतले वीस रुपया दवल्ले आनी उरिल्ले ऐंशी रुपया गिरायकाक परत केले. गिरायक बुटांचे बॉक्स घेवन गेलें. त्या उपरांत कांय वेळान कडेच्या दुकानदारान येवन म्हज्या धनयाक शंबर रुपया परत करीत म्हणलें, ''ही नोट फटकीरी, ती बदलून दियात.'' म्हज्या धनयान ती नोट आपल्या दोळ्यांमुखार दवरून बरेतरेन आरतून-परतून पळयली. ती नोट खऱ्यांनीच फट आशिल्ली. त्या गिरायकान खोटी नोट दिवन फटयल्लें. म्हज्या धनयान आपल्या कॅश बॉक्सातल्या शंबर रुपयाची मोड सोदून त्या दुकानदाराक दिली. दुकानकार आपले पयशे घेवन गेलो. त्या उपरांत म्हजो धनी आपल्या लुकसाणाचो हिशोब बऽऽरो वेळ लायत रावलो. म्हजो धनी सामको सादो-सुदो मनीस आशिल्लो. हिशोबांत मात सामको कच्चो. ताका लागून लाख यत्न करून लेगीत सारको हिशोब ताका समजलो ना. एकदां तर तो भिवून आड्डलो लेगीत, ''म्हाका दोनशे रुपयांचो फटको बसलो.''

''हांवे विचाल्लें, कसो?''

तो म्हणपाक लागले, ''गिरायकाक हांवें ऐंशी रुपया दिले. शेजारच्या दुकानकाराक शंबर आनी बुटाच्या एका जोडयेची किंमत सगळे मेळून दोनशे रुपया जाले काय ना?'' मागीर म्हणपाक लागलो, ''ना, ना लुकसाण फकत

ऐशी रुपयां जालां.... आरे ना, ना.... शंबर रुपया आनी वीस रुपयाचो बूट, फकत शंबर रुपया बुडले.'' मागीर थोडो वेळ विचार करून म्हणलें ''आरे ना, एक जोडी बुटांशिवाय म्हाका कसलेच लुकसाण जालें ना.'' परतून थोड्या वेळान ताका दिसलें, होय हिशोब चुकता. दुकानकाराक शंबर रुपया दिवचेच पडटले...

आसूं निमाणे ताणे म्हजेकडेन मोटे निराशेन पळयत म्हणलें, ''करालीबाब मातसो हिशोब करून सांग म्हाका कितलें लुकसाण जालां तें...?'' माई फ्रेंडस्, आयचो पयलो प्रस्न. वेरी स्मिपल एरिथमॅटिक! तशें पळोवंक गेल्यार हो दुसरे यत्तेचो प्रस्न. सामको हारशावरी. तीन मिनटां दिता. फटाफट सोडयात.''

सगळे जाण आपआपल्यो चोपड्यो काडून फटाफट गणित सोडोवपांत गुल्ल जाले. बुरूनानूय सोडलें. चड वेळ लागलो ना. सुमार देड मिनीट. तो आपली चोपडी घेवन कराली सरा म्हऱ्यांत वचूंक उट्टालो इतल्यान ताच्या कानांत कोण तरी फुतफुतलो, ''आरे! ही जाप साप्प चुकल्या. आतां कितें, कराली सराच्या डस्टरान मार खावपाचें येवजिलां?''

बुरुनाक दिसलें, हो आवाज फटिकाचो आसतलो. पूण ताचेकडेन पळयल्यार तो बांकाच्या दुसऱ्या पोंतार बसून गुप्तहेरी कथेचे पुस्तक लिपचोरयां वाचतालो.

मागीर ही गजाल ताका कोणे सांगिल्ली?

ताच्या कानां म्हऱ्यांत कोणेतरी फिक्क करून हांसून म्हणलें, ''भियेलो?''

बुरूनान रोखडेच गंभीर जावन ल्हवू म्हणलें, ''हांव कोणाक भियेना.''

त्या आवाजन निराश जावन म्हणलें, ''सामको जगावेगळो मरे तूं. आसूं सोड, करतलो तरी कितें? तुजें एक बरें तरी करून वतां. म्हाकां तुजी चोपडी दी. हांव सोडयतां प्रस्न.''

बुरुनान फाटी फुडें जायत म्हणलें, ''चोपडी दिली जाल्यार कराली सरांचे नदरेक पडटली.''

''तशें जाल्यार तूं चोपडी उगडून पेंसिल धरून राव. हांव तुजो हात धरून गणित सोडयता.''

तशेंच जालें. धा सेकंदा भितर प्रस्न सोडोवन अदृश्य निधिरामान ताका धुकलीत म्हणलें, ''चल, पयल्यान पयली तूं ही जाप दाखोवन यो.''

(प्रस्नाची जाप हांगा दियना. हें पुस्तक वाचप्यान आपणेच सोदची.)

बुरुनान वचून कराली सराक चोपडी दाखयली. ती पळयताच ताणीं ताची फाट थापटीत म्हणलें, ''शाब्बास!''

आनीकूय काय भुरग्यांनी तीन मिनटांभितर प्रस्नाची जाप बरयल्ली. कराली सरान सगल्यांची फाट थापटीली. करालीबाब अशेच मनीस आशिल्ले. सामके सोप्या प्रस्नाची पसून जाप दिल्यार ते खोशी जाताले.

दुसरो प्रस्न मातसो कठीण आशिल्लो. एका विचित्र गाडयेचे चारुय टायर चार तरांचे आशिल्ले. एकाची गोलाय तीन फूट तीन इंच दुसऱ्याची तीन फूट आठ इंच, तिसऱ्याची चार फूट दोन इंच, चौथ्याची गोलाय दोन फूट इकरा इंच आशिल्ली. प्रस्न असो आशिल्लो, ही विचित्र गाडी पांच मैल चल्ली जाल्यार चारुय टायरांनी कितले खेपो पुराय फेरे माल्ल्यात आनी कितल्या टायरांचे फेरे चड उणे जाल्यात ते सांगात. कराली सरान हे गणित सोडोवपाक धा मिनटां दिलीं.

सगळे जाण गणित सोडोवपांत गुल्ल जाल्ले पूण बुरुनाक कसलोच हुस्को नाशिल्लो. गणित चोपडेत बरयनाफुडे निधिरामान ताचो हात धरून वीस सेकंदान तें सोडयलें आनी रोखडेच बुरुना मुखार दवरुन म्हणलें, ''चल, दाखोवन यो.''

बुरून चोपडी घेवन येता तें पळोवन कराली सर अजापित जाले. चोपडी पळोवन तांका आनीकूय अजाप जालें. ताणी म्हणलें, ''ही जाप तुवें पयलीच बरयल्ली काय कितें?''

''ना सर! आतांच बरयल्या.''

''शाबास ! तशें जाल्यार तुकां सुवर्णपदक फावता.''

त्या उपरांतचो प्रस्न एका घरांत उदक भरपाविशीचो आनी रितें करपाविशी आशिल्लो. हाका सोडोवपाक बुरुनाक सुमार तेरा मिनिटा लागली. कराली

सरान ताचेरुय 'बरोबर' कुरू करीत म्हणलें, "तुकां वार्षिक परीक्षेंत कितले मार्क मेळिल्ले? बारा काय तेराशे दिसता. म्हाका दिसता, तुजो पेपर म्हाका परतून एकदां तपासून पळोवचे पडटलो."

कराली सरा उपरांत अवनीबाबाल्या अनुवादाचो वर्ग आशिल्लो. ताणें इंग्लीशींत अनुवाद करपाक कांय वाक्यां दिलीं... बोरा खांवन रमेनाचे दांत आंबट जाल्ले... भवानी पाठक सामके सादे मनीस नाशिल्ले. बऱ्याक बरे आनी वायटाक सामके यमदूत आशिल्ले....हे तेंच जनस्थान मध्यवर्ती प्रस्त्रवण गिरि आसा जाच्या शिखराचेर सतत संचारीत जलधर-पटलाक लागून सदांच निविड नीलिमा पातळटा.

सगळेजाण तकली धरून बसले.

सामके चाळीस सेकंदा उपरांत निधिरामान बुरुनाक म्हणलें, "चल, हें दाखोवन यो."

बुरून गेलो. अवनी बाबान चोपडी पळोवन तकली खाजयत म्हणलें, "इंग्लीशींत तूं वायटसो ना, पूण खंयच्याच विद्यार्थ्यांन इतली बरी बरयल्ली इंग्लीश बरेच दीस पळोवंक मेळूंक ना. वा! अशीच मेहनत करीत रावलो जाल्यार स्कॉलरशीप मेळटलीच."

बुरून लजेन तकली सकल घालून उबो आशिल्लो. वर्साची ही सुरुवात आशिल्ली. सगळे वर्ग अजून सुरू जावंक नाशिल्ले. पांचवे घांटी उपरांत सुटी जाली. गेम सरान क्रिकेटाचे दोन सेट काडून दिले.

शाळे-कुशीच्या मैदानाचेर मोटे उमेदीन क्रिकेट मॅच सुरू जाली. मैदानाच्या एकेवटेन ज्युनिअर वर्गातले चले आपलेमदीं टीम करून खेळटाले. दुसरी टीम सामकी विचित्र आशिल्ली. हातूंत फेल जावपी विद्यार्थ्यांबरोबर पास जावपी विद्यार्थ्यांची मॅच आशिल्ली. गेम सरान टीमीची निवड केल्ली. बुरून गणितांत फेल जावन लेगीत पास जाल्लो.

त्या खातीर तो पास जाल्ले टिमिंत आशिल्लो. पूण पास जाल्ले सगळे चले खेळांत फाटी आशिल्ले. दुसरेवटेन फेल जाल्ले सगळे जाण पेजाद खेळगडे आशिल्ले. तांची जशी जोरदार बॅटींग आशिल्ली, तितलीच भयानक बॉलिंग आशिल्ली. ते सामके धांवत पळत उडक्यो मारीत, लोळत फिल्डींग

करताले. ताका लागून त्या दिसा खेळा मैदानाचेर पास जावपी चल्यांची दशा सामकी वायट आशिल्ली.

टॉस जिखतकच पास जावपी टीमीन बॉलींग करपाचो निर्णय घेतालो. पयल्या ओवरींतूच दोन गडी दुखापत जाल्ल्यान कुटत मैदानाभायर आयले. दोग जाण बोल्ड आउट जाले. दुसरे ओवरींत आनीक एकटो आउट जालो. पूण ताणें तीन रन्स काडिल्ले. तिसरे ओवरींत एका फाटोफाट दोन खेळगडे कॅच आऊट जाले. एका खेळगड्यान भिवन खेळपाक न्हयकार दिलो.

बुरुनाची बॅटींग खूब बरी नाशिल्ली. पूण बॉल सारको मारतालो. पूण आठ जाण एका फाटोफाट आवट जाल्ल्या कारणान ताका बॅटींगेक ग्राऊंडार येवचोच पडलो.

बुरून जेन्ना बॅटिंगेक येतालो तेन्ना ताच्या कानांत तेंच फुतफुतप आयकूंक आयलें. ''भिवपासारके कांय ना. हांव तुजे वांगडा आसा.''

बुरुनान गंभीरतायेन म्हणलें, ''हूं.''

''सेंचुरी करून घेतां. पूण बाब याद धर. तुकां म्हजी लज राखची पडटली.''

''पळयतां.''

बुरुनान बॅट धरून झेतान उबो रावून चारुय वटांनी पळयलें. फेल जावपी मस्ते भुरगे ताका पळोवन हांसताले. फास्ट बॉलर भुतुमान ताका म्हणलें, ''आता खंयच पळोवपाची गरज ना. फकत आयला त्याच मार्गाक सारको पळोवन घे. आता तेच वाटेन तुकां परतुचें पडटलें.''

भुतुमाचो एक नेटाचो बॉल आयलो. बुरुनाक कांयच करचें पडलें ना. कोणतरी ताका खेळयतालो. तो बॉल जेट प्लेनावरी वचून स्कुलाच्या दुसऱ्या मजल्याच्या तेर्रासाचेर पडलो. सिक्सर!

चुकून बॉल लागलो जायत अशें म्हणून थंय उबे आशिल्ल्या भुरग्यानी तितली उमेद दाखयली ना.

पूण दुसरोय बॉल त्याच नेटान वचून विशाळ शिरीशाच्या झाडाचेर आशिल्लो घोंटेर तुटून सकयल पडलो. हेय खेप सिक्सर!

हे खेपेक थोड्योश्यो ताळयो पडल्यो. बुरुनाचे टीमीचो कॅप्टन अनिरुद्ध

आपल्या पायाची दुख पोशेंत भायल्यानूच आड्डलो, “असोच मारीत राव बुरुन!”

बुरुन मारीत रावलो. ताणे तिसरो बॉल असो उखल्लो, तो वचून स्कुलाचे कडेक आशिल्ल्या पंडिताच्या घराच्या माडावयलो सुको नाल्ल उडोवन सकयल पडलो. पंडिताली जाणटी आत्याबाय भायर य़ेवन बोवाळ मारुंक लागली, “कोण रे तो मस्तो भुरगो? दनपारच्या कडार माडार फातर मारुन नाल्ल पाडटा? मातसो राव हरिक सांगून तुकां तीन वरां कोंबो करून दवरूंक लायता.”

पंडिताचे नांवं हरिप्रसाद आशिल्लें. ते इल्ल्या-इल्ल्या गजालींक लागून विद्यार्थ्यांक कोंबो करून रावपाची ख्यास्त फर्मायताले.

पंडिताली आत्याबाय एका हातान नाल्ल आनी दुसऱ्या हातान बॉल घेवन आड्डली, “हें पळय, नाल्ला वांगडा हे बेल फळ पडिल्लें मेळ्ळा. पूण म्हज्या घरात बेलाचें झाड काय ना. मागीर हें आयलें खंयच्यान?”

हरि सराच्या आत्याबाय कडल्यान बॉल घेवन येवप इतले सोपें नाशिल्लें. कोंबो जावचें पडत ह्या भंयान कोण मुखार सर नाशिल्लो. आतां खेळ बंद करपाची पाळी आयिल्ली.

बुरुनान ल्हवू आवाजांत म्हणलें, “ए निधिराम! मातसो वचून बॉल तरी हाड मरे” निधिरामान तिडकून विचाल्लें, “वा रे वा! आतां तूं म्हाका नांवानूय उलो मारुंक लागलो. तुजे परस हांव पिरायेन कितलो व्हड आसा जाणा मरे तू? दोनशें-वर्सां व्हड आसां, हाचो उगडास दवर.”

बुरुनान फिक्क करून हांसत म्हणलें, “बरें, बरें. आताच्यान हांव तुकां निधिदा म्हणटा.”

दुसऱ्याच खिणाक तो बळारसो उडत गेलो आनी मैदानावयल्यान हरिहर पंडिताच्या घराकडेन पावलो. सराच्या आत्याबायक कळ्ळेंच ना, हातांतलो बॉल वाऱ्यान केन्ना उडून मैदानाचेर पावलो. सराली आत्याबाय आड्डूंक लागली. “आरे, दोळ्या पापण्यो लकता म्हणसर हातातले 'बेल' फळ खंय नाच्च जालें? काय बरो वास येतालो त्या बेलाक! आयज ताचें सरबत करून हरिक दितलें म्हूण चितिल्ले.” ह्या दिसांनी ताच्या पोटांत

बरेच नासता...''

दुसरे ओवरीचो बॉल घालपाक केष्टो आयलो. तो दैत्यसो दिसतालो. तो बॉलींग करता काय बॉम गुळो घालता सांगप कठीण आशिल्लें. तो शाळेचोच न्हय ह्या जिल्ल्यांतलो सगळ्यांत भयंकर बॉलर आशिल्लो. ताच्या बॉलान एक तर स्टम्प तरी म्होडटालो ना जाल्यार बॅटींग करतल्याचो पांय तरी म्होडटालो. जर ह्यो दोनूय गजाली जाल्यो ना जाल्यार विकेट कीपराच्यो बोरी तरी म्होडटाल्यो. ताका लागून केष्टोच्या बॉलींगेवेळार मैदानाचेर शांतता पातळटाली.

पूण शाळेच्या किरकोळ मॅचीनी तो जाणून बुजून फास्ट बॉलींग करीनाशिल्लो. आयजूय ताणें पयलो बॉल ल्हवू घालो. ह्या बोलांत बुरुनाच्या पार्टनरान बॅट घुंवडावन एक धांवडी काडली. केष्टोचो दुसरो बॉलूयबी तसोच ल्हवू येतालो. पूण ताचो तो बॉल पळयतल्याक ल्हवू दिसलो ना. तांबड्यागुंज नागिणीच्या गतीन येवन ताणे बुरुना मुखार येवन आपलो फणो उबारलो.

बुरुनाच्या बॅटान त्या नागिणीचेर अशी खोंट माल्ली ती शेंपडी कवळून भिवून सवणें जावन पयस कुपांच्या राज्यांत उडून गेली. आनी वचून जुनियर भुरगे क्रिकेट खेळटाले थंय वचून पडली. थंयसरूयबी एक भुरगो बॅटींग करतालो, ताका लागून तो बॉल खंयच्या टीमीचो? ह्या विशयाचेर वाद जालो.

आपले बॉल अशे तरेन मारिल्ले पळोवन केष्टो सामको खुबळ्ळो. ताणे तिसरो बॉल चड फास्ट घालूंक नाशिल्लो, तरी तोय फास्ट जालो. तो बॉल पिचीचेर सामको जोगलावरी गेलो. पूण त्या दिसा बुरुनाचें बॅट लोखणापरसूय निबर जाल्लें. ताणे बॉल असो माल्लो, तो शेंपडी तुटसर उडून मैदानाच्या भायर शाळेच्या वण्टीचो प्लास्टर फोडीत गेलो. वण्टीचो तितलो कुडको आफ्रीकेच्या नकाशावरी दिसपाक लागलो.

पांच मिनटांभितर बुरुनान तीस धांवड्यो काडल्यो चारुय वटेतल्यान ताळयांचो कडकड जावपाक लागलो.

केष्टोन आपली भुजां चडोवन लांब स्वास घेतालो. त्या उपरांत मैदानाच्या निमाण्या पोंतावेल्यान बॉल घालपाखातीर धांवपाक सुरवात

केली. हाचो अर्थूच असो आशिल्लो, आतां तो सगळ्यान फास्ट बॉलींग करूंक येतालो.

बुरुन सुसेगाद उबो आशिल्लो. खरें म्हणल्यार केष्टो घालता तो बॉल ताका दिसूंकच नाशिल्लो, पूण जेन्ना बॅटाक बॉल लागलो तेन्ना बॅटाचे दोन कुडके जाताशे दिसले.

शारदाचरणबाब भाटकार आशिल्ले. तांच्या वाड्यार एक फातराची परी शंबर वर्सासावन पाखां फुलोवन उबी आशिल्ली. ह्या सैतान बॉलान त्या परीचे एक पांख म्होडूनच आपली गती थांबयली.

परतून सिक्सर!

केष्टोचो पांचवो बॉल पयल्या बॉलापरस फास्ट आशिल्लो. बॉलाची गती इतली फास्ट आशिल्ली, तो बॉल केन्ना आयलो आनी केन्ना बुरुनान तो माल्लो कांय कळ्ळेंच ना. ह्या वेळार बॉल कुंड्यान भरिल्ल्या गाड्याचे राशींत रिगून बसलो. घडये इतलो मार सोसूं नजो जावन बॉल लिपून बसपाची संदूच पळयतालो जायत.

बरोच त्रास घेवन बोवाळ मारून गाडो थांबयलो आनी कुंडो उस्तून तांतुतल्यान तो बॉल भायर काडलो. तितले भितर पास जावपी भुरगे बुरुनाक उखलून खांदार घेवन नाचूंक लागले... आनी मागीर मैदानाभायर वचून फेल जावपी भुरग्यांक हातांच्या कुरवांनी चाळोवंक लागले.

बेचाळीसांवेल्यान ऐकशें दोनाचेर पावूंक बुरुनाक फकत बारा मिनटां लागलीं. सगळ्यो मेळून सत्तावीस मिनटानी ताणे शंबर धांवड्यो काडिल्ल्यो आनी आतां मेरेन तो नॉट आउट आशिल्लो.

इतले मजगतीं ताचे बॅटींगेची चर्चा आयकून, पयलीं गेम सर आनी त्या उपरांत हेडमास्तरासयत सगळे अध्यापक मैदानाचेर पावले. खबर आयकून शारांतले लोकूय थंय येवपाक लागले. पळयतां पळयतां मैदानाचे चारुय वटेतल्यान लोकांची गर्दी जावपाक लागली.

ते पळोवन बुरुनाक लज दिसली. पूण तो करतलो तरी कितें!

सतरा ओवरीनी बाऊंड्री मारून एकशें दोन धांवड्यो काडले उपरांतूय बुरुनाक शानदार बॅटींग करीत रावचें पडलें. दुसरो शेकडो पुराय करपाखातीर

बुरुनाक फकत पंचवीस मिनटां लागलीं. बुरुनान सगळे मेळून सतरा चौके माल्ले. आवट जावपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो.

मोटच्या अभिमानान गेम सरान म्हणलें, ''ब्रेडमॅनाचो लेगीत असो रेकॉर्ड ना. हाणें तर क्रिकेटीचो इतिहासूच बदलून उडयलो.''

पास जावपी भुरग्यांची अडेचशांचेर गेम सोपले उपरांत फेल जावपी भुरगे बॅटींग करपाक आयले. बुरुन बॉलींग घालपाक तयार आशिल्लो. ताच्या कानांत निधिरामान म्हणलें, ''बिनधास्त राव.''

काळजी करपासारके कांय नाशिल्लेंयबी. फेल जावपी भुरग्यांचो खेळ फकत स धांवड्यानीच कवळ्ळो. बुरुनान दोन ओवरींनी फकत धा बॉल घातिल्ले. दुसरे ओवरींत चारांपरस चड बॉल घालपाची गरजूच पडली ना. दर बॉलाक एक विकेट पडिल्ली. ट्रिपल हॅट्रिकासयत ताचे बॉलींगेचे विश्लेषण आशिल्लें - 1.4 ओवर, 2 मैडन, 0 रन, 10 विकेटी. ताच्या दोन ओवरी मदीच येवन एका देडशाण्यान एक ओवर घातिल्ली. ताका लागूनच फेल जावपी टीमीन स धांवड्यो काडिल्ल्यो.

गेम सरान म्हणलें, 'वर्ल्ड रिकॉर्ड!'

पूण अचंबीत जावपाची ही फकत सुरवात आशिल्ली. ही जाली क्रिकेटीची खबर!

जुस्त पंदरादिसा उपरांत शाळेचो वर्सुकी खेळां-सुवाळो जावपाचो आशिल्लो. ह्या समारंभाची बरीच तयारी चलताली. कित्याक तर शाळेच्या वर्सुकी खेळा दिसा उपरांत वेंचीक खेळगड्यांक जिल्लो थराचेर जावपी खेळांच्या सर्तींनी भाग घेवपाखातीर धाडटाले. ह्या शाळेची नामनां जितली शिक्षणीक मळार आशिल्ली तितलीच तीं खेळांतूय आशिल्लीं.

बुरुनाकूय दर वर्सा खेळां सर्तींनी एक दोन इनामां फावो जातालीं पूण चर्चा जावपा सारके खास कांय नासतालें. फाटले खेपो आपल्या वर्गातल्यान उंच उडयेंत ताका तिसरें इनाम फावो जाल्लें आनी दोनशें गज धांवपाचे सर्तींत तो दुसरो आयिल्लो. शाळेच्या हेर खेळगड्यांचे तुळनेंत हें तर कांयच नाशिल्लें.

स्पोटस सुरू जावचे आदीं धा दीस 'हीट' जावपाची आशिल्ली.

कांय सर्ती गटा गटांनी विभागून घातिल्ल्यो. दोन तीन सर्ती अशो आशिल्ल्यो जातूंत सगळे वांटो घेवंक शकताले. बुरुनान आपल्या वर्गातल्या दर खेळांत आपले नांव बरयल्लें. त्याशिवाय धा हजार मीटर धांवप, सायकल चलवप, गुळो उडोवप सगल्यांखातीर उक्त्या आशिल्ल्या सर्तीनीय बुरुनान आपले नांव बरयल्लें. क्रिकेटींतली ताची कमाल पळोवन स्पोर्ट्सांतल्या इतल्या सगळ्या सर्तींनी वांटो घेवपाक कोणेच ताका आडायलो ना. बुरुनाभितर लिपिल्ली प्रतिभा कसलो रंग दाखयत कोणाक खबर आशिल्ली!

'हीट' सुरू जावचे दिसाच उमेदीच्या भारांत निधिरामान असो बोवाळ घालो जाका लागून बुरुन सामको लजेस्त जालो.

पयली शंबर मीटर धांवपाची सर्त सुरू जाली. गेम सर स्टॉप वॉच घेवन उबे रावले. असिस्टेंट गेम सरान पिल्लूक मारून सर्त सुरू करपाचो संकेत दिले उपरांत बुरुनाक तुफानाचे गतीन आपल्याक कोण तरी उबारून व्हरताशें दिसलें. ताका लागून बुरुनाच्या पायांनी जमनीक स्पर्श पसून केलो ना.

धांवप सोपले उपरांत पीटी सर मैदानाचेर धम्म करून माथे धरून बसलो आनी म्हणले, ''फक्त आठ सेकंदानी शंबर मीटर! ओह! हांव घुंवळ येवन पडटलों.''

ते खऱ्यांनीच घुंवळ येवन पडपाचे, पूण बुरुनान ताका बेगबेगीन सांबाळीत म्हणले, ''ना सर, आठ सेकंद कशे जावंक शकता? शेर्त स्टॉप वॉच बिगडल्या आसतली.''

गेम सरान पिशावरी विचाल्लें, ''अशें दिसता तुकां?''

''हय सर!''

''खरें सांगता?''

''खऱ्यांनीच, इतलो फास्ट हांव खंय धांवूंक शकतां?''

गेमसरान उबे रावून म्हणलें तसो धांविल्लो जाल्यार त्रास जावपाचे कित्याक तर हाचेपरस वर्ल्ड रेकार्डाचो वेळ कितलोसोच चड आसा.''

उंच उडी जावचे पयली आडसाक वचून बुरुनान निधिरामाक तापोवन काडलो.

''निधिदा, हो कसलो तमाशा करता? चड गडबड करशी जाल्यार वचून गोसाय सरदाराकडेन तुजी कागाळ करतलों आं.''

निधिरामान भियेत म्हणलें, 'अशें व्हय? वर्ल्ड रेकॉर्ड-फेकार्ड म्हाका खंय खबर आसा. म्हाका पयलीच सांगूक जाय आशिल्लें.''

''बरे आसा, आतां जालें ते जालें. आतां मात सादूर राव.''

उंच उडयेंत बुरुन फटाफट उडयो मारीत रावलो, पूण कामय व्हडलीशी प्रगती जाली ना. तरीय पूण गेम सरान टेपीन मापून पळयलें तेन्ना निमाणे उडयेंत तो स फूट उंचायेचेर पाविल्लो. सगळ्यांक सामकें अजाप जालें.

लांब उडयेच्यावेळार बुरुन आनीकूय सादूर जालो. फकत बावीस खेपो उडयो मारले उपरांत तो आनीक उडी मारुंक शकलो ना.

गेम सरान ताका आडोसाक आपोवन उत्तेजीत जावन म्हणलें, ''बुरुन आयक... देवान तुकां कितली जबरदस्त तांक दिल्या, ती तुकां खबर ना. हांव सांगता, तूं ऑलंपिकाक एकलोच एक डजनभर भंगरा पदकां जिखून हाडटलो. आतां सावनच तयारी कर.

बुरुना लजेस्त जालो. पुराय मैदानाचेर ताचीच चर्चा चालिल्ली. ताका पळोवपाक चल्यांची गर्दी जाल्ली. शारांतले लोकूय ही अजापाची घडणूक पळोवंक येताले.

स्पोर्टसा दिसा दनपरा मैदानाचेर तीळभर लेगीत सुवात नाशिल्ली. फकत त्याच नगरांतले लोक न्हय जाल्यार आशिकुशीच्या जिल्ल्या शारांतले लोक गाडयांनी भरून येताले. कित्याक तर ह्या नगरांत एक जबरदस्त स्पोर्टस् मन तयार जाल्याची खबर सगळ्याक पातळिल्ली.

बुरनाचे पराक्रम आयकून ताचो आजोयबी अजाप भरीत जालो. आपल्या नातवा भितर इतली तांक आसा हें ताका खबर नाशिल्लें. ताणें नातवाची ताकद वाडोवपाखातीर म्हण एक उत्कृष्ट असो कसाय तयार करून ताका पिवपाक दिलो. ताका लागून बुरुनाच्या आगांत बरीच शक्ती निर्माण जाली.

एकेवटेन आज्याचो शक्तिवर्धक कसाय आनी दुसरेवटेन निधिराम! स्पोर्टसा दिसा एक विस्वास बसचोना अशें कांड घडलें.

पोलवाल्टांत बुरुनान कोंड्याच्या आदारान एक असो झटको मारलो तो

खांब्यापरस धा फूट आनीक उंचायेचेर पावलो. मेजल्या उपरांत बावीस तेवीस फुटाची उंचाय आसतली. सबंद मैदान कडकडीत ताळ्यांनी ताळ्यांनी आनी उमळशिकेन उचंबळून आयलें.

शंबर मीटर, दोनशें मीटर, आठशें मीटर, हर्डल रेस, उंच उडी, लांब उडी, गुळो फेक कसल्या कसल्या खेळांनी बुरुनान लोकांक अचंबीत करून सोडले म्हूण सांगू नज. लोक आपसांत उलोवंक लागले, ''बाबा रे, हें तर हाबू वस्तादाच्या भूत कांडावरीच दिसता. ना जाल्यार इतल्या ल्हान पिरायेचो हो भुरगो इतलो फास्ट धावूंक वा इतली उंच उडी, जांव इतली लांब उडी कसो मारूंक शकतालो?

स्पोर्टसा उपरांत बुरुन चल्यांच्या खांदार बसून बरीच इनामां घेवन घरा गेलो. आज्यान हे सगळे पळोवन म्हणलें, ''कित्याक कशे जांवचें ना! हो कसाय म्हजो स्वतःचो अविष्कार. भेलू सारक्या दोतोराक शास्त्रान सोदून लेगीत असल्यो वस्तू मेळच्यो नात.''

# 6

---

ह्या दिसांनी बुरुनाचे काम बरेंच वाडिल्लें. सकाळीं उठून ताका कुडीत सान्न मारची पडटाली, जमीन पुसची पडटाली. आपलें अभ्यासाचें मेज ताकाच सारकें दवरचें पडटालें. बांयचे उदक काडचें पडटालें. जेवल्या उपरांत आयदनां घांसची पडटाली. सप्तकातल्यान दोन दीस कपडे, हाथरुण, चादर उशाचीं कवरां धुंवची पडटालीं. आपल्या बुटांक पॉलीश करचें पडटालें. मच्छरदाणी लावची पडटाली. कामूच काम! भेलू दोतोराच्या आदेशा उपरांत

सगळ्यांनीच ताका मदत करप सोडून दिल्लें. अपमानाची इतलीच शीम नाशिल्ली, गणितात फेल जाल्या उपरांत ताका गादयेर लेगीत न्हिदूंक मेळ नाशिल्लें. फकत बांकार जमखण आनी चादर घालून न्हिदचें पडटालें. मेय घाली नासतना बूट घालचे पडटाले तशेच रंगीत कपडे घालपाक लेगीत बंदी आशिल्ली.

सुरवेक बुरुनाक बरेच त्रास जाले. अपमानान दोळे भरून येताले. रातचो एकलोच न्हीदतना तो हुस्कारुन हुस्कारून रडटालो.

पूण आतां ताका त्रास जाय नाशिल्ले. उजवाडच्या पयलींच ताची न्हीद म्होडटाली. निधीरामूच ताका उठयतालो. दोळे उक्ते करतानाच निधिरामान कूड नितळ करून ताचे अभ्यासाचें मेजूय सजोवन दवरिल्लें दिसतालें. न्हावपाच्या वेळार जेन्ना तो बांयचे उदक काडपाक वतालो तेन्ना ताका उदकान भरिल्ली बालदी ओडची पडनाशिल्ली. तो फकत राजू धरून उबो रावतालो. बालदी आपले आपूण वयर येताली. आयदनां घासतनाय व्हडलेशे त्रास जाय नाशिल्ले. बायचे कडेक उश्टी आयदनां दवर्ल्लीं म्हणटकच आयदनां आपसूक घांसून पुसून निवळ जातालीं. मच्छरदाणी आपले आपूण लागताली. रातच्या वेळार निबर बांकार न्हिदपाक ताका त्रास जाताले देखून ताचीय व्यवस्था जाल्ली. रातची खंयच्यान तरी मोव मोव गादी हाथरुणाचेर घातिल्ली आसताली. आनी उजवाडचे पयलींच गायब जाताली.

हालींसंसाराक शिकपा बरोवपाचोय त्रास जाय नाशिल्लो. शिकपाची गरज तरी कित्याक आशिल्ली? वर्गांत कितलोय कठीण प्रस्न विचारल्यार लेगीत निधिराम ताच्या कानांत त्या प्रस्नाची अचूक जाप सांगतालो. बुरुन ह्या दिसांनी सामको सुसेगाची जीण जियेतालो.

मात निधिराम, जो ताची इतली सेवा करतालो ताच्या फाटल्यान एक कारणूय आशिल्लें.

सद्दां रातचो निधिराम बुरुनाच्या हाथरुणाकुशीक जमनीर बसून पिरपिरतालो ''जाणा बुरुन, हांव पळयतां तुकां. तूं बरोच धूर्त भुरगो जाला. उतर दिवन लेगीत उतर पाळीना.''

बुरुन झेमड्या दोळ्यांनी जांबयो काडीत म्हणटालो, ''म्हाका न्हीद येता.

आतां तूं वच पळोवया हांगच्यान.''

''आरे बाबा, तुकां न्हिदूंकूच जाय. पूण तुवें म्हजी न्हीद उडयल्या. तुकां खबर आसा ? थंय गोसाय बागान तुवें म्हजी फकाणां मारले उपरांत आतां हांव भुतांच्या समाजांत तोंड दाखोवपाचे लायकीचो उरुंक ना. खुद्द गोसायबाबान सरळ सरळ सांगून सोडलां, जेन्ना बुरून तुकां मात तरी भियेतलो तेन्नाच आमच्या समाजांत तुजें हुक्को-पाणी चालू जातलें, ना जाल्यार खडवांनी मारुन विधर्मी भुतांच्या टोळयेंत तुकां धांवडून घालतलो.''

''जाल्यार हांव कितें करूं?''

निधिरामान तोंड फुगोवन म्हणलें, ''तुजेखातीर हांव इतले सगळें करीत आसां. आनी तूं म्हजें एक ल्हानशें काम करुंक शकना?''

''पूण म्हाका तुजो भंय दिसना निधिदा!''

''यत्न करून तरी पळोवंक शकता न्हय तूं ?''

''धत् तिच्या! तुकां भिवपाची गजाल चिंतुनच हांसूंक येता.''

निधिराम निराश जावन गेलो. त्या उपरांत लेगीत दीस-रात हीच गजाल घेवन पिरपिरपाचे ताणें सोडलें ना.

आजो ह्या दिसांनी उलय नाशिल्लो. दीस रात पाळां-मुळां घेवन प्रयोग करीत आशिल्लो. तो तरतरेचें नवें चाटण, कसाय, चूर्ण तयार करतालो. रात दीस रानानी भोवून-भोवून रुखांची मुळां, तांच्यो साली आनी पानां एकठांय करतालो. हिरे, मोती, भांगर हांचे भस्म तयार करतालो. हरणाचे बोंबलेच्या सोदांत भोंवत आसतालो. ही सगळी ताची आदिंपासूनची खोड आशिल्ली पूण ह्या दिसांनी तो खूबूच बेजार जाल्लो दिसतालो.

आयतारा दीस आज्यान बुरुनाक आपोवन म्हणलें, ''तूं तर दिसान दीस बरोच प्रगती करीत आसा बाब! हांव जाणां, हांवें उठोवचे पयलींच तूं ब्रह्मम्हूर्ताचेर उठिल्लो आसता. घड्याळीच्या काट्याचेर चूक नासतना वेळच्या वेळार सगळीं कामां करता.''

बुरून मातसो लजलो आनी तकली सकल घालून उबो रावलो.

आज्यान ताका एका हातान ओडून आपल्या हड्ड्याकडेन धल्लो आनी दुसऱ्या हातान ताची तकली पोशेयत म्हणलें ''शाणो भुरगो तूं! शाबाश!''

आज्यान ताका बरो वेळ आपल्या छातयेकडेन धरून दवल्लो आनी ल्हवू आवाजान सांगलें "हें पळय बाब, आता हांव जाणटो जालां. कोण जाणा केन्ना मरन. म्हणून विचार करतां, जें कितें म्हाका येता तें आतां पसून, तुकां इल्लें इल्लें शिकयल्यार बरें."

तशे पळोवंक गेल्यार बुरुनाचो आज्याकडेन ताळ-मेळ बरो बसतालो. पूण हाचे पयली बुरुनाक केन्ना आज्यान असो लागीं ओडून माया करुंक नाशिल्ली. आपल्या आज्याची ही निराधार अवस्था पळोवन बुरुन अजापलो. ताचो आजो राम वैज केन्ना कोणाक भियेनाशिल्लो. ना म्हणल्यार ताणें केन्ना कोणाची पर्वाच केली ना. पूण आयज बुरूनाक दिसतालें, आजो आतां पयलीचो आजो उरूंक ना.

बुरून पयली पसून अडांगी भुरगो. गणितांत फेल जाले उपरांत मातसो दुःखी जावपी. देखून कोणायची निराशा ताका रोखडीच कळटाली. जे तरेन ताचे मन परिवर्तन जाल्ले; तेच तरेन घडये आज्याचेय मन परिवर्तन जाल्लें जायत.

बुरुनान विचाल्लें, "आज्या, तूं कसली चिंता करता? म्हाका सांग, हांव सगळें सारकें करतां."

राम वैज चिंतेस्त नदरेन कांय वेळ बुरुनाकडेन पळयत रावलो त्या उपरांत तकली हालयत ताणें म्हणलें, "हे सामान्य अरिश्ट न्हय. पूण बाब, हांव म्हजें चिंतीना जाणटो जालां. देखून आतां मरणाक भियेना. पूण येवजीतां, एक बदमास येतलो आनी ह्या आख्ख्या शाराचो विनाश करतलो."

"बदमास! कोण तो?" बुरुनान अजापन विचाल्लें.

"आसा कोण तरी."

"तो येवन कितें करतलो?"

"तो कितें करतलो तें आत्ताच कशें सांगू तुकां बाब? त्याचखातीर वेळ मेळटा तेन्ना तुकां थोडीशी म्हजी विद्या शिकयल्यार बरी. आनी ही विद्या फकत शिकली म्हूण जावची ना, तुकां अविष्कारय करचे पडटले. पोन्न्या वस्तुंचो सोदूय घेवचो पडटलो. आयुर्वेदान जितली वखदां सांगल्यांत त्याय परस कितलीशीच चड वखदां हांवें तयार केल्यांत. हो तर हाचो एक अंश जालो.

एक बरो चिकित्सक जावपाक फकत रोग आनी वखदां वळखून जायना. पैसो मेळवपूय म्हणल्यार सगळें न्हय. रोगी, जशीं सांगल्यात त्याप्रमाण वखदा घेता काय ना. हाजेरुय नदर दवरची पडटा. रोग्याचेर आपल्या घराण्यांतल्या मनशावरी प्रेम करचें पडटा. प्रेम होच चिकित्सेचो मूलमंत्र जावन आसा. स्नेह, ममता, सहानुभूती बगर बरो चिकित्सक जावंक शकना. त्याशिवाय आनीकूय गजाली आसात. खंयचे लक्षण पळोवन रोग्याक वखद दिलां आनी ताचो परिणाम कितें जाला, हें सगळें एके वेगळे चोपडेंत बरोवन दवरचें पडटलें. अदींमदीं तें आरतू परतून पळोवचे पडटलें. अशें केल्यार केन्ना चूक जायना. पयलीं जर केन्ना तुजेकडल्यान चुकीची चिकित्सा जाल्ली आसत जाल्यार मागीर तुवें ती सुदारूं येता. मागीर परत चूक जायना. म्हजेकडेन असल्यो वीस-एकवीस चोपड्यो आसात. तांका जर एका पुस्तकाच्या रुपान छापीत जाल्यार लोकांचे व्हड कल्याण जातलें. पूण आतां दिसता, हांव तें करुंक शकचो ना. त्यो सगल्यो चोपड्यो हांव तुजेकडेन सोपयतां.''

बुरुनाचे मन जड जायत गेल्लें. आजो अशे तरेच्यो गजाली करतालो, जशें कितें तो थोड्याच दिसांचो सोयरो आशिल्लो.

दीस मात्सो वयर येतकच आजो आपल्या चाकराक वांगडा घेवन गोसाय बागावटेन पाळां-मुळां सोदपाक गेलो. बुरून संद सादून आज्याचे कुडींत भितर सरलो. बुरून बेजार जातकच आपल्या आज्याचे कुडींत वचून च्यवनप्राश चोरून खातालो. आज्याल्या च्यवनप्राशाची रूच सामकी लोणच्यावरी आसताली.

च्यवनप्राशाच्या बरणेतल्यान एक कुलेरभर च्यवनप्राश घेवन चाटीत चाटीत बुरून आज्याल्या वोल्तेरार वचून बसलो. वोल्तेराक आज्याच्या तकलेच्या तिळाच्या तेलाचो वास येतालो, तो वासूय बुरुनाक आवडलो.

अचकीत वाऱ्याचे एक ल्हार आयलें. कुडींत आज्याच्या मेजार आशिल्ली सगळीं कागदपत्रां जळीमळीक उडली. एक इल्लोसो कुडको बुरुनाचे मांडयेर येवन पडलो.

बुरुनान सहज तो उगडून पळयलो. तांबड्या पेनान बरयल्ली ती एक चीट

आशिल्ली. तातूंत बरयल्लें, आमी नमस्कार करून निवेदनपूर्वक बरयतात की, भौमानेस्त आमचे परम पूजनीय सरदार हाबू म्हाराजाक धरपाक तुमीं जी आरतीं-परतीं कामां आनी षड्यन्त्रा रचल्यांत तीं आमी विसरूंक नात. हाबू म्हाराज बेगीनूच सरकारी कादयेंतल्यान सुटपाचे आसात. आमी काली मातेचो सोपूत घेवन सांगतात, हाबू म्हाराज्याच्या अपमानाचो बदलो घेतले बगर रावचे नात. आता तुमचो निमणो वगत आयला, हें जाणून घेयात. आमी तुमकां जाता तितले बेगीन भेटपाची वाट पळयतात. तुमचे (दासानुदास) हाबू म्हाराजाचे सेवक.

ती चीट वाचून बुरुन सामको घुंवलो. इतले नमळायेन केन्ना कोण कोणाक धमकी दिता? ताका हांसूकय येतालें. पूण आज्याचे हाव भाव आनी तांच्या गजालींची याद जातकच ताका कळून आयलें, ही चीट म्हणल्यार फकणां न्हय. तशी सादीसुदी चीट आशिल्ली जाल्यार आजो इतलो बदलचो नाशिल्लो.

बेगबेगीन च्यवनप्राश काबार करून बुरून आपले कुडींत गेलो. दार बंद करून ताणें सामक्या गंभीर आवाजान उलो केलो, ''निधिराम! ओ निधि दा!''

निधिराम म्हऱ्यांत नासल्यारूय व्हडलिशी चिंता नाशिल्ली. निधिरामाचे असंख्य दूत वाऱ्यार चारुय वटेन जळीमळीक भोंवताले. तातूंत बरीच नवीं भुतां, अन्नाडी भूतां, भित्री भुतां, मूर्ख भुतां, पिशी भुतां, साधू आनी चोर भुतांय आशिल्लीं. तांका सगल्यांक निधिरामान सांगून दवरिल्लें तें म्हणल्यार जेन्ना बुरुनाक आपली गरज पडटा तेन्ना रोखडेच आपणाक कळोवचे.

आजूयबी एक बारीक-कीडकीडीत भूत मोट्या शब्दकोशाच्या पानां भितर चिड्डून न्हिदिल्लें. बुरुनाचो उलो आयकून तें जागें जालें आनी भायर आयलें तेन्ना लेगीत ताचे आंग कागदावरी चपटें आशिल्लें. झेमत्या दोळ्यांनी ताणे बेगबेगीन नमस्कार करून म्हणलें, ''हय, ते मात्शें मडें खावपाक मनसागुडी गेल्यात. थंय महामारी पडल्या न्हय.''

''मडें खावपाक? छी.'' बुरुनान घृणेन आपले तोंड वांकडें केलें.

त्या दुबळ्या भुतान हांसत म्हणलें, ''तूं जेन्ना भूत जातलो तेन्ना तू अशें

म्हणचोना. मडें खावपाक इतलें रुचीक आसता! ताचेमुखार पुलाव बिरयानी लेगीत कित्याक उपकरना.''

बुरूनान तापोवन म्हणलें, ''ताका आत्तां आपय. खूब म्हत्त्वाचें काम आसा म्हूण सांग.''

त्या किडकिडीत भुतान 'वतां' म्हूण एक उडी मारुन मळब पार केलें.

कांय खिणाभितरुच निधिराम एके काडयेन दांत पोखरीत हजर जालो.

''कित्याक आपयल्लो?''

बुरुनान म्हणलें, ''तोंड धुवन आयला मरे?''

''भुतांचें कसलें तोंड धुवप?''

''पयलीं वचून तोंड धुवन यो. भलायकेच्यो गजाली मानीनात. सदाचार पाळीनात. निधीदादा, तुमी कसले लोक रे?''

निधिरामाक लज जाली. तो तोंड धुवन आयलो.

बुरुनान ताका विचाल्लें, ''हाबू म्हाराज नांवाच्या मनशाक वळखतात?''

निधिरामान अजापान म्हणलें,'' आरे बाप रे! कित्याक वळखूचो ना? ताणें आमकां थोडे सतावंक ना.''

''कशे तरेन?''

''आह! ते आनी विचांरू नाका. हाबू गुंडाक भुतांचो मंत्र येतालो. ताच्याच आधारान तो आमचेर शेक चलयतालो. आनी आमचेकडल्यान बऽरी कामां करून घेतालो. सासवांनी आनी झाडावन बरो पेट्टालोय बी. पूण तूं ताचेविशी कित्याक विचारता?''

''जर तो हांगा परतून आयलो. जाल्यार कितें जातलें?''

''येतलो? आरे बाप रे! तशें जाल्यार सर्वनाश जालोच समज.''

''तुमी सगळे ताका खऱ्यानीच खूब भियेतात?''

''ताका सगळेच भियेतात. आमका ताणें खूब पिडला''

बुरूनान गंभीर जावन म्हणलें ''हांव एक गजाल सरळ सरळ जाणाजावपाक सोदतां ती म्हणल्यार, हाबू हांगा येतकच तुमी ताका चड

मानतले काय म्हाका?''

निधिरामानूय गंभीर जावन म्हणलें ''हे पळय बुरुन! तू ल्हान भुरगो देखून इश्टागतीच्या नांवान तुजी सगळीं कामां हांव करतां. तुजो आदरुय करतां. पूण हाबूची गजाल वेगळी. ताका मोगान सोड. फुटके नदरेन लेगीत पळोवपाची इत्सा नासता. पूण ताचेकडेन एक मंत्राचे बळ आसा. मंत्रामुखार चलाखी चलना. तो आमची गची धरून आमचेकडल्यान नोकरा-चाकराची कामां करून घेतलो. देखून जर तो आयलो जाल्यार पयलींच सांगता, त्या वेळार आमी तुकां कसलीच मजत करूंक शकचेनात.''

''अशें आसा?''

''हय! करतले तरी कितें! आमी तर मंत्राचे गुलाम.''

''बुरुन हुस्क्यान चिंतूंक लागलो. परतून ताणें विचाल्लें, ''तेन्ना आपयल्यार लेगीत तूं येवचो ना?''

निधिरामान तकली हालयत म्हणलें, ''येवचो ना अशें म्हणना.पूण त्या वेळार जर हाबू कसल्याय कामान गुरफटावन दवरीत जाल्यार शक्य जावचे ना. पयलीं हाबूचें काम मागीर दुसरी गजाल.''

''जर हाबून तुकां हुकूम सोडलो, 'चलात वचून बुरुनाची तकली कापून घेवन येयात? जाल्यार तुमी खऱ्यांनीच म्हजी तकली कापून उडयतले?''

निधिराम खरें तर भूत आशिल्लो तरी पूण ही गजाल आयकून ताचे तकलेवयल्यान घाम फुटूंक लागलो. सामके अस्वस्थतायेन ताणें म्हणलें, ''अशी अभद्र उतरां उलोव नाका. असली उतरां जीबेर हाडूंक जायनात.''

''पूण जर तर हाबून केन्नाय तशें म्हणलें जाल्यार कितें करतले?''

निधिरामान दीर्घ स्वास घेवन म्हणलें, ''हांव तुजो मोग करतां बुरून हांव कितें सांगू! पूण जर हाबू हुकूम सोडीत जाल्यार म्हजी लेगीत तकली कापून ताका दिवची पडटली.''

# 7

होळी जशी कितें घोड्यारूच बसून आयली.

हाबू गुंडाचे सुटकेची खबर एकल्या कडल्यान दुसऱ्याक मेळत चारुय दिकांनी पातळ्ळी.

हाबू जरी कितलोय बदमास आशिल्लो तरी त्या वांठारांत ताचे जे परम भक्त आशिल्ले, तांका दिसतालें हाबूकडेन ज्यो शक्ती आसात त्यो फक़त व्हड - व्हडल्या महापुरुसांकडेनूच आसतात. ताका लागून हाबून चोरीमारी केल्यार लेगीत हे लोक ताका साक्षात देवाचो धाकलो भाव मानताले.

असल्या लोकामदी एक आशिल्लो पंचकौडी. केन्ना तरी ताणे 'हाबू वस्तादाची वंदना' नांवाची एक ल्हानशी पुस्तिका छापिल्ली ताच्यो सुरवेच्यो वळी अशो आशिल्ल्यो-

प्रथम वंदन करता देवा महेश्वरा।
आनी करता वंदन देवा चराचरा॥
भक्तिभावन पुजतां वांग्देवीचे चरण।
माता-पित्याच्या चरणाचेर सगळे प्राण-मन।
उत्तरेक हिमालय दक्षिणेक रान।
हांचे अदीं-मदीं कितलेशेच गाव-शार॥
नगरांत श्रेष्ठ अशी भैटा गुडी बाग।
जंय रावता श्री हाबू पुण्यवान॥

त्या उपरांत त्या वंदनेत पंचकौडीन मुखार बरयिल्लें -

गुणाकार हाबूच्या गुणांचे ना शेष।
खीणा भितर लोकांक करी तो मेष।
वाग वाहन आनी भूतां खेतां सांगाताक।
निशि ठाणेदार पळ्ळो जीवाच्या आकांताक॥
अयस्कान्त आयिल्लो आपले हड्डें ताणून।
हाबू वस्तादूच जाणा कसो गेलो पळून॥

निमाणेकडेन आयलो ठाणेदार गदाई।

गुणाधीशाच्या बचक्यांतल्यान कोण वाटायत तरी।।

केन्ना केन्नाय पंचकौडी बाजारांत हे पुस्तक विकूंक आपूणच वतालो. पूण गदाई ठाणेदारान हाबूचेर नियंत्रण दवरिल्ल्यान ताची उमेद मंदावल्ली.

खूब दिसांनी हाबू वस्ताद परत येता ही खबर आयकून ताच्या मुखामळार हांशे पिकलें. राम वैजाकडेन एक दीस वचून ताणें म्हणलें, ''वैजबाब, जाणात तुमी? हाबू देवता परतून येता खंय. जाणे कोणे ताका बंदखणींत उडयल्लो, ताचे दीस आता सरले. कितें दिसता तुमकां?''

राम वैजाकडेन कित्याक कोण जाणा हाबून केन्नाच किजील करुंक नाशिल्लें. पूण वैजानूच आपूण जावन हाबूच्या विरोधांत गवाय दिल्ली. तेन्ना हाबून न्यायालयांतूच सांगिल्ले, ''रामदा! तुवें बरें काम करुंक ना!''

हाबूची ती गजाल वैजबाब विसरूंक नाशिल्ले. ताणे वाळू पेचून पंचकौंडीक म्हणलें, ''एका सादारण मनशाक देव कित्याक करतात? हाबू कितेंय आसलो तरी तो मनीसूय न्हय?''

पंचकौडीन आपली जीब चाबीत म्हणलें, ''छी. छी. अश्यो गजाली केल्यार पातक लागतलें. ताची योग्यताय देवापरस मातूय उणी ना.''

''तशेच आशिल्लें जाल्यार तो आपल्या मंत्रांच्या बळार बंदखणीतल्यान भायर कसो येवंक शकलो ना?''

''हीच तर ताची लीला! हांव एक फावट ताका मेळूंक बंदखणींत गेल्लों. थंय वचून कितें पळयलें जाणा? ताच्या कपलार शेंदूरान त्रिशूल पितारिल्ले, केसांच्यो जटा जाल्यो. तांचे दोनूय दोळे तांबडेच जाल्ले. शिपायासावन जेलरामेरेन सगळे ताच्या मुखार रात-दीस हात बांदून सेवेक हजर आसताले. शेकड्यांनी लोक मिठाय, भाजी, नुस्तें-मांस आनी हेर वस्तू ताका भेटयताले. सबंद बंदखणींत तांचो हो प्रसाद वाट्टाले. ताणें म्हाका म्हणिल्लें, 'पंचकौडीबाब, हांव हांगा बंदखणींत कांय दीस रावून आत्मशुद्धी करतां.'

''तशें जाल्यार देवाक लेगीत आत्मशुद्धिची गरज आसता अशेंच तुकां म्हणपाचें आसा न्हय?''

पँचकौडीन नाराजी उक्तायत म्हणलें, ''विश्वास दिसना न्हय? हांव सांगून

दवरतां तुमकां. वैजबाब, तुमचे मदलो कोणूच वाचूंक शकचो ना.''

पंचकौडी गेल्या उपरांत राम वैज वोग्गी बसून चिंतूक लागलो. त्या उपरांत ते उठून ठाण्यावटेन गेले.

ठाण्यांत नवो ठाणेदार आयिल्लो. ह्या ठाणेदाराची पिराय उणी आशिल्ली. उतरा उतराक इंग्लीश झाडटालो. मनीस वायट नाशिल्लो. पूण चड अणभव नाशिल्ल्यान कामांत तितलो फिशाल जावंक नाशिल्लो.

वैजाकडल्यान हाबुची चर्चा आयकून ठाणेदार शंभू चरणान म्हणलें, ''ओह! दॅट फेमस रोग! ना हे खेपो ताचो कांयच परिणाम जावचो ना.''

राम वैजान हांसत म्हणलें, ''घालतलो दांडो, करतलो थंड? ना रे बाब, हें काम तितलें सोपें ना.''

वैजाच्या कवितेच्या वळीची वळख शंभूचरणाक नाशिल्ली. सोड, ताणे बेफिकीर जावन म्हणलें, ''वैजबाब नाकांत तेल घालून सुसेगाद न्हिदात. हाबूक ताब्यान घेवपाक म्हाका दोन दीसूय लागचे ना. पूण तशी ताणे कसलीय गडबड मात करुंक जाय.''

होळयेच्या कांय दीस पयलीं त्या वांठारांत कांय दुबावीत लोकांचे यो – वच सुरू जाल्लें. ते लोक तिरशे नदरेन पळयताले, कोणाकडेन चड काय उलनाशिल्ले. फकत वोग्गी रावन भोंवताले.

हरिहरबाब सायकली वयल्यान तिस्ताघाटार गेल्ले. सांजेच्या वेळार परततना शाराच्या उत्तरेकडल्यान शाल जंगलातल्यान येवपी वाऱ्या भितर ताका वागाचो वास आयलो. ताणें आपली सायकल इतल्या वेगान चलयली जशी कितें रोदां बदलाक पांखां बगर ती उडपाक लागली. बाजाराकडेन पावता पावता 'बा... बा...' म्हूण आड्डत आड्डत बेशुद्ध जावन सायकलीसकट कोसळ्ळो.

लोकांची गर्दी जाली. कोणे तरी म्हणलें, ''अशें दिसतालें, ते वा! वा! म्हणीत आतांच कोणाक तरी शाबासकी दिताले. मागीर बेसुध कित्याक जाले?''

दुसऱ्यान कोणे तरी म्हणलें, ''ताणे इतल्या वेगान सायकल चलयली आपलेच करतूप पळोवन ते खोशी जाल्ले आनी आपूले आपल्याकूच

शाबासकी दिताले.''

एका भुरग्यान आपल्या बापायक विचाल्लें, ''बाबा ही सयकलूय बी बेशुद्ध जाल्या?''

सनातनबाबांक बुद्धिबळ खेळपाचे पिशें आशिल्ले. ते दीसभर खंयच्याय बुद्धिबळ खेळपी खेळगड्याक सोदीत आसताले. पूण ह्या शारांत खेळगडे आशिल्ले तरी कितले? जे आशिल्ले ते केन्नाच वेळार मेळ नाशिल्ले. अर्दे रातीर पसून सनातनबाब न्हीदेंतल्यान जागे जाले जाल्यार पसून लापयांवाची वात वयर काडून बुद्धिबळ पट मांडून बसताले. त्या वेळार तांका सांगाता कोण मेळना म्हूण ते एकलेच धुलो लावन दोनूय वटेतल्यान आपूणच चाली चलयताले.

एकदां अशेच ते रातचे खेळटाले. अचकीत ताणी पळयलें, ताचे विरुद्ध दिकेच्यो धुलो आपले आपूण चलपाक लागल्यो. आनी कितें उत्कृश्ट चाल आशिल्ली! खेळ सुरू जाता थंय आसा, बारा चाली भितरुच ताणें घोडो आनी हतयेच्या मुखार हार मानली. खेळांत गुल्ल जाल्यान गजालीकडेन तांचें लक्ष नाशिल्लें. खेळ सोंपताच ते, ''आवयस ! म्हूण आड्डले आनी भिवन बेसूद पडले.

पूण एक गजाल खरी आशिल्ली ती म्हणल्यार त्या वांठारांत वागांचो वास येवपाक लागिल्लो आनी तरतरेच्यो भुताटकेच्यो भिरांकूळ घडणुको घडूंक लागिल्ल्यो.

राम वैजाल्या दुकानांत सगळे सामके गंभीर जावन बशिल्ले. कमलाक्षबाब मफलर गुठलावन थंडेन कुडकुडत थंय आयले आनी म्हणपाक लागले,

''कांय विचारुं नाका. इतली म्हारग शॉल...''

''कितें जालें शॉलीचें?'' रामबाबान चिंतेस्त जावन विचाल्लें.

''घेवन गेलो.''

''कोण?''

''आनीक कोण?''

सगळे जाण तांच्या तोंडाकडेन पळयताले, पूण कमलाक्षबाब मुखार कांयच उलोवपाक तयार नाशिल्ले.

राम वैजान लांब श्वास घेवन म्हणलें, ‘‘कोणाचेर कसलो वेळ येत सांगूक जायना.’’

मन्मथबाबान तांका दुजोरो दियत एक दीर्घ श्वास घेवन म्हणलें, ‘‘ही गजाल खरी. आमी कितलेय सादूर रावले तरी काळा मुखार कसलेंच शाणपण चलना.’’

रामबाबान तांका पळयत म्हणलें, ‘‘हांव आमची गजाल करीनाशिल्लों. आमचें कितें जातलें तें बरें आसा. हांव हाबू गुंडाचे कितें करप ते पळयतां.’’

मन्मथबाबान सादूर जावन आपल्या चारुय दिकांनी नदर भोंवडायत म्हणलें, ‘‘ताचें नांव जीबेर लेगीत हाडूं नाका. वण्टींक लेगांत कान आसतात.’’

कमलाक्षबाबान म्हणलें, ‘‘वैजबाब तुमी तुमची धीटाय मातशी उणी करात. धाडशी जावप बरें आसा. पूण अति धाडस दाखवप बरें न्हय.’’

‘‘सारा रा रा ढेक चली जा... ढेक चली जा... ढेक चली जा...!’’

रातभर गांवकारांचे वस्तेंत होळयेचें गीत चलतालें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं होळी आशिल्ली.

भुरग्यांनी दोन तीन दीस पयलीच पिचकारी, रंग, अबीर हांची तयारी करून दवरिल्ली. होळी खेळपाक जे पिनके-पोन्ने कपडे लागतात ते ट्रंकातल्यान सोदून काडिल्ले. कुशिल्लीं तांतया एकठांय करप, बोमाड्यांचे बॉम तयार करप, हीं कामां आतां मेरेन पुराय जाल्लीं. कांय जाणांनी बटाट कापून ताचेर ब्लेडीन ‘गाडव’ कोराथिल्लें. होळये दिसा दोन चार गिरेस्तांच्या घरांनी होळी खेळपाक आयिल्ल्या लोकांची तोंडा गोड करपाची पद्धत आशिल्ली.हे खेपेक कोण कितें खावपाक दितलो हाचेरुय कांय जाण चर्चा करताले.

मन्मथबाबालो नातू भुतुम सामको मस्तो भुरगो आशिल्लो. ताणें आपल्या अबीरांत लिपचोरयां मिरसांगेचो पिठो भरशिल्लो. तातयांची कल्लां एकठांय करून तांतूंत तांबड्यो मुंयो भरिल्ल्यो. ती तांतया जाचेर बसतलीं तो बाबडो रंगान भरचो सोडून मुंयो चाबिल्ल्यान बेजार जावन वतलो आशिल्लो. त्याशिवाय ताणे आपल्या रंगाचे बालदेंत शेणूय घोळयल्लें. वांगडा एक

दामदाराची डबीय आशिल्ली.

भुतुमा सांगाताक होळी खेळपाची गजाल सोडाच, तशें पळोवंक गेल्यार ताचे वांगडा होळी खेळपाक कोणाक आवडच नाशिल्लें. फकत प्राण नांवाचो आनीक एक भुरगो आशिल्लो. तो भुतुमा इतलो तवनास नाशिल्लो तरी मस्तेपणांत उणो नाशिल्ले. प्राण भुतुमाचो लागीचो इश्ट आशिल्लो पूण भुतुम प्राणाक पसून सोडीनाशिल्लो. एक फावट ताणें ताच्या बोल्सांत वागोणी घातिल्ली.

बुरुनाक हे फावट होळी खेळपाक मनाय आशिल्ली. ताच्या बापायन सांगिल्लें, ‘‘फुडल्या वर्सा सगळ्या विशयांनी बऱ्या मार्कांनी पास जाल्यार आनी गणितांत डिस्टिंग्शन मेळ्ळयारुच आदले वरी मस्ती करपाक मेळटली.’’

बुरुनाचो बापूय अदीमदी शाळेंत वचून बुरुनाची खबर घेतालो बुरुनाचे अध्यापक एकूच गजाल सांगताले, बुरुनाची प्रगति सामकी असाधारण. तो फाइनलीतूच फस्ट येतलो अशें न्हय आनीकूयबी बरेच कितें करतलो. जशें, ओलम्पिकांत तो कमीत कमी बारा भांगरा पदकां मेळयले बगर रावचो ना. क्रिकेटांत ब्रेडमॅनाचो रिकॉर्ड तोडटलोच, पूण फुटबॉलांत बंगालच्या गोष्ठ पालाकूय फाटी उडयतलो.

बुरुनाचो बापूय ह्या गजालींचेर चड लक्ष दिय नाशिल्लो. पूण हें आयकून ताका सामकीच खोशी जाय नाशिल्ली अशें न्हय. पूण खूश जावन तो बुरुनाक सैल सोडी नाशिल्लो. ताका खर शिस्तीन दवरतालो.

होळये दीस सकाळ जाताच रस्त्यार भुरग्यांचो बोवाळ आयकूंक येवंक लागलो. भुरगे रंग मारपाक एकमेका फाटल्यान धांवताले. ते खूब हांसताले. बोवाळ मारताले.

बुरुन त्या वेळार आपले कुडींत आपले दांत करकरायत गणितां सोडयतालो. ह्या दिसांनी दिसाक वीस गणितां ताका सोडोवचीं पडटालीं. कराली सरान दिल्ले ते प्रश्न बॉमावरी आसताले. ते समजुपाकूच कठीण. पयर पसून ही गणितां बुरुनान कांयच न्हयशीं सोडयल्लीं. खरें म्हणल्यार हें बुरुन करीनाशिल्लो, बुरूनाच्या हातांतल्यान निधिराम सोडयतालो. पूण कालच्यान

निधिरामूच गायब जाल्लो. इतलेंच न्हय ताची शिक्षार्थी भुतां निधिरामाच्या दुताच्या रुपान आशिकुशीक भोंवत आसतालीं, तांचोय खंय पत्तो नाशिल्लो. बरेच खेपो सांगून धाडटकच काल दनपरां थोड्या वेळाक निधिराम आयिल्लो. ताचे पुराय आंग मातयेन माखिल्लें, दोनूय दोळ्यांत लाचारी आशिल्ली. घामान सामको भिजिल्लो. ताणे म्हणलें, “कांयच विचारुं नाका! गोसाय बागाचें रान निवळ करतां. हाबू वस्ताद आयला न्हय! येनाफुडे हुकमांचेर हुकूम सोडीत आसा. काम तरीं कितें सोपें आसा? कांटयाच्या झाडांचे रान निवळ करचें पडिल्लें जाल्यार कळटलें आशिल्लें.”

रडकुळो जावन बुरुनान म्हणलें, “तूं नासतना म्हजे कठीण प्रस्न, अणकार कोण करतलो निधीदा?”

निधीरामान गंभीर जावन म्हणलें, “हें पळय बुरुन, जितलें हांवें केलें तितलें फावलें. आतां ह्यो गजाली विसरून वच. आतां म्हजो सांगात तुकां मेळचो ना. आतां तूं तुज्या पांयार उबो रावूंक शीक.”

बुरुनान ताका आस दाखयत म्हणलें, “आतां हांव तुकां शेर्त भियेतलों. हांव उतर दितां तुकां.”

निधिरामान हांसून म्हणलें, “कोणाक कोण भियेवपाचो हो वेळ न्हय. गोसाय बाबा लेगीत हाबूचे कुडींत सान्न मारपाक लागल्यात. विसव घेवपाक लेगीत फुरसत ना तांका. तूं कितलो म्हूण भियेतलो? आमी हाबूक कितले भियेतात ते सांगूक कठीण.”

बुरुनान म्हणलें, “हाबून हुकूम सोडल्यार तुमी कितेंय करूंक शकतात निधिदा?”

निधिरामान हांसत म्हणलें, “सगळें करपाक जाता. आमचें आंग वाऱ्याचें जालां, ताकां लागून वाऱ्याच्या जोराचेर जें कितें करपाक जाता तितलेंय आमी करतात.”

बुरुनान म्हणलें, “जर होबून म्हज्या आज्याचो, राम वैजाचो गळो दामपाक सांगलो जाल्यार तूं तशें करतलो?”

निधिराम वैजाचे नांव आयकनाफुडे थंयच्यान फुर्र जालो. बुरुन पळयतूच उल्लो. बरो वेळ विचार केल्या उपरांत ताका कळ्ळें, आपणे निधिरामामुखार

आपल्या आज्याचे नांव घेवप योग्य नाशिल्लें. राम नांव आयकप खंयच्याच भूताक सोसना.

जालें, त्या उपरांत निधिरामाक आपयल्यार लेगीत तो आयलो ना. ताका लागून कालच्यान बुरुन आपलें गणिताचें काम आनी अनुवादबी आपले आपूण करतालो. काल कराली सरागेर शिकतना बुरुन सामको त्रासांत पडिल्लो. करालीबाब जें कितें विचारताले ते बुरुनाक सांगूक कळनाशिल्ल्यान बुरुन तोंड फुलोवन बशिल्लो.कराली सरान अजापान म्हणलें, ''अशें कितें बुरुन? हांवें चिंतिल्लें तू आइन्स्टीनाभशेन कोण तरी व्हड जातलो. काल लेगीत तुवें एका परस एक कठीण प्रस्नांचो जापो दिल्ल्यो.''

काल बुरुन शाळेंत ट्रांसलेशन लेगीत करुंक शकलो ना. भूगोलाच्या वर्गांतूय ताणें चूक केल्ली. मदले सुटयेवेळार खेळटना शून्य रनाचेरुच तो आऊट जाल्लो. बॉलींगूय ताणे सामकी बाबद केल्ली. ताची ही दशा पळोवन गेम सरूय चिंतूंक पडिल्ले.

त्या खातीर आयज बुरून दुखेस्त आशिल्लो. अभ्यास करपाच्या मेजामुखारुच जनेल आशिल्लें. थंयच्यान रस्तो दिसतालो. एकूय जाप मेळनाशिल्ल्यान बुरुन सामको बेजारुन भायर पळयत आशिल्लो. आयज होळयेचो दीस आशिल्लो. सगळे रंगांत खेळटाले. ताका खेळपाक बंदी आशिल्ली. वयल्यान निधिरामूय ताका सोडून गेल्लो. हाबू गूंड ताच्या आज्याचो बदलो घेवंक परत आयिल्लो.

बसला थंय बुरुन ह्याच विचारांत आशिल्लो. त्याच वेळार जनेलांतल्यान एक रंगान भरिल्लो चेहरो मुखार दिसलो. बुरुन सादूर जावचे पयलींच एक मूठभर मिरसांगे पिठो आशिल्लो अबीर ताच्या दोळ्यांत तोंडांत गेलो. गणिताची चोपडी, पुस्तक सगळें शेण मेळयल्या मजेन्टा रंगान बुडली. त्या सांगाताक मुयांनी भरिल्ले तातयांचे कल्ल ताच्या माथ्यार फुटलें. तातुंतल्यान मुंयो भायर सरून बुरुनाच्या सबंद आंगार चडल्यो.

एकेवटेन मिरसांगांचो जळजळ आनी दुसरे वटेन मुयांचें चाबप. बुरुन सामको कळवळून उडक्यो मारुंक लागलो. रागान सामको तांबडो जालो. 'निधिदा, निधिदा' म्हूण आइडूंक लागलो. पूण मागीर ताका उगडास जालो,

निधिराम हाबूचे सेवेक लागला. तो येवंक पावचो ना. ताका लागून भुतूमाक धरपाक ताणें एक उडकी माल्ली आनी तो कुडींतल्यान भायर सरून रस्त्यार आयलो.

भुतूम धांवतालो. ताचे फाटल्यान धांवत बुरुनान चिंतले, "कितलो वेळ धांवतलो? धरतलोच तुकां आतां."

पूण स्पोर्टसान ताणे जे तरेन विश्व कीर्ति मेळोवपासारकी धांव मारिल्ली ते तरेन ताका धावूंक जमलेंना. परतो रोकडोच ताका दमूय लागलो. रस्त्यार सगळे भुरगे ताका व्हड व्हडल्यान आइडून शाबासकी दिताले. तांकांय दिसताले हो गांवचो नंबर एक खेळगडो जावन आसा, जो एकलोच ओलम्पिक खेळांनी डजनभर भांगरा पदकां जिखून हाडपाक शकतालो. तो रोकडोच भुतुमाक धरतलो.

पूण आयज अशें जालें ना. भुतुम कांयच न्हय कसो बरोच पयस पाविल्लो आनी थंयच्यान बुरुनाक आंगठो दाखोवन चाळयतालो आनी हांसतालो.

बुरुन तोंड बावोवन परततालो. इतल्यान रस्त्याचेर मदीच कांय भुरग्यांचे टोळयेन ताका आडायलो आनी बरोच रंगयलो. बुरुनान तांका धुकलून पयस करपाचो यत्न केलो खरो पूण ताका जमलें ना. पयर लेगीत ताचे भितर सात हतयांचे बळ आशिल्लें. खंयच्याच भुरग्याक ताका हात लावपाची धमक नाशिल्ली.

रंगान बुडिल्लो बुरुन हताश जावन कांय वेळ थंयच उबो रावलो. भुरग्यांचे आनीक एके टोळयेन ताका पिचकाऱ्यांनी न्हाणयलो. कोणे तरी ताचेर कुशिल्लें तांतीय माल्लें. इतलें सगळें जावन लेगीत बुरुन घरा परतलो ना. ते टोळयेंत सामील जावन गल्लींत रंग खेळपाक लागलो.

होळयेची सुरवात अबीरान जाली. त्या उपरांत रंगान आनी मागीर दामर चीखल आनी शेण. रंगान रंगून सगळे भुतांवरी दिसताले. निमाणेकडेन कोण कोणाक वळखूंक शकना अशे जालें. रस्त्यार सगळे संवगां जावन भोंवताले पूण कोणाकूच वळखूंक जाय नाशिल्लें.

बुरुन त्या रंगान बुडिल्ल्या चेहऱ्या मदीं भुतुमाक सोदतालो. ताका भुतुमाक धरून ताच्या दोनूय कानसुलांचेर थापटां पुलोवपाचीं आशिल्लीं.

बरोच मदांद जाल्लो तो.

बरो वेळ सोदून भुतुम ताका बकुळ तळ्याकडेक दिसलो. चरयेतलो चिखोल काडून तो लोकांचेर शेंवटीलो. बुरुनान वचून ताचो कान धल्लो आनी ताचे तकलेर एक वाजोवन म्हणलें, ''सकाळीं सकाळीं मिरसांगे पिठो भरिल्लो अबीर मारुन व्हडलो पराक्रम दाखयल्लो न्हय! आतां?''

भुतुमान व्हडव्हडल्यान रडत म्हणलें, ''राव, म्हज्या व्हडल्या भावाक आपयतां. बिशुदा, तुवें कालूच म्हजेर थापट मारिल्लें आनी म्हज्यो घुलो काडून घेतिल्ल्यो न्हय?.'

बुरुनाक आपले चुकीचो पश्चाताप जालो. तो भुतुम नाशिल्लो चौथेतलो खंयच्च्याय वेळार रडपी भुरगो फुचू आशिल्लो. तशे पळोवंक गेल्यार फुचूय बी ताका वळखूंक नाशिल्लो. तो ताका बिशु समजल्लो. बुरुनान थंयच्यान रोकडीच पळ काडली.

निमाणेकडेन बुरुनाक भुतुम कुमारांचे टोळयेंत सांपडलो. रंगाचे बालदेंत तो पेत्रोल वोत्तालो. बुरुनान वचून खप्प करून ताचो हात धल्लो आनी म्हणलें, ''भुतुम! आतां सुटून खंय पळटलो? सकाळीं सकाळीं व्हडलो...''

भुतुमान अजापान ताचेकडेन पळयत म्हणलें, ''हें पळय मोना! परतून फकणां केल्यार त्या दिसाभशेन गोफणीन मारतलो. आमच्या वाड्यावयल्या एका भुरग्याचेर तुवें खोंट मारले उपरांत ते दीस तुकां इतलो माल्ला, तरीय तुकां लज दिसली ना?''

इतले म्हणटां म्हणसर ताणे बोल्सांतल्यान गोफण भायर काडून नेम धरता म्हणल्यार बुरुन जीव घेवन पळ्ळो. फाटल्यान एक फातर ताच्या कण्याचेर येवन ठण्ण करून बसलो. पयलीं खबर आशिल्ली जाल्यार निधिदा त्या फातराचो तीर दुसरेवटेन बदलतलो आशिल्लो. पूण निधिराम तर आयज नाशिल्लो.

भुतुमाक सोदतां सोदतां कितलेशे खेपो चुकीच्या भुतुमाकडेन बुरुनाचो सामनो जालो. तेय भुरगे बुरुनाक वळखूंक शकले नात.

सोदता-सोदतां निमाणेकडेन बुरुन बेजार जालो. इतल्यान रथतळाच्या एका जांबळी पोंदा एक सादो-सुदो भुरगो उबो आशिल्लो ताका दिसलो.

बाबडो रंगान न्हावन वोग्गी उबो आशिल्लो. ताच्या हातांत पिचकारीय नाशिल्ली आनी रंगूय नाशिल्लो. फकत थोडीशी अबीर आशिल्ली. बुरुनान ताका म्हऱ्यांत वचून विचाल्लें, "आयक रे, नोआपाडाच्या भुतुमाक तुवें खंय पळयला?"

तो भुरगो हांसताच ताचे तांबडे-निळे दांत दिसले. त्या चल्यान सामको शांत रावून म्हणलें, "हय पळयला. पूण एक सांग, तूं कोण?"

"हांव बुरुन."

"आरे, चैम्पियन! तू तर आमचो गौरव मरे. आमच्या घरांत तुजीच चर्चा जाता. यो तुकां इल्लो अबीर लायतां. लांव मरे? वायट दिसचें ना न्हय?"

ताचे इतलें सभ्य आनी बरें वागप पळोवन बुरुन भुल्लुसलो आनी ताणे म्हणलें, "तुजो अबीर कित्याक पिड्ड्यार करता? म्हज्या आंगार रंग लावपाक जागोच उरुंक ना."

त्या चल्यान म्हणलें, "हांव धांवून कोणाचेरुच रंग मारुंक शकना. म्हूण आयज हांव कोणाकूच रंगोवंक शकलो ना."

हे आयकून बुरुनाक ताची काकुळट आयली. ताणे आपलो चेहरो मुखार करून म्हणलें, "अशें, लाय म्हाका रंग."

तो भुरगो आपल्या हातांतलो अबीर बुरुनाच्या तोंडार मारुन पळ्ळो. मिरसांगेचो पीठो घाल्ली ती अबीर बुरुनाच्या नाका-तोंडांत आनी दोळ्यांत गेली. तो चलो धांवता धांवता म्हणपाक लागलो, "सामको मूर्ख मरे तूं. हांवूच भुतुम. म्हाका धरूंक शकलो ना मरे?"

तिडकीत बुरुन चाळवलो. तो दोळे पुशीत-पुशीत आवाजा दिकेन भुतुमाक धरपाक धांवलो. ताच्या पायांची सुलूस आनी ताच्या ताळ्याच्या आवाजावेल्यान बुरुनाक कळ्ळे, तो गोसाय बागावटेन वता. शारांतले सगळ्यांत व्हडले तळें थंयच आशिल्लें. गोसाय बागांतल्या त्या विशाल तळ्याक लोक 'समुद्र दीघी' म्हण्टाले. त्या तळ्यांत वर्स भरुय उदक भरून आसतालें. इतले बरें उदक आनीक खंयच नाशिल्लें. पूण पयस आशिल्ल्यान आनी भिरांकूळ वाठार आशिल्ल्यान लोक थंय न्हावंक वचनाशिल्ले.

बुरुनाक स्पश्ट आयकूंक आयलें, भुतुम धांवत 'समुद्र दीघीं'त उडी मारीत

म्हणटालो. ‘‘कसो मूर्ख केलो. म्हाका धरुंक शकलोच ना.’’

बुरुनानूय फाटी फुडे चिंतीनासतना वचून त्या दीर्घीत उडी घेतली. उदकांत काय वेळ बुचकळ्ळ्या उपरांत ताका ल्हवू ल्हवू सगळे दिसूंक लागले आनी तो चारुंय दिकांनी भुतुमाक सोदूंक लागलो.

पूण त्या तळ्यांत कोणूच नाशिल्लो. चारुय दिकांनी फकत थंड शांत उदक आशिल्लें. खंयच बुडबुडे पसून ये नाशिल्ले पूण तें तळें इतलें व्हडलें! एक फावट नदर मारून पळोवप कठीण! बदमास भुतुम उदकांतल्यान पेवन खंय तरी दुसरेवटेन गेलो जायत ह्या विचारान बुरुन बरोच वेळ उदकांत पेवत रावलो. पूण भुतुम खंयच दिसलो ना. तो बुडलो ना न्हय? पूण तो बुडपीय भुरगो न्हय. आयिल्ल्या दिसा आपल्या घराकुशीच्या तळ्यांत पडिल्लो आसता. हर तरेच्या पेवपांत तो हुशार आशिल्लो. तो स्वास लेगीत बरोच वेळ दामून धरतालो. जाल्यार भुतुम गेलो तरी खंय?

ताका सोदीत सोदीत बुरुन दक्षिण दिकेक कोसळिल्ल्या घाटामेरेन पावलो. भुतुम जर खऱ्यांनीच बुडला जायत जाल्यार ताची कूड तरी भितर आसतली म्हण बुडी मारुन तो तळ्या भितर ताका सोदूंक लागलो.

अचकीत घाटाचे वयले वटेनच्यान कोणेतरी गंभीर आवाजांत विचाल्लें, ‘‘तूं हांगा कितें करता रे?’’

बुरुनान आपले मुखार एक जटाजूड मनीस उबो राविल्लो पळयलो. बरोच मोटो चेहरो आशिल्लो ताचो! ताणे भगव्या रंगाचे कपडे घातिल्ले. त्याच रंगाची चादर घेतिल्ली. गळ्यांत रुद्राक्षाची माळ आशिल्ली. मिशो खाड वाडिल्लें.

बुरुन उदकांत बुडिल्ल्या एका सोपणाचेर गळोभर उदकांत उबो रावलो आनी ताणे आडखळत म्हणलें, ‘‘ह्या उदकांत एक भुरगो बुडलासो दिसता. ताकाच सोदतालों.’’

तो मनीस कोण तरी साधुबी आसूंक जाय. ताणे मोट्या गम्भीरतायेन म्हणलें, ‘‘ह्या तळ्याच्या उदकांत देवी मातेची पूजा जाता. देखून हातूंत पेवपाक मनाय आसा. तूं भायर यो.’’

बुरुन मातसो भियेलो. ल्हवू ल्हवू उदकांतल्यान भायर येवन कडेर उबो

रावतांच त्या मनशान ताका परतून विचाल्लें, ''कोण रे तूं?''

बुरुनाचें आंग ओलें आशिल्ल्यान तो थंडेन कुडकुडटालो. ताणें तशीच थरथरत जाप दिली. ''हांव बुरुन, भेलू दोतोरालो चलो. राम वैज म्हजो आजो.''

हे आयकून त्या मनशाचो चेहरो पिकिल्ल्या आंब्यावरी गोड जालो. ताणें मुमुरख्यांनी हांसत म्हणलें, ''अशे! यो यो. आयज होळयेचो दीस तुजें तोंड गोड करतां. तुज्या बापायकडेन आनी आज्याकडेन म्हजी पोन्नी वळख आसा, चल यो.''

अशें म्हणून त्या मनशान मुखार सरून बुरुनाक उबारलो. बुरुनाक जाणवलें, ह्या मनशाच्या आंगांत असुरी बळ आसा.

गोसाय बागांतल्या झीलीतल्यान पांयवाट गेल्ली. दिसाचो लेगीत थंय काळोख आसतालो. भयानक वातावरण आशिल्लें. थंयचो तो मनीस बुरुनाचो हात घट्ट धरून चलतालो. बुरुनाक हें सगळें आवडूंक नाशिल्लें. ताणे विचाल्लें, ''तुमी कोण?''

''हांव?'' होऽऽ – होऽऽ करून हांसत त्या मनशान जाप दिली, ''हांव एक साधु. म्हाका भिवूं नाका. केन्ना तरी ह्या वस्तेंतले लोक म्हाका हाबू वस्ताद म्हण वळखताले. आतांय कांय जाण वळखतात. तुजो बापूय आनी आजो तर बरे तरेन वळखतले.''

बुरुनाक जसो किर्तें लायटीचो शॉक बसलो. हूं, होच तो हाबू वस्ताद तर!

गोसाय बागांतल्या गड्डाणा कुशीचो जागो निवळ नितळ जाल्लो. सगळ्यो कुडी निवळ-नितळ जावन चकचकताल्यो. कुडीत पांच-सात लोक बशिल्ले, काय आड पडिल्ले दिसताले. त्या सगळ्यांचे दोळे तांबडेच जाल्ले. आनी मदीं मदीं कर्कशऽऽ आवाजांत ते 'शिव शम्भू' चो गजर करताले. अचकीत जमीन हालोवपी असो 'घ्रेऽडाऽम' असो वागाचे गरडीचो आवाज आयलो. असो भयांकृत आवाज बुरुनान हाचे पयलीं केन्नाच आयकूंक नाशिल्लो.

ताणे आंग काडटकच हाबू वस्तादान म्हणलें, ''भिवपाची गरज ना. तो म्हजो पोशिल्लो वाग. इतले दीस तो रानांत आशिल्लो. हांव परतो आयला

हें कळटकच तोय हांगा परतो आयला.''

बुरुन सामको भियेल्लो. ताणे कापऱ्या आवाजांत म्हणलें, ''म्हाका सोडात, हांव घरा वतां.''

हाबून हांसत ताच्या फाटीवयल्यान हात भोंवडायत म्हणलें, ''वच. वच धाडटां. पूण तुकां इल्ली मिठाय तरी दितां. ही सुवात भोवून तरी पळय. अशेंय जावंक शकता. म्हणजे तुकां ही सुवात आवडल्यार घरा वचपाची इत्सा लेगीत जावचीना.

बुरुनान आपलो हात सोडोवपाचो यत्न करीत म्हणलें, ''ना, ना हांव घरा वतलों.''

अकस्मात हाबून ताच्या दोळ्या वयल्यान हात भोंवडायत सामकें ल्हवू आवाजांत म्हणलें, ''इतली सुंदर सुवात सोडून खंय वतलो?''

दोळ्यावयल्यान हात भोंवतना आसतना बुरुनान दोळे बंद केल्ले. दोळे उक्ते करताच अजापान तो पळयतूच उल्लो. थंय ना घट्टाण आशिल्लें ना जंगल. ताचे मुखार आशिल्लें एक सोबीत सुंदर पोरसूं. चारुय दिकांनी राशींनी फुलां फुलिल्ली. तांचो परमळ चोय दिकांनी फांकिल्लो. रुखांचेर कोगूळ, मैना, चिमण्यो आनी हेर सवणीं चिंवचिंवतालीं. फुलांचेर सान फुलपाख्यावरी परयो उडटाल्यो. थंयच एक ल्हान न्हंय कलकल करीत व्हांवताली. घाटार एक रंगीत व्हडें आशिल्लें. थंयच्यो सगळ्यो वस्तु इल्ल्या इल्ल्या खेळण्यावरी आशिल्ल्यो. कोर पाचवो आशिल्लो. रंगपेटयेंत जितले रंग आसतात तितल्याय रंगाची कुपां मळबांत दिसताली. एकाद्रें कूप सामकें सकल येवन तकलेक तेकताशें जावन फुडें वतालें. त्या कुपांचेर बसपाक ल्हान ल्हान सोबीत गादयो आशिल्ल्यो. एका कुपान बुरुना म्हऱ्यांत येवन विचाल्लें, ''बुरुन, म्हजेर बसतलो? चल, तुकां भोंवडावन हाडटां.''

भुल्लूसून वचून बुरुन एका कुपाचेर बसलो. शाबवाच्या फेणेरावरी मोव मोव गादयेर बसून तो वयर वयर वचूंक लागलो. चड उंच न्हय, चडान चड तीन मजली इमारती इतलें उंच वचून, कूप बुरुनाक घेवन फुडें सरुंक लागलें.

मातशें मुखार वतकच ताका एक ल्हानशी दोंगुल्ली दिश्टी पडली. ताच्या तेमकार झेल जमिल्लो. दोंगुल्लेच्या फाटल्यान सूर्य आस्तमतालो. अजापाची

गजाल म्हणल्यार ह्या सूर्याचो चेहरो सामको मनशाच्या हांसत्या चेहऱ्यावरी आशिल्लो. ताकाय नाक, कान दोळे, ओंठ आशिल्ले. बुरुनाक पळोवन सूर्यान म्हणलें, "तुवें हुकूम दिल्यारुच हांव उदेतलों आनी अस्तमतलों."

बुरुन अजापीत जावन पळयतच रावलो आनी ताणें म्हणलें, "तूं मात्सो राव. हांव सगळें बरें करून पळोवन घेता. त्या उपरांत तूं अस्तमूंक वच."

कुपान म्हणलें, "सूर्य अस्तमल्यार लेगीत हांगा काळोख जायना. चंद्रिम आसा. नखेत्रां आसात, सपनांचो उजवाड आसा."

कुपान ताका एका ल्हानशा रेल्वे स्टेशनाचेर देंवयलो. स्टेशनाची बिल्डींग कितल्याशाच रंगांनी रंगयल्ली. प्लेटफार्माचेर हळडुव्या रंगाचे शेकरे घाल्ले. एका ल्हानशा कंदीलातल्यान पाचवो – तांबडो उजवाड येतालो. एक ल्हानशी ट्रेन थंय उबी रावून सुस्तेल्ली. बुरुनान ते ट्रेनीच्या जनेलांनी सामके विचित्र आनी मजेशीर चेहरे पळयले. एका जनेलांत तांका डोनाल्ड डक दिसलें, दुसऱ्या जनेलांत टिनटिन आनी कॅप्टन एकमेकासामकार बसून खंयच्या तरी गुपीत खजिन्याच्या नकाशांत बुडिल्ले पळयलें. टिनटिनाच्या सुण्यान एका जाण्टे चेटकीणीची फाट धरून तिका खंयच्या तरी दुसऱ्या डब्यांत भितर सरपाक लायलें. एका कंपार्टमेंटाच्या जनेलांत ताका भुतुम बशिल्लो दिसलो. पूण भुतुमाकडेन झगडीं जाल्ल्या कारणान ताणे रोकडीच आपली नदर घुंवडायली. टिंग टिंग करून 'मधूर' घांट वाजयत गार्ड सायबान शीटी वाजोवन गाडी सुटपाचो इशारो दिलो आनी बुरुनाक पळयत म्हणलें, "बेगीन चड" गार्डाचो चेहरो पळोवन बुरुन परतो अजापीत जालो. तो फैंटमाचो मोटवो इश्ट गुरून आशिल्लो.

बुरुन एका डब्यान चडलो. ताणे जनेलार बसून लोक कथेंतल्या राज्यावरी खूब सुन्दर अशा राज्यांतल्यान गाडी वता ती पळयली. सगळेच सान आनी सामके मनभुलोवण्या रंगांचे आशिल्लें.

ज्या डब्यान बुरुन चडलो त्या डब्यान कितलींशींच खेळणीं बसून बिस्कीट खायत सामक्या ल्हवू आवाजान आपसांत उलयतालीं. खेळण्यांतलो सुणो 'पुफ् पुफ्' करून हांगा थंय धांवतालो. वाग गरड घालतालो. खेळांतलो हत्ती एका माकडाक आपल्या सोंडयेचेर घेवन

धोलयतालो.

गाडी एका रानाचेकडेक आशिल्ल्या ल्हानशा स्टेशनाचेर थांबली. स्टेशनाचे नांव आशिल्ले 'पिकनिक'. गुरूनान येवन सगळ्यांक सांगलें, "सगळे जाण हांगा देवात. हांगा आयज पिकनिक जातली."

बुरुन देवून सगळ्या सांगाताक रानांत गेलो. सामके सभ्य आनी भव्य अशे जंगल आशिल्लें तें. तांतूत खंयच कांटे नाशिल्ले. कांटयांच्यो वनस्पत्तीय नाशिल्ल्यो. चारूय दिकांनी सोबीत रुख, फुलां आनी सवणीं आशिल्ली. ल्हान-ल्हान वाग, शींव, हत्ती आनी गेंडे थंय भोंवताले. रंग रंगयाळे सोरोप आपलेच मस्तेंत गुल्ल जाल्ले. तांका पळोवन मातूय भंय दिस नाशिल्लो. बुरुनान एका वागाच्या फाटीर हात भोंवडायलो. एका सोरपाक घेवन ताचे बरे लाड करून ताका सोडलो.

दिसाचो उजवाड काबारुच जाय नाशिल्लो. सूर्य दोंगुल्लेच्या आडसाक थांबिल्लो. आनी त्या मनोहर थंड उजवाडांत जंगलां भितर मदींच काळोख - उजवाडांत, डोनाल्ड डक, टिनटिन, गुरुन, म्हातारी चेटकीण, हेर खेळणी आनी रानवटी जनावरांनी मेळून बोवाळ घालताली. अशी पिकनिक केली! ते मजेचें वर्णन सांगूक जावचें ना. भुतुमान येवन नमळायेन विनवणी करीत म्हणलें, "बुरुनदादा! काल अबीर लावन हांवे व्हडली चूक केली. आता तशें करचो ना. कान धरतां."

बुरुनान गम्भीर जावन म्हणलें, "आनी मूंयो?"

'हय. तीय चूक जाली म्हजी. हे पळय धा खेपो उठाबशी काडटां. आतां तरी इश्टागत कर."

भुतुम सुदारता ते पळोवन बुरुनाक सामकी खोशी जाली. ताणें ताचेकडेन इश्टागत केली. इतलो सुंदर देश सोडून बुरुनाक खंयच वचपाचें नाशिल्लें. ताणे मनांतल्यान निश्चेव केलो.

# ४

दनपार उलगून सांज जावंक पाविल्ली. बुरुन आनी भुतुमाक सोदपाखातीर जांका धाडिल्लें तें सगळेजाण निराश जावन परते आयले.

हें आयकून मन्मथबाब दुयेंत जाले. आनी रामबाब हुक्को गुडगुडावंक लागले. दोनूय घराब्यांनी रडारड सुरू जाली.

सांजेची निमाणी डाऊन रेल्वेय स्टेशनावयल्यान गेली. तिचो कू-झिक-झिक आवाज सोंपता म्हणल्यार वागान 'घेऽडाऽम' करून घाल्ले गरडीन पुराय वातावरण हाल्लें. एक फावट! दोन फावट! तीन फावट! आनी त्याच वेळार पुनवेचो चंद्रिम मळबांत भांगराळो उजवाड फांकीत वयर आयलो. पूण त्या चान्यांत चारुय दिकांतले वातावरण सामके भिरांकूळ दिसतालें.

शारांतलें सगळें रस्ते सामसूम जाल्ले. खंयच एक मनीस दिसनाशिल्लो. रस्त्यार सुणीं मांजरा लेगीत नाशिल्लीं. सगळ्या घरांची दारां बंद आशिल्लीं. भायर हाडां कडकडावपी थंड वारे व्हावतालें.

राम वैज एकले आपल्या दुकानांत बशिल्ले. सद्दां येवन बसपी मनशांमदलो कोणूच आयज थंय येवंक नाशिल्लो. चारुय वटांनी किण्ण पडिल्लें. राम वैज चिंतेस्त जावन हुक्को गुडगुडायत आशिल्ले. चित्तां चित्तां अचकीत तांच्या तोंडातल्यान उतरां आयली. ''हूं! अशें आसूंक शकता.''

ताणी अशें म्हणनाफुडें, आलमारीतले शीशे, बाटल्यो हाल्ल्यो. राम वैजान अजापान चारुय दिकांनी नदर माल्ली. भास जाला जायत अशें समजून एक लांब श्वास भरित म्हणलें, ''हूं! जाल्यार अशेंच जालां जातलें.''

अशे म्हणनाफुडें परतून शीशे-बाटल्यो एकमेकांचेर ठन् ठान् करून आदळ्ळ्यो.

राम वैज जाणा आशिल्ले, भियेवन वा उचंबळीत जावन केन्नाच कसलें काम जायना. तशे पळोवंक गेल्यार ते सोपेपणी भिवपी मनीस नाशिल्ले कित्याक तर जे लोक खरे आनी अन्यायापसून पयस रावतात तांका भिवपाची

गरज नासता. ते आपल्या जीवाक धीर दियत आपल्या इष्टदेवाचो जप करूंक लागले. जप करता करता ताणी म्हणलें, ''कोण? कितें जाय तुमकां?''

दारा फाटल्यातल्यान कोणे तरी आडखळत म्हणलें, ''तुमचो जप बंद करात. तेन्नाच हांव मुखार येवंक शकतलो.''

राम वैजान आपलो जप बंद करून म्हणलें, ''सांग आतां.''

तो नाकयो आवाज दाराफाटल्यांतल्यान भायर सरून कुडीचे मदीं आयलो. पूण रामबाबांक थंय कोणूच दिसलो ना. हवेंतल्यान एक आवाज आयलो ''म्हाका भिवूं नाकात. आमी सगळे बुरुनाचे इश्ट. म्हजे नांव नक्रियासुर.''

''बुरून खंय आसा?''

''गोसाय बागांतल्या तळघरांत. समुद्र दीघीतल्या दक्षिणेकडल्या घाटांत उदका सकल सव्या सोपणां भितर जी खांच आसा थंयच्यान भितर वचपाक सामकी सोपी वाट आसा. उदकांत बुडी मारून त्या खांचीत भितर सरनाफुडे धां पावलां मुखार वतकच ही वाट मेळटली. ती वाट सामकी तळघरांत पावता. थंयच बुरुन आनी भुत्तुम दोगूय आसात.

''थंय वचूंक मेळना?''

कित्याक वचूंक मेळना? ताका एक उपाय आसा. पूण थंय वचून कांयच फायदो ना. ते दोगूय थंयच्यान परतून येवपाकूच पळयनात.

''कितें सांगता?''

''हय. हेच सांगूक तर आयलां. हाबून आपल्या जादवाच्या मंत्रान तांका भारावन दवरल्यात. आमचे कडल्यान मंत्रांच्या बळग्याचेर दीस रात काम करून घेता. मात पसून विसव घेवंक दियना. पुराय आंग दुखता. वैजबाब तुमचेकडेन ही आंगाची दूख घालोवपाचें वखद आसा न्हय.?''

''आसा. पूण तें मनशांखातीर. तें वखद तुकां कशें लागू जातलें?''

''तशें जाल्यार आमचे खातीरुय कितेंय वखद तयार करात न्हय.''

राम वैज चितूंक लागलें. ताणी म्हणलें ''काम तितलें सोपें न्हय रे बाब! पयलीं हो विचार करचो पडटलो, तो म्हणजे तुमकां शरीरुच ना जाल्यार रोग खंय जाता? नाडी पळोवन सांगतलो म्हणल्यार तेंय शक्य ना. रोग बरो जावपाक तुमका पोटांत घेवंक वखद दितलो, म्हणल्यार तुमकां पोटूय ना.

तुमच्या आंगाचेर मालीशूय चलना. म्हणटकूच तुमकां कसलेंय हवेंतल्यान घेवपाचें वखद तयार करचें पडटलें. हे काम तशें खूबच कठीण, पूण हांव यत्न करता.''

नकियासुरान खोशी जावन म्हणलें, ''आमचेर तुमचे मोटे उपकार जातले वैजबाब! आमचें कोणांक पडिल्लेंच ना. ह्या हाबू बदमासाकूच पळयात, हांगा येतकच आमचे कडल्यान कसो नाका आशिल्लीं कामां करुन घेवपाक लागला. कांटयारें रान निवळ करात. कांट्यांचे रुख हुमटावन उडयात. कूड निवळ करात. तळ्यांतलें जलकुंभ निवळ करात. हें हाडात, तें सांगात, ताका धरुन हाडात, कामांच सोपनात. फकत नाचयत रावता. म्हाका जर केन्नाय संद मेळ्ळी जाल्यार हांव पयल्यान पयलीं ताची तकलीच कापून उडयतलों.''

सामको खोशी जावन राम वैजान म्हणलें, ''खऱ्यांनीच उडयतलो?''

''तेच तर सांगता हांव. तशें पळोवंक गेल्यार हाबूची तकली उडोवप तितलें सोपें काम न्हय. ताणें आमका मंत्र बळांत चारुय दिकांतल्यान बांदून घेतल्या. इत्सा आसून लेगीत कांय करूंक शकना. पूण तुमी अशें समजूं नाकात, आमी हाबूचे हुकूम खोशयेन मानतात. संद मेळटाच आमी कामांकडेन लक्षच दिनात. एका खीणाचे काम करपाक तीन दीस लायतात. तीन दिसांच्या कामाक तीन म्हयने लायतात. फाटल्या वर्सा हाबूचे कालीपुजेक फटिकबाबान वर्गणी दिवंक ना म्हूण ताणें म्हाका रागान सांगिल्लें, ''चल, वचून फटिकाच्यो मिशो हुमटावन हाड.'' खबर आसा, हांवे कितें केलें? फटिकबाबांच्या मिशया बदलाक हांवें ताच्या बोकड्याचे खाड हुमटावन व्हेलें. हाबूक पयली कळ्ळें ना. पूण मागीर जेन्ना कळ्ळें तेन्ना म्हाका ताणें बरोच माल्लो. हांवें म्हजें माथें खरपीत सांगिल्लें, ''काळखांत सारकें कळ्ळें ना.'' तो परतून मारुंक येता ते पळोवन हावें म्हणलें, ''म्हाका सारके आयकूंक येयना. जाण्टो जाता हांव म्हूण फटिकाबदला फटिकाचो बोकडो आनी मिशया बदलाक खाड आयकूंक आयले.'' पूण वैजबाब, मनशांचे बरें करुंकच जायना. हो जो फटिकबाबाचेर हांवे उपकार केल्लो त्याबदला ताणें कोण जाणा कितलेशेच स्राप दिले म्हाका. ताणें म्हणलें, जाणें म्हज्या बोकड्याचे खाड हुमटीला ताचो सर्वनाश जातलो. तो नरकांत वचूं. नरकांत

तांका यमदूत धा हजार वर्सां पसून शिजोवन, मागीर धा हजार वर्सां तळून आनी मागीर धा हजार वर्सां वोताक घालून सुकोव.''

वैजबाबान तांका धीर दियत म्हणलें, ''दुखी जांव नाका! फटिकाक खबर ना. ताका हांव समजायता. नकियासुरबाब तूं वायट धरूं नाका.'

अशे सांगून वैजान उठून एके कागदाचे पुडयेंत कापूर, गंध, वेलची चूर्ण, हींग आनी हेर काय प्रकारचे चूर्ण मेळावन मेजार दवरीत म्हणलें ''हे व्हर. आंग दुखता जाव जीवाक पुरो जाता तेन्ना हाचो वास घे. एक बाटली आयुर्वेदीक वखदाची व्हर. त्या आलमारींत दवरल्या. ह्या वखदांचो भुतांक जर गुण मेळटासो दिसलो जाल्यार हांव भुतांखातीर आनीकय कांय वखदां तयार करुंक लागतलो आनी त्या नव्या चिकित्सा पद्धतीक नांव दितलो 'भूत आयुर्वेद.'

आपलो हवाई हात मुखार करून नकियासुरान ती पुडी उबाल्ली. वैजबाबान पळयलें, ती पूडी एका शुन्याभितर उबताली. एक लांब स्वास घेतिल्ल्याचो आवाजय जालो. त्या उपरांत बरी व्हडली शींक! नकियासुरान, ''आह! खूब बरें दिसलें वैजबाब! आंगातली दुख शिंकेवांगडा भायर सल्ली. वखद सामकें गुणकारी जालां.''

राम वैजान खोशी जावन म्हणलें, ''वखदाखातीर आता चिंता करू नाका. आयजकाल लोक वैजांकडेन वचूंक पळयनात. पाड्या एलोपैथिक डॉक्टरांच्या दारांचेर वचून धरणें धरून बसतात. ताका लागून आतां म्हज्यांत मनशांचो इलाज करपाची गोडी उरूंक ना. आतां हांवे भुतांचोच इलाज केल्यार बरें जातलें.''

नकियासुरान आनीक एक खेप शीक काडीत म्हणलें, ''जशी आज्ञा!''

राम बाबान मोट्या प्रेमान विचाल्लें, ''आता सांग रे बाब नकियासुर, त्या दोगूय भुरग्यांची सुटका कशी करूं?''

नकियासुर भियेत भियेत उलयलो, ''आरे बाप रे! तांचो सुटका करप तितलें सोपें ना. वैजबाब! आनी तांचो सुटका केली जाल्यारुय तांका वाचवप कठीण जातलें.'

रामबाबान चिंतेस्त जावन म्हणलें, ''जाल्यार उपाय कितें?''

"कशेय बशेन बुरुन जर आपल्या मनोबळाचेर वशीकरण मंत्र तोडटा, जाल्यारुच ताचो सुटकां जावंक शकता. भायलो मनीस हातूंत कांयच करुंक शकचो ना. जे कितें करता ते बरें चिंतून कर... आक्... आक्... आक्... छीं! तुज्या वखदाचो बरोच फायदो जालो वैजबाब!"

रामबाबान तृप्त भावनेन म्हणलें, "जावचो ना कसो? हांव आसां एक पाकिवंत राम वैद्यराज! मड्यांत लेगीत प्राण घालूंक शकतां."

पूण ही गजाल सांगून सोपचे पयलींच वैजबाबाक कळ्ळें, पुडयो घेवन नकियासुरान थंयच्यान पळ काडल्या. रामबाबान ताका परतू परतून उलो केलो तरी ताका जाप मेळ्ळी ना. जाले तरी कितें? म्हूण राम वैज चितूंक लागलो. त्या उपरांत तांका कळून आयलें, ताणे ताचे मुखार आपले 'राम वैज' अशें नांव घेतिल्लें. तें नाव तांका सोसना. मनातल्या मनांत ताणें थारायलें भुतांचो इलाज करतलो जाल्यार आपले नांव घेवप योग्य जावचे ना.

# ९

करालीबाब होळयेच्या चान्न्याराती आपल्या घरा मुखावयल्या रस्त्यार पासय मारताले. सकाळसावनच एका कठीण रुटओवराक सोडोवपाचो ते यत्न करीत आशिल्ले. पूण जमलें ना. जमतलें तरी कशें? दीसभर शारांतले जाण्टे-नेण्टे बोवाळ घालीत रंग खेळटाले. अशा बोवाळांत जाप तरी कशी मेळपाक शकताली? जाप मेळना जावन करालीं सराची तकली सामकी तापिल्ली. खुबदा अशेंच जातालें. आनी अशी तकली तापली काय जांव थंडेन, जांव गरमेन, दीस आसूं नाजाल्यार रात, कराली सर तळ्यांत वचून वरांची वरां गळ्यामेरेन उदकांत बुडून रावताले आनी हेच तांचे संवयीक लागून कराली सर नकळटना पेवपांत बरेच फिशाल जाल्ले. मनांत दिसलें

जाल्यार पांच-सात-धा मिनटांपासून ते उदकाभितर श्वास दामून सुसेगाद बसून रावपाक शकताले. जर कराली सर खंयचेय पेवपाचे सर्तींत वांटेकार जाल्ले जाल्यार तांका हारोवप कठीण जावपाचें, हेंय हांगा सांगचेंच पडटलें.

ते कितेंय आसूं, आज कराली सराचो रुटओवर प्रस्न सुटावो जावंक पावलोच ना. सांजमेरेन उदकांत बुडून रावले उपरांत तांची तकली थंड जाल्ली. रस्त्यार पासयो मारतना वाटकुळ्या चंद्राकडेन पळयत ते शून्य आकड्यांचो विचार करपाक लागले. शुन्या इतली रहस्यमय वस्त आनीक खंयचीच ना हे चिंतून ते अजापीत जाले. वास्तविक पळोवंक गेल्यार हो शून्य जांव झीरो हो सगळ्या आकड्यांचें मूळ स्रोत. ह्या संवसारांत संख्या शास्त्राचे मूळ म्हणल्यार शून्यच जावन आसा.

चारूय वटांनी चान्न्यात न्हाल्लीं झाडां-पेडां, धर्तरी-मळब, सगळें कितलें सुंदर दिसतालें. ह्या सगळ्याफाटल्यान एक प्रोपोर्शन जांव प्रमाण आशिल्लें. मळब कितलें निवळ आसचें, चान्नें कितलें पडचें, कितली झाडां-पेडां जांव, कितले धर्तरेचेर कितल्या सौंदर्याची सृष्टी आसची, हाचे फाटल्यान कसलें गणीत ना व्हय तर?

वास्तवांत मळब, वारें, चान्नें जांव रात ह्या सगळ्याभितर गणित हें आसाच, ह्या विचारांनी कराली सर रोमांचित जाले.

त्याच वेळार वाऱ्याक चिरून पडोवपी आनी चान्न्याक थरथरावपी खंयच्या तरी वागाची गरड कानार पडली - 'ग्रेऽडाऽडम्' एक फावट! दुसरी फावट! तिसरी फावट!

लोक 'वाग - वाग' करीत आड्डत आपआपल्या घरांनी धांवले. कराली सरूय मातशे अजापले, पूण भियेले नात. फकत मनांतल्या मनांत ताणी म्हणलें, "साऊंड! साऊंड मीन्स वाइब्रेशन. एंड वाइब्रेशन मीन्स एनर्जी."

बरोच विचार करून कराली सराक पटलें तें अशें- ह्या सुंदर प्रमाणीत जोत्स्ने राती वागाच्या गरडींतल्यान एक नवी ऊर्जा जांव वाइब्रेशन तयार जालें आनी सगळे प्रमाणूच हाल्लें. म्हणल्यार पुनवेची जी सोबीतकाय पयलीं आशिल्ली ती आता उल्ली ना. लोक भियेले. बरें, भयूंय म्हणल्यार एनर्जी आसत काय? काय हो एबसेन्न्स ऑफ एनर्जी, काय ही उर्जेची उणीव?

घरचे लोक येवन कराली सराक धरून घरा घेवन गेले.

दुसऱ्या दिसा सकाळी न्हिदेंतल्यान उठनाफुडें सर पूर्वेकडल्या तांबड्यागुंज सूर्याक पळोवन परतून शून्य संखेचो विचार करूंक लागले. शुन्याक ना गुणोवंक शकतात ना भागूंक शकतात आनी शुन्यांतल्यान ना कांय वजाय करूं येता. शून्य सदांच एक पुराय शुन्यच उरता.

हे सगळें चिंतीत कराली सर न्हावन आयले. जेवले आनी शाळेंत गेले.

ह्या वटेन शाळेंत व्हडलो बोवाळ सुरू जाल्लो. भुरगे आपल्या वर्गांत वचूंक नाशिल्ले. शाळेची घांटूय वाजूंक नाशिल्ली. चारुय वटांनी लोक सामके गंभीर जावन उलयताले. काल खंय शाळेंतले दोन भुरगे बुरुन आनी भुतुम गायब जाल्यात. खंयच तांचो पत्ता लागना. त्याचबरोबर कालचे राती शारांत कितलेच खेपो वागाची गरड आयकूंक आयिल्ली. सगळे ह्या गजालीचो मेळ बसयताले. चडशा लोकांची धारणा आशिल्ली, ती म्हणल्यार बुरून आनी भुतुमाच्या नांवान शोक प्रस्ताव पास करून शाळेक सुटी जाहीर करची. कांय जाणांचे म्हणणें आशिल्लें, त्या दोगांचेय कोणेंतरी बदमासान अपहरण केलां जातलें. कांय जाण म्हणटाले ते दोगूय समुद्र दीर्घीत बुडल्यात. तें कितेंय आसलें तरी बुरुन बेपत्ता जाल्ल्यान कराली सर सामके दुखी जाल्ले. बुरुनासारको विद्यार्थी ताणें पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. फाटल्या वर्सा वर्सूकी परीक्षेंत बुरुनाक गणितांत तेरा मार्क मेळिल्ले खरे पूण ह्या दिसांनी बुरुनाची गणितांतली प्रतिभा पळोवन कराली सराची दृढ धारणा जाल्ली म्हणल्यार ती तो आइन्साटइनावरी महान जातलो. असो विद्यार्थी बेपत्ता जालो जाल्यार कोणांक वायट दिसचें ना? एक फावट बुरुनान तांकां सांगिल्लें, ''सर, गणिताच्या नेमाप्रमाण आमी एकाक एक जोडून ताका दोन म्हणटात. पूण हे बरोबर काय कितें? हे धर्तरेचेर कसलीच वस्त एकमेकाकडेन जुळना. खंयच्याय रुखाची असंख्य पानां जुळोवन पळयल्यार तीं एक सारखी आसनात. तांच्या आकारांत, रंगांतबी कसलो ना कसलो तरी फरक आसताच. रेवेच्या कणांत लेगीत हो फरक दिसतलो. म्हणूनच एकां भितर एकाचो योग म्हणल्यार दोन कशे जावंक शकता? कित्याक तर एक दुसऱ्या पसून आनी दुसरो तिसऱ्या पसून सामको वेगळो आसता.''

कराली सरान हें आयकून सामक्या अजापान म्हणिल्लें, ''तर ताका कितें म्हणटलो?'' बुरुनान जाप दिल्ली, ''एकांत एक जोडटकच दोन एक जातले. तेच तरेन तीन एक वा चार ऐक.''

इतले ल्हान पिरायेचेर बुरनाचे तकलेंत एकाची अशी तत्त्वालोचना पळोवन कराली सर खोशयेन नाचिल्ले. कराली सरुय बी जाणां आशिल्ले, पदार्थ विज्ञानाच्या प्रमाण हे दुनियेंत केन्ना खंयच्योय दोन वस्तू एक सारक्यो आसूंक शकनात. देखून ऐकाक एक जोडल्यार दोन कशे जावंक शकतात? ह्या गजालीचोय कराली सर खूबदां विचार करीत आसताले.

हेड मास्तर सचिन सरकारान सगळ्या अध्यापकांक आपोवन म्हणलें, ''म्हाका दिसता, ते दोगूय दुर्दैवी भुरगे त्या वागाची शिकार जाले जांवये. पूण कसलोच पुरावो नासतना शोक सभा कशी घेंव येता? पूण वागाच्या उपद्रवाक लागून शाळेच्या विद्यार्थ्यांच्या संरक्षणाची गजाल मतींत धरून आयज शाळेक सुटी दिता. तुमीय बी सादूर रावात.''

हेडमास्तराची गजाल आयकतां – आयकता इतल्या दुखांत लेगीत कराली सराच्या तकलेंत गणिताचो प्रस्न नाचतालो. ते यवजीताले जर दोन चल्यांक एका वागान खाले जाल्यार एका बरोबर दोगूय जाणांचो योग जावन गणिताच्या नेमाप्रमाण तीन जातात. पूण प्रचलनान दोन चले घन आनी एक वाग इज इक्वल टू एक वाग. बुरून, भुतुम आनी वाग मेळून तीन प्राणी जावचे नात. गणिताचो नेम हांगा लागना. आनीकय दुखाची गजाल म्हणल्यार बुरूनासारक्या गणितात हुशार आशिल्ल्या विद्यार्थ्याक खावन लेगीत वागाची तकली गणितांत हुशार जावपाक शकना. त्या वागाक खबर पसून आसचीना ताणे गणितातल्या संवसारातली कितली व्हडली प्रतिभा ना नपयत करून उडयल्या ती!

आवेगाच्या भरांत कराली सराच्या दोळ्यांनी दुकां आयली. रागान ताचे आंग कापूंक लागले. ताणें आपले आपणाक म्हणलें, ''त्या वागाक काबार करचोच पडटलो.''

गेम सर कडेकच बशिल्ले. कराली सराची उतरां कानार पडनाफुडे ताणेंय आपले दोळे पुशीत भरिल्ल्या गळ्यांत म्हणलें. ''बुरुनाकडल्यान म्हाकाय

बरीच अपेक्षा आशिल्ली. ओलम्पिकांत ताका उण्यात उणी धा तरी भांगरा पदकां मेळपाचीं. त्या सैतान वागाक काबार करपाचें हांवेंय चिंतला. पूण तो खंयच्या तरी तांत्रिकाचो वाग अशें म्हण्टात. तो तांत्रिक तंत्र-मंत्र आनी वशीकरणांत फिशाल आसा."

करालो सर गणित आनी विज्ञानाबगर कांयच मानी नाशिल्ले. देखून ताणें हो होऽऽ करून हांसत म्हणलें, 'चिंता करू नाकात. म्हाका एक घटसो दांडो - तोंडको कितेंय दियात. मागीर पळयात एनर्जी मोमेन्टम आनी वेलोसिटी मुखार सगळें तंत्र - मंत्र कशें मातये भरवण जाता तें."

गेम सरान खोशी जावन म्हणलें, "तांतूंत व्हडलेशें कितें? जैवलिनूच व्हर. भाल्याचो भालो आनी दाण्याचो दाणो."

तेच जालें. सगळे भुरगे आपआपल्या घरा गेले. रस्ते मात्शे सामसूम जाले. तेन्ना एक जैवलिन आपल्या खांदार दवरून कराली सर बेगबेगीन पावलां उखलीत गोसाय बागावटेन चलूंक लागले.

राम वैज आपल्या बलकावांत बसून हुक्को गुडगुडायत आकाश-पाताळाचे गुण जुळयताले. घरांत रडारड चालू आशिल्ली. तांकाय कांयच कळ नाशिल्लें. बुरुन गोसाय बागांतल्या तळघरांत बंद आशिल्लो. थंय पावप कठीण तरीय अशक्य नाशिल्लें. नकियासुरान शॉर्ट कट वाट सांगिल्ली. खंयच्याय बऱ्या पेवप्याक त्या सुवातीर पावप कठीण नाशिल्लें. पुणून बुरुनाले इत्सा शक्तिक जागृत करप कठीण आशिल्लें. आनी बुरुनाची इत्सा शक्ति जागृत जायना जाल्यार हाबूची मंत्र शक्ति नष्ट करप शक्य नाशिल्लें. चिंतून चिंतून वैजबाब सामके भागले. तांच्या दोळ्या सकल काळे दाग दिसपाक लागले.

अचकीत रस्त्यावेल्यान कराली सराक खांदार एक भालो घेवन वता ते पळोवन रामबाबाल्या तकलेंत वादळ उठलें. एक उडी मारुन ते बल्कांवातल्यान सकल देवले आनी धांवत वचून कराली सराल्या पुडव्याक धरून ओडीत ताणी म्हणलें, "करालीबाब, तुमी खंय वतात?"

करालीबाबान बुरुनाच्या आज्याक पळोवन दुखी जावन म्हणलें, "बुरुनाक लागून आमकां सगळ्यांक दुख जाला रामबाब! हांव त्या वागाक

बुद शिकोवंक वतां.''

रामबाब खोशी जाले. आपले तीक्ष्ण नजरेन कराली सराची बरी पारख केले उपरांत ताणी म्हणलें, 'तुजें धाडस पळोवन म्हाका खोस भोगता. वचचे पयलीं कृपा करून हांवें तयार केल्लो एक कसाय पिवन वचात. तातूंत आंगांत बळ वाडटलें. तेच बरोबर एक दोन गुपीत गजालीय तुमका सांगता. दर खेपो फकत धाडसूच दाखयलें म्हूण जायना. कौशल्यूय आसूंक जाय.'' अशें सांगून कराली सरांक रामबाब आपल्या कुडींत घेवन गेले आनी कुडीचें दार भीतरल्यान लावन घेतलें.

बरोच वेळ ते दोगूय बसून आपले भितर भासाभास करित आशिल्ले.

# 10

दीस अस्तमल्या उपरांत आयजूय बी निमाणी डावन गाडी स्टेशन सोडून - क्रू - झिक - झिक करीत गेली. थोड्या वेळान प्रतिपदेचो चंद्र मुमुर्खोच हांसत मळबांत वयर आयलो. कोल्यांचो एक जमो खंय तरी 'हुआ - हुआ' करीत आड्डूंक लागलो. ते आयकून त्या वाठारातले सुणे भोंकून तांका भेंकडावपाक लागले. अचकीत त्याच वेळार खंयतरी गीद करूण आवाजांत काडूंक लागलें. सगळ्यांक खबर आसा गीद हें वागाचे सांगाती. ताचो आवाज बंद जाता थंय आसा 'घ्रेऽ डा ऽम' अशे गरडीन चारुय दिको कांपल्यो. तिचे बरोबर दीस पडटाच, वस्तेर सामसूम जालें. सगळे जाण आप आपल्या घरांनी जीव वाटोवपाखातीर लिपून राविल्लेकडेन थरथर कापूंक लागिल्ले.

शाराचे दक्षिणेकडल्यान गोसाय बागांच्या झीली-झोपांतल्यान भियेनास्तना वोग्गी रावून कराली सर मुखार सरताले. तांच्या खांदार जैवलिन आशिल्लें.

राम वैजान कराली सराचे आंग कसल्यातरी वासाच्या तेलान मालिश केल्लें. सांगिल्लें, "शिंयाच्या दिसांनी थंड उदकाक भियेवपाची आतां गरज ना. हें तेल मेळूंक खूब कठीण. हें लावन दक्षिण धुव्राचेर पसून गेल्यार निमोनिया जावपाची भिरांत आसना." हें तेल जरी गुणकारी आशिल्लें तरी ताचो घाण वास येतालो. वैजबाबान कराली सराक इल्लो कसायूयबी पीवपाक दिल्लो. त्या कसायाकूय बरी रुच नाशिल्ली. पूण तो पितकच कराली बाबांच्या आंगात स्फूर्त आयिल्ली आनी तकलीय शांत जाल्ली.

कराली सर ल्हवू ल्हवू 'समुद्र दीघी'चे कडेर पावले. काळखांत एका झोपाच्या आडसाक उबें रावून ताणें चोंयवशी नदर भोंवडावन सुलूस घेतली. चारुय दिकांनी मसणभूंयेंतली शांतता पातळिल्ली. चान्याच्या मुखामळार लेगीत भिरांतीचे भयानक लाशें उदेल्लें. अशें दिसताले, जशें जारुय वटांनी भूता प्रेतांच्यो सावळ्योच भोंवतात. कराली सराचे आंग शिरशिरलें. मनातलें मनांत एक रूटओवर लायताच ताचो भंय गायब जालो.

तें तळें दर्यावरी बरेच व्हड आशिल्लें. पूण कराली सराक तें पुराय वलांडपाचें नाशिल्लें. वैजबाबान सांगिल्ल्या त्या जाग्यार पावून ते पश्चिमी धडेवेल्यान चलत आयिल्ले. थंयच्यान मुखार दक्षिणेकडल्या घाटार चलत वचप घातक आशिल्लें. थंय मेरेन पेवन वचपूच योग्य आशिल्लें. कराली सरान हिशोब लावन पळयलें हें अंतर पेंवन वचपाक वीस मिनटां परस चड वेळ लागचो ना. पूण ते मातय भियेले नात. फकत उदकांत देवचे पयलीं मानीच्या झोंपाच्या आडसाक बसून मनातल्या मनांत ताणी गणिताचो एक कठीण प्रस्न मांडलो.

त्या उपरांत ताणीं आपले कपडे देवयले फकत एक हाफ पॅन्ट दवरून मानीच्या झोंपांतल्यान भायर सरून सोरपावरी सरपटत हड्ड्याच्या आधारान मुखार सरून आपलो जैवलीन सांबाळीत अचळय उदकांत देवले.

तांका शीं खातालें, पूण ताचो व्हडलोसे बादिसकार जाय नाशिल्लो. त्रास जातालो ते उदकाच्या पोंदा आशिल्या काळखाक लागून. ते खंय वताले, आपले थारायिल्ले दिकेन वताले काय ना, कांय कळ नाशिल्लें. तरी लेगीत

ते वोग्गी रावून मुखार सरताले. अचकीत ताणी पळयलें, तांचे भोंवतणी पाणबुडयो चलताल्यो. भंयान तांचे आंग झेल जालें. सत्यानास! दुस्मानांकडेन पाणबुडयोयबी आसात, हें खबरुच नाशिल्लें. बेगबेगीन ते उदकांतल्यान भायर सरले मळबांतल्या चंद्रिमाकडेन पळोवन ताणी मनांतल्या मनांत धा लाख धा हजार धांक, तीन लाख तीन हजार तीनान भागले. तांचें मन घट जालें. ताणी आपले भोंवतणी बारकायेन पळयलें. दक्षिण दिकेकडलो घाट बरोच पयस आशिल्लो. जैवलिन घट धरून परतून उदकांत बूड मारतकच तांचो भ्रम तुटलो. ते जांका पाणबुडयो समजल्ले त्यो पाणबुडयो नासून समुद्र दीघीतली खास कालबोस, चितल, बोयल, कला आनी व्हडलें रोहू नुस्तें आशिल्लें. भंयान ह्या तळ्यांतलें नुस्ते कोण पागी नाशिल्लो. देखूनच ह्या तळ्यांतली नुस्तीं इतलीं व्हड जाल्लीं. तांच्या आंगारुय शेळो दाटिल्लो.

आनी एक फावट स्वास घेवपाक म्हूण कराली सर वयर आयले आनी परतून बुडी मारली जाल्यार तांचे मुखार एक भयंकर अशी मूर्त आपले हात पसरावन ताची वाट आडायत उबी आसा कशी तांका दिसलें. ती आपले व्हड व्हडले दांत काडून हांसतालीयबी. कराली सरान जैवलिन ताणून मनांतल्या मनांत आनीक एक गणिताचो प्रस्न मांडपाचो प्रयत्न केलो. पूण भंयान कांयच सुचले ना. ती मूर्तयबी जैवालिनाक पळोवन भियेलीना. वेल्यान हात-पांय पसरावन हांसत रावली. ती आपले सुवातीवेल्यान तीळभर लेगीत हाल्ली ना. कराली सर मातसो धीर धरून मुखार गेले. म्हऱ्यांत वचून पळय जाल्यार? आरे देवा! ही तर हालींच विसर्जित केल्ली काली मातेची प्रतिमा! अजून पसून ते मूर्तेची माती आनी रंग देवूंक नाशिल्लो.

तिसरी खेप परतून एकदा स्वास घेवन दम धरून करालीबाब दक्षिण दिकेकडल्या घाटा मुखार पावले आनी सामके जतनायेन परतून एकदां स्वास घेवपाक तकली वयर काडली तेन्ना सामकी लागीच्यान जोगूल पडिल्लेवरी वागाची गरड आयकूंक आयली, 'घ्रेऽडाऽम्.'

अचकीत आयकूंक आयिल्ले हे गरडीक लागून तांचे आंग मातशें आखुडलें, देखून ते परतून उदकांत बूड मारपाचेच विसल्ले. त्या घाटावेल्या

मेखळ्या सुवातीर आनी भर चान्न्यांत ते पिश्यावरी तकली वयर काडून उबे राविल्ले. अजापाची गजाल म्हणल्यार, अचकीत घाटाचे धडेर एक विशाल चेहऱ्याचो मनीस नदरेक पडलो. त्या मनशान उंचेल्या आवाजान विचाल्लें, "कोण रे थंय?"

कराली सरान रोखडीच उदकाभितर बुडी मारली. खरें म्हणल्यार ताणी आपूण जावन बुडी मारुंक नाशिल्ली. कोणेतरी तांचो पांय धरून तांका उदकांत भितर ओडून व्हेला अशे तांका भासलें. तरी बरें जालें, तांकां कोणें तरी ओडून व्हेले. नाजाल्यार तांचे आंग इतलें आंकडिल्लें, तांका उदकांत बुडी मारपाक जावचेंच नाशिल्लें.

उदका भितर स नंबराची शिडी सोदपाक तांका आनीक मात्सो वेळ लागपाचो, पूण मजेशीर गजाल म्हणल्यार कराली सरान उदकांत बुडी मारीनाफुडे कोणेतरी तांच्या हातातल्या जैवलिनाक धरून सामको सवकासायेन ओडीत तांका त्या खांची सामकार व्हरुन सोडलोशें दिसलें.

जाल्यार घडटालें तरी कितें? ते सांपडिल्ले काय कितें? कराली सरांक कांयच समजना जालें. पूण चिंतपाक वेळ नाशिल्लो मनांतल्या मनांत एक सोपेशें गणित सोडयलें आनी ते त्या खांचीतल्यान भितर सरले मातशे मुखार वतकच थंय तांका एक वाट दिश्टी पडली. हांगां कमरा मेरेन उदक आशिल्लें. वाट ल्हवू ल्हवू वयर वता हे तांका त्या गुपाट काळखांतल्यान चलतना जाणवल्लें.

बऱ्याच अंतरावेल्यान बोवाळ आयकूंक येतालो. त्या लोकांक तांची सुलूस तर लागूंक नाशिल्ली न्हय?

वेळ सामको उणो आशिल्लो. 'कराली सर हातांत जैवलिन धरून काळखांतल्यान रस्तो पार करीत मुखार वताले. तें एक काळखी भुंयार आशिल्लें. पावला पावलाक मुखार सरतना शेकरो, शेळो, न्हिदिल्लीं बेबकां पायांक लागतालीं. एक सोरप लेगीत पायापोंदा चिड्डिल्याचें तांका जाणवलें. तरीय पूण ते तशेच मुखार वचत रावले. काळखांत सारको अदमास लागनाशिल्ल्यान एक दोन फावटी ते निसरून पसून पडले... अशें आसून

लेगीत ते चलत रावले. आतां तांका चड चलचें पडलें ना. पांचवे खेपेक जे निसल्ले ते सरळ एका दाराक वचून आदळ्ळे आनी 'आवयस!' अशें म्हणून तकली धरून बसले.

पूण सुसेग घेवपाक फुरसत खंय आशिल्ली? ताणी सासपून पळयलें, दाराक एक पोन्नें कलयाद लांबतालें. मात लेगीत कळाव करी नासतना ताणी जैवलिनाचे पोंत त्या कुलपाच्या बुराकान भितर घालून ओडीनाफुडें तें कळमेल्लें कुलूप रोखडेंच उक्तें जालें.

कुडींत मातूय उजवाड नाशिल्लो, पूण बरोच वयर आशिल्ल्या एका बुराकांतल्यान चंद्र दिश्टी पडटालो आनी त्या चंद्राचो उजवाड बॅटरीच्या दिव्यावरी सामको बुरुनाच्या मुखामळार पडटालो. करालीबाबांक बुरुन आनी भुतुम एका साकाच्या हाथरुणाचेर लागीं लागीं न्हिदिले दिश्टी पडले. दोगांयच्या तोंडार शांतताय दिसताली. ओंठांचेर हांसो आशिल्लो पूण त्या हय-न्हयश्या उजवाडांत लेगीत ते दोगूय सामके अशक्त जाल्ल्याचें स्पश्ट नदरेक पडटालें. ते इतले अशक्त जाल्ले-दोगांकूय हालपा-धोलपाक लेगीत कुस्तार जातालें. फाटल्या दोन दिसांभितरुच ते दोगूय सामके बारीक जाल्ले.

तांका बुरुनाक एक गजाल सांगपाची आशिल्ली. राम वैजान ती गजाल कराली सरांक परतू परतून सांगिल्ली पूण ती गजाल इतली किरकोळ आनी विचित्र आशिल्ली ती बुरुनाक सांगपांत कांयच अर्थ नाशिल्लो. पूण रामबाबान परत परत तांका याद करु दिल्ली, तें वाक्य बुरुनाचेर मंत्रावरी काम करतलें! वैजबाब सामके बुदवंत आशिल्ले तांची खंयचीच गजाल भायर उडोवपूय योग्य नाशिल्लें.

ती गजाल सांगपाखातीर म्हूण कराली सर ल्हवू ल्हवू बुरनाचे तकलेकडेन वचून उबे रावले. आनी मागीर धोंपरांचेर दिमी म्होडून बसले. सामकी सोपी गजाल आशिल्ली. वैजबाबान सांगिल्लें, मातशे मोट्यान पाड्यांवरी सुरान परत परत ही गजाल तुमकां घोळोवची पडटली. वैजबाबान तांका कितलेच खेपो ह्या गजालीचो उगडास करून दिल्लो. "ही गजाल मतींत उरतली मूं

करालीबाब? विसरचे ना मूं? ही गजाल जरी शुल्लक आसली तरी बुरुनाचो जीव वाटवपाखातीर सामकी गरजेची.''

''हय...!'' त्या वेळार करालीबाब हांशिल्ले. ह्याय परस कितल्योशोच कठीण गजाली तांका याद आशिल्ल्यो आनी ही कांय व्हडलीशी कठीण गजालूय नाशिल्ली. सामकें सादें सोपें एक वाक्य आशिल्लें, जे एका सुरान पाड्यावरी म्हणूंक जाय आशिल्लें.

त्या कुडीच्या भायलेवटेन लागीच खंय तरी 'घ्रेऽऽडाऽऽम' असो आवाज आयलो आनी तेच दिकेन येवपी जड पावलांचीय सुलूस लागली.

वेळ इल्लोय नाशिल्लो. कराली सरान बुरुनाच्या कानांकडेन आपले तोंड व्हेलें आनी मोट्ट्यान तें वाक्य म्हणपाचेंच आशिल्ले, पूण उतरांच फुटनात जालीं. तें वाक्य तांचे तकलेतल्यान सामकें नाच जाल्लें. तें वाक्य तांका कशेंच याद जायना जालें.

'घ्रेऽडाऽम – हू...ऊं...म!' परतून वागाची गरड आयकूंक आयली हे खेपेक सामकी लागींच्यान. पावलांची सुलूसयबी लागीं पावपाक लागली.

कराली सर रागान आपले तकलेचे केंस ओडपाक लागले. ती गजाल कितेंच केल्यार तांका याद जायना जाली. हय हय. .... तांतूत एक नंबर आशिल्लो.... आनी एक कितें तरी आशिल्लें... आरे तो... तेरा... तेरा... बरोबर... होच... दुसरे वटेन एक दार आशिल्लें. त्या दाराची लोखणाची साखळ सोडिल्ल्याचो आवाज आयलो.

कराली सरान आपले तकलेचे केंस मुठींत धरून हुमटावन काडले. तेरा... तेरा... पाड्याच्या सुरान... बुरुन. बुरुन... बुरुन....

दार करकरत ल्हवू ल्हवू उक्तें जातालें. दाराच्या खांचीतल्यान मशालीचो हळडुवो उजवाड दिश्टी पडलो. एक विशाल चेहऱ्याचो तांबडे कपडे घातिल्लो मनीस फातरावरी निबर चेहरो करून मशाल घेवन ल्हवू ल्हवू मुखार सरतालो. हळडुवे पटे आशिल्लो एक व्हडलो वागूय ताचे फाटल्यान चलत येतालो.

कराली सराच्या निर्जीव हातातल्यान जैवलिन सुटून जमनीर पडलो. अजापीत जावन तो तोंड उक्तें करून पळयतच उल्लो. तांची तकली सामकी

सुन्न जाल्ली. वागान गरड घाली द्र... घ्रे-डऽड ऽ म....

रगत आटोवन उडोवपी ती भिरांकूळ गरड!

कराली सर बेशुद्ध जावपाचेच आशिल्ले. जातलेय आशिल्ले पूण निमण्या खीणाक तांका ते पुराय वाक्य सुचलें.

त्याबरोबर कराली सर शाळेंतल्या मॉनिटरावरी बिकट स्वरान मोट मोट्यान आइडूंक लागले - ''बुरून, तुका गणितांत मेळ्ळ्यात तेरा मार्क. बुरून, तुकां गणितांत मेळ्ळ्यात तेरा मार्क, बुरून तुकां गणितांत मेळ्ळ्यात तेरा मार्क.''

शिळेवरी त्या विशाल चेहऱ्याच्या मनशान फुडें सरत गर्जना केली, ''माये माये! तुकां मनशाचें रगत जाय आशिल्लें न्हय? तू प्रेत साधना करूंक सोदता न्हय माये? आयज तुजी इत्सा पुराय जातली.''

कराली सर सगळें विसरून गेल्लें. आपलें नांव लेगीत तांका याद नाशिल्लें. फकत एकाफाटोफाट पाडे पाठ केल्लेवरी हेंच म्हण्टाले, 'बुरुन, तुकां गणितांत मेळ्ळ्यात तेरा मार्क, बुरून तुका गणितांत मेळ्ळ्यात तेरा मार्क...!''

'घ्रेऽ डाऽम्.''

''तारा!तारा! माये!''

''घ्रेऽडा ऽहू ऽम्.'' आनी एक खेपो गरड घालून त्या वागान वीजेच्या गतीन मुखार उडी मारली.

कराली सराक इतलेच कळटालें, तें म्हणल्यार तो वाग कमरावयले तांचे पॅन्टीक सुळ्यावरी दातांनी धरून इल्ल्याशा नुस्त्याभशेन घोलयत धोलयत ओडीत व्हरतालो. आनी तो मोटद्या चेहऱ्याचो मनीस आइडतालो, 'तारा! तारा!'

कराली सर वागाच्या तोंडांत हुमकळटालो तरी ताळ्यांतली सगळी शक्त लावन आइडतालो, ''बुरून, तुकां गणितांत मेळ्ळ्यात तेरा मार्क ! बुरून, तुकां गणितात मेळ्ळ्यात तेरा मार्क. बुरून, तुकां....

एका ल्हानशा खेळांतल्या विमानान बसून बुरून आनी भूतुम चंद्राच्या

देशांत गेल्ले. थंयची जमीन भांगराळी आशिल्ली आनी सामकी अजापित करपा सारकी. तेच परी थंय भांगराळी झाडां-झोपां, भांगराळें तण आनी मळबांत चारूय दिकांनी भांगराळो उजवाड फांकिल्लो.

चंद्रावयली म्हातारी चरखो कांतपाचो बंद करून तांचे खातीर 'पीठा' करपाक लागली. बुरून आनी भुतुम लागींच आशिल्ल्या एका सुंदरशा दोंगुल्लेच्या वझऱ्या पोंदा न्हावपाक गेले.

चारुय दिकातल्यान सवण्याची चीव चीव आयकूंक येताली. मोर उडटाले. कुपांचे होडयेंत बसून भुरगीं हेवटेन तेवटेन भोंवताली. चारुय दिकांनी खेळ, जादू, पिकानिक, सर्कस आनी आयस्क्रीम हांची मजाच आशिल्ली. थंय बरोवपा - वाचपाची कांयच गरज नाशिल्ली. शाळा-बिळा नाशिल्ली. फकत मजाच मजा आशिल्ली.

भुतुमान म्हणलें, ''आमी हांगाच्यान केन्नाच परत वचचें न्हय.''

''आरे, चल, आतां आनी कोणाक परत वचूंक जाय!''

बुरुनान आनी भुतुमान जादवाचे खेळ पळयले, सर्कस पळयली. हेर भुरग्यांसांगाताक खेळांनी वांटो घेतलो. आयस्क्रीम खायत खायत वझऱ्या पोंदा पोटभर न्हावन घेतलें. वझऱ्याच्या उदकांत तयार जाल्ल्या सुंदरशा तळ्यांत बऽऽरे पेंवलेयबी.

अचकीत बुरुनाचे खोशयेचेर आनी अखंड मौजेआड, सगळी मजाच ना करपी अशें एक वाक्य कानार पडलें, ''बुरुन, तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क!''

अकस्मात सगळी मजा कशी कोण जाणा खंय नाच जाली. ताचें मन दुखी जालें. हें कोणें म्हणलें आसतले काय म्हूण ताका सोदपाखातीर बुरुनान चारुय दिकांनी नदर भोंवडायली. ताका एके चिमणेचो दुबाव आयलो आनी ताणे तिका फातर मारुन धांवडायली. तरी लेगीत परतून तोच आवाज आयलो, ''बुरुन, तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क!...''

बुरुनाक तिडक मारली. तो ताळो फोडून आड्डलो, ''बरें जावचें ना, सांगतां तुकां.''

तरी लेगीत दोशीं-वशींच्यान, हवेंतल्यान, मळबांतल्यान तेंच वाक्य गाजपाक लागलें. "बुरुन, तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क! बुरुन तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क! बुरून तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क!"

बुरुन रागाच्या भारान थरथरूंक लागलो. एक उडी मारुन झऱ्याच्या उदकांतल्यान भायर सरलो. व्हड व्हडले फातर उखलून चारुय वटांनी मोखीत आड्डूंक लागलो, "हांव सांगतां, बरें जावचें ना. हांव सगळें म्होडून - फोडून उडयतलों. सगळें नाच करतलो."

ताच्या पांयापोंदची जमीनूय म्हणपाक लागली, "बुरुन तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क!"

दोंगूल्लेनूय म्हणलें, "बुरुन... तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क."

त्या उपरांत झाडा - पेडां, सवणीं, न्हंयचें उदक, चंद्रिम, कुपां सगळे एका बराबर पाडो म्हणपाच्या सुरान म्हणूंक लागले, "बुरुन तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क...! बुरुन तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क...! बुरुन तुकां..."

तिडकीन बुरुनान एक रुखच हुमटीलो. उपरांत रागाच्या भारांत हाताक मेळटा ते म्होडूंक फोडूंक लागलो. ताणें मळब तोडलें, दोंगूल्ली म्होडली, जमीन फोडली, म्होडीत म्होडीत ताणें चारुय वटेन सगळे रितें करून सोडलें. सगळे काबार जालें.

बुरुनान तळघरांत ल्हवू ल्हवू आपले दोळे उक्ते केले. मुखार पळयताच ताका कळून आयलें, ताचे तकलेचेर सपनांचें जें वजें लादिल्लें, तें ना जालां.

ताच्या कानांत कोणतरी फुतफुतलो, "बुरुन, आयज पयले खेप कोणाचेतरी आत्मशक्तीन हाबूची मंत्र शक्ती नानपयत केल्या. शाबास! हाबूचे सगळे यत्न निकामी जाल्या. ज्या खीणाक तुवें हाबूचो मंत्र तोडलो, त्याच खिणाक हाबूचें सगळें बळ काबार जालें.

बुरुनान म्हणलें, "निधिदा!"

पूण निधिराम त्या वेळार खंय आशिल्लो? तो खीणा भीतर वाऱ्याचे

गतीन आपल्या लोकांक ही गजाल सांगपाक धांवल्लो.

भुंयारातल्यान हातांत मशाल घेवन हाबू वयर वतालो. मुखार व्हडलो वाग आशिल्लो. त्या वागाच्या तोंडात कराली सर हुमकळटाले. हुमकळटना लेगीत पीरंगत बडबडटाले, "बुरुन, तुकां..."

अचकीत वाग थांबलो. कराली सराक सवकासायेन जमनीर घालो. आनी उपरांत ल्हवू ल्हवू घुंवून हाबू मुखार उबो रावून आपलो भीरांकूळ जबडो उगडीत गरड घाली – 'ग्रेऽडाऽम!'

वागाचे दोनूय दोळे लकलकताले. तांबडेच जीबेवयल्यान लाळ गळटाली. ताच्यो मिश्यो कांट्यांवरी उब्यो राविल्ल्यो.

आनी त्याच खीणाक भयांकृत मोटो बोवाळ घालीत चारुय दिकांतल्यान भुतांनी आड्डूपाक सुरवात केली. "हाबू, आतां तू मरतलो! हाबू, आतां तूं मरतलो! हाबू आतां तूं मरतलो!" तीं सामकी कराली सरावरी पाडो म्हणपाक लागलीं.

खीणभर हाबू गोंदळ्ळो, ताका कळून आयलें आतां ताच्या मंत्रातलें सगळें बळ सोंपलां. ज्या लोकांचेर इतले दीस ताणे शेक चलयिल्लो ते सगळे आता ताच्या विरोधांत हड्डें ताणून उबे राविल्ले.

हाबुचे जीणेंत असली घडणूक पयली केन्नाच घडूंक नाशिल्ली. गदाई ठाणेदाराच्या हातांन एकदां तो मूर्ख जाल्लो खरो, पूण गदाईकडेन ताचे मंत्र तोडूंक जालो ना. सर्कशींतलो वाग हाडून गदाई ताच्या फाटीर बसून गोसाय बागांत आयिल्लो तेन्ना तो कोणतरी सिद्धी जोडिल्लो तांत्रिक आसुंये अशें हाबूक दिशिल्लें.

भियेवन ताची तकली चल्ली ना आनी त्या खातीर तो त्या वेळार आपल्या मंत्रांचो शेक दाखोवंक शकलो ना. पूण त्या उपरांत बंदखणीत बसून लिपचोरया साधना करून तो बऱ्योच सिद्धी मेळोवन भायर सरिल्लो. पूण अचकीत सगळे फुकट गेल्लें. आतां ताचो सगळो शेक मातये भरवण जाल्लो.

खीणाभरांत आपली बुद्ध लडोवन हाबून ती मशाल वागाच्या तोंडांत घातली. आनी थंयच्यान बाण कसो धांवत सुटलो. ताचे फाटल्यान अक्राळ

विक्राळ वागूय काळ जावन धावूंक लागलो. वागाच्या फाटल्यान भुतांचो हिंड आशिल्लो. आनी त्या सगळ्या फाटल्यान मशाल घेवन हाफ पॅन्टींत कराली सर धांवताले.

कराली सर त्या वेळार लेगीत आइडताले. ''बुरून तुकां मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क!''

तरी लेगीत हाबूचो जीव ते खेपेक वाचलो.

कराली सराचो हाफ पँन्टीतलो तो भिरांकूळ चेहरो आनी ''बुरुन, तुका मेळ्ळ्यात गणितांत तेरा मार्क...'' ह्या बोवाळांत जायत घडये वाग बेजार जालो आनी रानांत धांव मारली. हाबू जीव वांटावपाखातीर धांवता आसताना एका बाबळीच्या झाडाक आदळून सकल पडलो. भुतांचो हिंड थंय वचून ताचो गळो दामपाचोच तितल्यान कराली सर, 'बुरून तुकां मेळ्ळ्यात...' आइडत थंय पावले. तांच्या आंगाक वैजबाबान लायिल्लें जे तेल आशिल्लें त्या तेलाच्या घाण वासान चडशी भुतां थंयच्यान पयस धांवली. उरिल्लीं सगळीं भुतां, ''बुरुन, तुकां मेळयात...' ह्या उतरांक कसलो तरी मंत्र समजून भिवून थंयचे थंयच घट जाल्लीं.

देखूनच हाबूचो जीव वांटावलो. पूण जीव वांचलो तरी ताच्या अपमानांचो अंत जावंक नाशिल्लो. स्कूलांतलो जाण्टो दफ्तरी 'रिटायर' जावन आपल्या गांवात गेल्ल्यान हाबूक ताच्या जाग्यार कामाक लायिल्लो.

हाबू आता शाळेची घांट मारपाक लागलो, दर वर्गांत परीक्षेच्यो जांव सुट्येच्यो नोटिसो व्हरुंन दिवंक लागलो. आतां तो पयलींचो हाबू उरुंक नासलो. सगळो गर्व–अहंकार गळून सामको हुंदीर जाल्लो. भुता – प्रेतांक सामको भिवपाक लागिल्लो. देखून दीसरात 'राम राम'... जप करतालो.

वैजबाबाली मात बडटी जायत गेली, हें आनी वेगळे सांगपाक नाका. तांच्या दुकानाचेर दर खेपो पिडेस्तांची गर्दी जाताली. पूण रोगी म्हणटाले, गर्देंत सगळेच मनीस आस नाशिल्ले.

खेळांत जांव अभ्यासांत निधिराम आता बुरुनाक कसलीच मदत करी नाशिल्लो. राम वैजान मनाय केल्ली. पूण बुरुनानूच बरेच यत्न करून खेळांत

आनी अभ्यासांत आपली प्रगती केल्ली. पूण हे खेपूय समाही परीक्षेत शंबर मार्कांचे सगळे प्रश्न सोडोवन लेगीत गणितांत ताका तेराच मार्क मेळिल्ले.

मागीर कळ्ळें, कराली सरान वर्गांत सरसकट सगळ्याच विद्यार्थ्यांक तेरा मार्क दिवन फेल केल्ले. भुरग्यांनी वचून जेन्ना तांका विचाल्लें, तेन्ना मुमुर्खेच हांसत सगळ्यांची फाट थापटीत ताणे म्हणलें, ''तेरा नंबर बरोच पावरफुल आसता. कळ्ळें न्हय! हांव ह्या दिसांनी तेरा नम्बराचेर बरोच विचार करुंक लागलां. विचार करता करता म्हाका अशें दिसून आयलें, दर मनशाक आपले जीणेंत केन्ना ना केन्ना तरी तेरा नंबर मेळुंकूच जाय.''





किशोर वाचप्यांमदीं
लोकप्रिय आशिल्ले **शीर्षेन्दू मुखोपाध्याय**
हांणी कितलींशींच ओडलायणी अशीं पुस्तकां बरयल्यांत.
तांच्या नव्या पुस्तकांची वाट पळोवप लेगीत एक मजा!
अशीच एक मजेशीर आनी रोमांचक अशा कर्तुबांनी भरिल्ली ***गोसांय बागांतलें भूत*** ही कादंबरी हातांत पडल्या उपरांत वाचपी तिचो पुराय आस्वाद घेतलेबगर रावचे नात. हातूंत लेखकाक खूबशे प्रश्न विचारल्यात. पयलो प्रश्न आशिल्लो तो असो - भुतां खऱ्यांनीच इतलीं परोपकारी आसतात व्हय? दुसरो-भुतां जर राम नांवाक इतली भियेतात जाल्यार ह्या कादंबरीतल्या भुतांचें नांव निधिराम कित्याक दवल्लें? हाचेर लेखकाचे म्हणणें अशें - नांवांत राम लावप आनी रामाचें नांव घेवप ह्यो दोनूय वेगवेगळ्या गजाली. तिसरो प्रश्न असो - सोरपाच्या विखाचो सोरपाचेरूच परिणाम जाता व्हय? जाता जातय जाल्यार राम वैजाले नांव आयकून भुतां कित्याक पळून वतात? तेंय बी एक नांवूच. खरें म्हळ्यार वैजाल्या नांवांत विशुद्ध राम आसा. हाचे फाटी-फुडें कांयच जोडिल्लें ना. भुतांचे मन समजप खूब कठीण; केन्ना तांका राम नांव आयकून थरथरो भरता जाल्यार केन्ना तांका रामाची पर्वाच नासता. आतां जर खंयच्याय भुतान नकळटना राम वैजालें नांव घेतलेंच जाल्यार कोण कितें करूंक शकता? भुतांकडच्यानय चूक जावंक शकता. मुद्दो बरोच कठीण आशिल्लो. ताका लागून कसलोच फेरबदल करीनासतना कितलेशेच गोंदळ घेवन ही कांदबरी सगळ्यांम खार आसा. खंयच्याय वाचप्याक अशें परोपकारी भूत सांपडल्यार सत् कितें ते कळूं येता आनी प्रश्नाची जापूय मेळूं येता.

पुस्तकाचो कोंकणी अणकार करपी **चंद्रिका पाडगांवकर** ही कोंकणी भाशेंतली एक नामनेची कवयित्री आसा. तांगेलीं तीन कविता संग्रहाचीं पुस्तकां प्रकाशित जाल्यांत. ताणी हेर भारतीय भासांतल्यान कांय कविता, कथांचे कोंकणीत अणकार केल्यात तशेंच कोंकणी हिंदींत अणकार केल्यात.


ISBN 978-81-260-4412-2





साहित्य अकादेमी

Gosain Bagatlem Bhoot (Konkani)
₹ 80/-